# मासिक बिम्ब

कोंकणी समाजाचें पडबिम्ब

ऑगस्ट २००९



हे गणराया गणपती गणाधिशा
तूं गणांचो ईश, गणांचो पती, गणांचो राय.
असंख्य वर्सां गणांचेर राज्य करून
त्या गणांचो पती, गणांचो राय
जावंक पावलो.
जसो तूं शास्वत तशी गणूय शास्वत
देवून आयज तुज्या आशिर्वादान
आमच्या देशांत गणांचेंच राज,
गणराज चलता, गणतंत्रान चलपी हें
गणाचें राज. पूण देवा गणपती
हें गणतंत्र फकत नांवाचें.
स्नायुबळाचेर, दुडवां बळाचेर आज
कोणूय उट्ठा, तुज्या गणांक
सोरो आनी चिकन खावयता.
तांका विकते घेवन तांचो राय जाता.
ह्या गणांक बुद्ध दी रे देवा
गणराया!

कोंकणी मासिक

# बिम्ब



*गणराया, गजानना, गणपती*
*तुज्या गणांक बुध्द दी रे सायबा...!*

 -दिलीप बोरकार



**रेखाचित्रां** - गिरिश नंदा बोरकार


वर्स : १ अंक २
(आरएनआयचे नोंदणी खातीर तांत्रीक बदल)
ऑगस्ट २००९
मूळ वर्स : ८ अंक ८
मोल १५ रुपया

मुखेल संपादक
**दिलीप बोरकार**

मुद्रक आनी प्रकाशक
**दिलीप बोरकार**

छापणावळ
**सह्याद्री ऑफसेट, खोर्ली-तिसवाडी**

मार्केटींग व्यवस्थापन
**कामिनी किणी**

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
**श्वेता नाईक**
**सोनल कुंडयकार**

वर्गणीचे दर
वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक 'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो



**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो**
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.com.in




# गोंय राज्य प्रदुशण नियंत्रण मंडळ

धेंपो टॉवर, १ लो आनी ४थो माळो, ईडीसी प्लाझा,
पाटो, पणजी-गोंय ४०३ ००१
फोन: (०८३२) २४३८५६७ फॅक्स नं. : (०८३२) २४३८५२८
ई-मेल : goapcb@rediffmail.com वेबसायट : www.goapcb.gov.in

गोंय राज्य प्रदुशण नियंत्रण मंडळ ही एक स्वायत्त वैधानीक संस्था, जिची कचेरी धेंपो टॉवर, पणजी हांगा १ल्या आनी ४थ्या माळ्यार आसा.

हांगा उदक, माती आनी हवा हांची रासायनीक आनी सुक्षीम-जैवीक नदरेन विस्कटावणी करपाखातीर अर्विल्लीं अद्ययावत उपकरणां आशिल्ली सुसज्ज प्रयोगशाळा आसा.

मंडळाकडेन राज्यांतल्या खंयच्याय वाठारांत वचून थंयच्या वातावरणाच्या प्रदुशणाचो स्तर जाणा जावन घेवपी भोंवती सुविधाय आसा.

पर्यावरण (संरक्षण) कायदो, १९८६ खाल मंडळाचे प्रयोगशाळेक पर्यावरण आनी रानां मंत्रालयाची (MoEF) मान्यताय आसा. तपासणी आनी मोलावणी वेवस्तीत आसा काय ना तें पळोवपी प्रयोगशाळां खातीर आशिल्ल्या राष्ट्रीय मोलावणी मंडळान (NABL) हे गोंयचे प्रयोगशाळेक मान्यताय दिवपाची आसा.

## गोंय राज्य प्रदुशण नियंत्रण मंडळाचो वावर

- आस्थापनांक ना हरकत दाखलो दिवप, उद्योगांक चलोवपाक/ नुतनीकरण करपाक (उदक/वारो) हांचे खाल परवानो दिवप. हानीकारक टाकाऊ वस्तुंची हाताळणी, सांठो करप आनी येरादारी पासत अधिकार दिवप तशेंच तांचें नुतनीकरण करप.
- मंडळान परवानो दितनाः घाल्ल्या अटींक पाळो दितात काय ना तें पळोवपाक उद्वेगीक आस्थापनाची तपासणी करप. लोकांच्यो कागाळी, नगरपालिकेचो घन कोयर, वैजकी कोयर आनी आवाजा प्रदुशण हांची तपासणी करप.
- बाह्य पुरस्कृत प्रकल्प जशे 'मिनार' (MINARS - भारतीय राष्ट्रीय जल संसाधनां देखरेख) नॅम्प (NAMP - राष्ट्रीय हवा देखरेख कार्यावळ) चालीक लावप, जागेसंबंदी येवजण्यो आखप आनी हानीकारक टाकाऊ कोयराचो तपशील दवरप, जें नवी दिल्लीच्या केंद्रीय प्रदुशण नियंत्रण मंडळान पुरस्कृत केलां.
- सरभोवतणच्या हवेचो दर्जो तपशील (DATA) आनी तापमान तपशील (DATA) हांची मापणी आनी प्रदर्शन.
- चवथ मनयात. पूण प्रदुशण टाळात. फोगाचें प्रदुशण, आवाजाचें प्रदुशण, प्लास्टर ऑफ पॅरिसाचें प्रदुशण जिविताचीच न्हय, पर्यावरणाचीय हानी करता.

**डॉ. सायमन एन्. द सौज**
अध्यक्ष

# संपादकीय

# पुस्तकां छापलीं म्हूण जायना तीं वाचकां मेरेन पावूंक जाय

**गों**यांत सद्या पुस्तक प्रकाशनाचो धुमधडाको चालू आसा. कोंकणी, मराठी आनी इग्लीश भाशेंतलीं पुस्तकां गोंयांत उजवाडाक येतात आनी ताच्यो बातम्योय दिसपट्ट्यो कानार पडटात.

ह्या पुस्तक प्रकाशना मदीं सगळ्यांत चड आंकडो आसा तो कोंकणी पुस्तकांचो. कोंकणी अकादेमीच्या पालवान जावं वो कला आनी संस्कृताय खात्याच्या सहकार्यान जावं लेखक वो प्रकाशक पुस्तक काडूंक मुखार सरतात. ही पुस्तक प्रकाशनाची गती पळयत जाल्यार अजापान तोंडांत बोटां घालचीं पडटात. दर तिसऱ्या दिसा गोंयांत खंय ना खंय कोणाच्या तरी कोंकणी पुस्तकाचें प्रकाशन आसता. दर आठ वो पंदरा दिसांनीं एक तरी मराठी पुस्तक प्रकाशीत जाता आनी कोणाचें तरी इग्लीश पुस्तक म्हयनो दोन म्हयन्यां मदीं उजवाडाक येताच येता.

हो सगळो प्रकार पळयत जाल्यार खरेंच मन उचांबळून येता. पुस्तकां बरोवप आनी तीं छापून उजवाडाक हाडप ही तशी सहजसोपी बाब न्हय. पुस्तक बरोवन तयार जावपाक सर्जनशील बरोवप्याची गरज लागता. सर्जनशीलताय लाबूंक मनाची शांतताय जाय आसता. ते पासत सरभोंवतणचें वातावरण पोशक आसपाची गरज आसता. पोशक वातावरण म्हळ्यार सूख-समादानाचें वातावरण न्हय. सर्जनशील बरोवपी सुखी समादानी आसलो म्हण ताचेकडेन बरोवन जातलेंच अशें ना. बरोवपी जेन्ना असंतुश्ट आसता तेन्नाच ताचेकडल्यान बरोवन जाता. जेन्ना गोंयांत अशीं पुस्तकां एका फाटल्यान एक तयार जातात तेन्ना लेखकाखातीर पोशक वातावरण आसा अशेंच म्हणचें पडटलें. आनी पुस्तकां छापपाखातीर प्रकाशक गुंतवणूक करता तेन्ना तांचोय धंदो तेजींत चलता असोच हाचो अर्थ लावं येता.

पूण खरी गजाल तशी ना. जे कोण लेखक साहित्यनिर्मिती करतात ते आपल्याच्यान रावूं नज म्हूण बरयतात. बरयल्लें लोकांमुखार पावूंक जाय ही तांची आंतरीक इत्सा आसता. देखून लेखक स्वता प्रकाशक जाता वो आपल्या वळखिच्या एकाद्रया प्रकाशकाक मुखार करून पुस्तक छापून घेता. पूण तें पुस्तक वाचकां मुखार खऱ्यानीच पावता?

आयच्या टिव्ही सारख्या माध्यमाक लागून, इंटरनेटाच्या प्रसाराक लागून पुस्तकांकडे आडनदर जावंक लागल्या. वाचनाची आवड आसुनय वेळेचे मर्यादेक लागून वाचप कमी जालां. तरी लेगीत जांका वाचनाचें म्हत्व खबर आसा तांका वाचन केले बगर जायना. वाचन हो तांचो प्राण आसता. पूण तांचेकडेन आयचे म्हारगायेंत पुस्तकां विकती घेवप जायना. गावांगावांनी वाचनालयां आसूंक जाय अशें सगळेच सांगतात. दर पंचायतींत वाचनालय आसूंकच जाय अशेंय मत आसा. पूण पंचायत घरांनी वाचपघरांची अजून वेवस्ता जायना. तशी वेवस्ता करून गांवच्या लोकांक पुस्तकां वाचपाचें प्रोत्साहन दिवपाक जाय. आयज चडशे लोक बाबा, गुरू हांच्या फाटल्यान लागून आपलो बरोचसो वेळ होगडायतात. तांका दिसता, तांचे लगाडीक लागल्यार मनाक शांती लाबतली. पूण तो एक नसतो भ्रम. ती एक निव्वळ फटवणूक. जर मनाक खरी शांती लाबूंक जाय जाल्यार गिन्यान वाडोवपाची गरज आसा. गिन्यानाची वाड तेन्नाच जाता जेन्ना एक बरें पुस्तक वाचूंक मेळटा.

ते पासत उजवाडाक येतात तीं पुस्तकां वाचकाक वाचूंक मेळटलीं हाची वेवस्ता जावंक जाय.

गोंयांत वाचनालय चळवळ जावंक जाय अशें मत सगळे विद्वान उक्तायतात. सेंट्रल वाचपघर तेच खातीर वावुरतालें. पूण कितली चळवळ जावंक पावली खबर ना. उप्रांत ही जापसालदारकी गोंय सरकारच्या कला आनी संस्कृती खात्यान घेतली. सगळीं वाचपघरां आपले अखत्यारींत हाडून पुस्तक खरेदी आनी वितरणाची जापसालदारकीय भुजार घेतली.

लेखकांक पुस्तक छापूंक सहकार्य आनी प्रकाशकांकडल्यान तिनशें प्रती खरेदी अशें गाजर ह्या खात्यान दाखयलें. पूण खरेदी करतात फक्त शंबर प्रती. तांचेरूय २० टक्के सवलत दिवची पडटा. गोंयांत सद्या वाचपघरां आसात तीं एकशें वीस काय कितलीं तरी. जर शंबर प्रती विकत घेवन वाटल्यो तर हेर वीस वाचप घरांचें किते? तांका पुस्तकां पासून वंचीत कित्याक करप?

म्हणटकच जावंक जाय तें अशें; दर गांवच्या पंचायतींत वाचप घर जायच. तातूंत गोंयच्या दरेक लेखकाचें पुस्तक मेळूंक जाय. दरेक शाळेंत आशिल्ल्या वाचपघरांत पुस्तक पावंक जाय. विद्यार्थ्यांनी वाचलेंना तरी एखाद्रया शिक्षकान वाचलें तरी खूब जालें. गोंयच्या सरकारी आनी निमसरकारी खात्याकडेन सगळें करूंक पयसो आसा. तांका तांचे वाचप घर तयार करूंक निधी दिवंक जाय. पुस्तक आसलें म्हणटकच वाचूंक कोणूय हातांत घेताच. तो दुकानार वचून विकतें घेवन वाचचो ना.

जर एक आदर्श समाज निर्माण करपाचो आसा जाल्यार वाचनाची गोडी लावंक जाय. ते पासत तांका आलायतीं पुस्तकां उपलब्ध जातलीं हाचेकडेन लक्ष दिवंक जाय. पूण पुस्तकांच्या नांवान सरकार सेंस घेता. ताचे कोट्यानी रुपया पडून आसात. ते कित्या खातीर वापरतात ताचें तेच जाणांत. हे पयशे वापरून वाचन संस्कृताय केळोवचो यत्न केलो जाल्यारूच दरेकाकडेन पुस्तक पावोवप शक्य जातलें. तेन्नाच उजवाडाक येवपी दर पुस्तकाचें कल्याण जातलें.

दा. मा. [signature]




## वर्गणीदारांक, वाचकांक आनी जायरातदारांक

दिवाळी ऑक्टोबराचे १७ तारकेक. दिवाळी अंक तयार जावन तो १० ऑक्टोबराक पोस्टांत पडटलो.

दोनशीं-अडेचशीं पानांचो हो अंक जेन्ना पोस्टांत घालतात तेन्ना तो फारोवपाचो वो शेणोवपाचो प्रकार घडटा. देखून तो हमखास वाचप्यांच्या हांतांत पडचो देखून आमी तो पणजे पाट्यार आशिल्ल्या कोंकणी अकादेमीचे कचेरींत, मडगांव कोंकणी भाशा मंडळाचे कचेरींत दवरतात आनी थंयच्यान व्हरचो म्हूण कळीत करतात.

जांकां तकालस घेवपाची नासता वो मुद्दम वचूंक पयस पडटा तांका आमी अंक पोस्टान धाडटात.

आमी दर म्हयन्याक बऱ्याच लोकांक अंक पोस्टान धाडटात. तातूंत फाटल्या आठ वर्सांत म्हळ्यार बिम्ब सुरू जायत सावन एकदां तरी जाणीं वर्गणी भरल्या तांकांय नेमान अंक धाडटात. पूण तो पावता काय ना हें कळपाक मार्ग ना. आमी फाटल्या अंकांतूय तशी विनवणी केल्ली. पूण फक्त दोन वाचप्यांचीं पत्रां आयलीं. हेरांनी कांयच कळोवंक ना.

वर्गणी भरल्या अशी जांची नोंद मेळटा तांका, आमचे जायरातदार आनी आमचे लेखक हांका अंक धाडटाच. तांचे कडल्यान आमी वर्गणीची अपेक्षा दवरिनांत. ते आमचे 'खाशेले लोक'. तरी ताणीं चुकून अंक पावलोंना जाल्यार मुजरत फोन करचो. आमीय तांचो आवाज आयकूंक आशेतात.

इतलेंय आसून जे कोण आमचे हे विनवणेकडेन आड नदर करतात तांकां हो निमणो अंक अशें समजुचें.

आमकां आमचो अंक वाचप्यांमेरेन पाविल्लो जाय. वर्गणीचेर अंक चलना. तो जायरातींचेर चलता. तरी आमी अंक वेवस्तीत बांदून ताका पोस्टाची तिकेट लायतात, गठ्ठे व्हरून पोस्टांत घालतात. पूण तो पावता काय ना हें कळूंक मार्ग ना. तशें कळोवंचें अशें कळोवनूय कोण कानामनार घेनांत.

हाचो आमी अर्थ लायला तो असो, एक तर हे लोक संवसारांत नांत आनी आसले जाल्यार ते आमच्या वावराक लेखीनांत. जाल्यार ह्या लोकांक अंक धाडपांत अर्थ ना अशेंच म्हणचें पडटलें.

१० ऑक्टोबरा पयलीं जर कोणूय आपल्याक अंक धाडचो म्हूण कळयता तांकांच हे मुखार अंक वतलो.

हेरांनीं वाट पळोवंची न्हय.

आमी मात वाट पळयतले जायरातदारांची. ताणीं जायरात दिल्यार आमचो दिवाळी अंक चडांत चड दर्जेदार जावंक पावतलो.

सगळ्यांक स्वातंत्र्य दिनाचीं आनी चवथीचीं हुनहुनीत परबीं.

**– कामिनी किणी**
व्यवस्थापिका

## देवनागरी लिपिचे संस्कार जावपाची गरज आसा !

संपादक,



जुलाय २००९चो अंक मेळ्ळो. कव्हर स्टोरी 'शेतांचें पाडा पडूं बाबू म्हजो खेळूं' काळजाक लागली. न्हिन्नडलों. लेख अभ्यासपूर्ण जाला. परबीं! मुखचित्र तर खुबूच बरें जालां. चित्रकार गिरिश बोरकाराचें खासा अभिनंदन!

एडवीन जे. एफ. डिसौझा, विणा पेजावर, शामकांत मर्गज आनी पद्मनाभ नायक ह्या गोंया भायल्या लेखकांचें बरप छापून खूब बरें केलें. कोंकणी साहित्य अशेंच वाडपाक जाय. विणा पेजावरचो ललित निबंद, शामकांत मर्गज हांची कथा आनी पद्मनाभ नायक हांचें प्रवास वर्णन हीं तिनूय बरपां बरीं आसात. ह्या लेखकांचीं स्वतंत्र पुस्तकां देवनागरी कोंकणीत उजवाडाक हाडपाचो यत्न जावपाक जाय. ह्या लेखकांची शैली सांबाळून तांच्या बरपावळीचेर देवनागरी लिपिचे संस्कार जावपाची गरज आसा. सद्याक तरी हे संस्कार संपादकानूच करचे पडटले.

बरें मागून,

**– पुंडलीक ना. नायक**
वळवय - गोंय

# गणराया, गजानना, गणपती तुज्या गणांक बुध्द दी रे सायबा...!

- दिलीप बोरकार

हे सुखकर्ता, दुःखहर्ता गणराया, आमी भारतीय गोंयकार तुजी वर्सपध्दती प्रमाण अंदूय सेवा करतात.

आमचे वयलीं संकश्टां, विघ्नां पयस जावंचीं आनी आरंभ केल्लीं शुभकार्यां निर्विघ्नपणान तडीक वचचीं म्हूण हजारांनीं वर्सां सावन आमचे पुर्वज भक्तीभावान तुजी सेवा करीत आयल्यात. पुर्तुगेजांच्या पिडापिडीच्या काळार लेगीत आमच्या पुर्वजांनी तुजी सेवा केल्ली आसा. तरी लेगीत आमच्या दुःखहर्ता गणपती तुवें अजून गोंयचेवेलें दुःख पयस करूंक ना तर नवीं नवीं विघ्नां गोंयचेर तूं घालीत आसा.

गणाच्या राया, गणपती तूं जरी गणाचो राय आसलो आनी तुकाच आमी गणाधीश म्हूण भजत आयल्यात तरी गोंयच्या गणांचेर शेकड्यांनी वर्सां परक्यांनीच राज्य केलें. तुवें तकलेंत घाल्ले बुध्दीच्या मालवजार पुर्तुगेजांक जरी आमी साडेचारशीं वर्सां उपरांत धांवडावन घाले तरी गणराज्यांत गणांचे राज्य येवंचें अशें आमकां निखालूस दिसना. गणांचेर भायल्यांनीच राज्य करचें आनी आमी गुलामूच म्हूण जियेवंचें अशी आमची सगळ्यांची मानसिकताय घडल्या. हातुंतल्यान मुक्ती मेळोवपाची शक्त आतां तुवें आमकां दिवंची अशें मागून तुज्या पांयार आमी घालून घेतात. ह्या अरिश्टांतल्यान आमकां तूंच निवार सायबा.

## भारतीय संस्कृतायेचें तूं दैवत

हे गणपती, भारतीय संस्कृतायेंत पुरायपणान व्यापून रावन एक उंचेली सुवात जोडून आशिल्लें तूं दैवत.

पूण आमकां गोंयकारांक संस्कृताय कितें तें अजून कळना. आमकां आमची निजाची संस्कृताय आसा अशें निखालूस दिसना आनी हे संस्कृतायेचें आमकां मोठेपणूय आसा अशें दिसना.

तुज्या अंदूवर्साच्या आगमनाच्या समयारूच आमच्या गोंयच्या विधानसभेच्या सभाघरांत माध्यमाच्या



नांवान जो इंग्लीशवाद तकली वयर काडटालो तें पळयल्यार आमचीं कांय भावंडां संस्कृती भ्रश्ट कशीं जायत चल्ल्यांत तें नदरेक पडटालें.

देवा गणपती, ही जी इंग्लीशवाद्यांची संसत आसा तिका संस्कृताय म्हळ्यार कितें, भारतीयत्व म्हळ्यार कितें हें कांयच खबर ना. तुवें गणांचेर आदीमकाळासावन राज्य केलें आनी गणराय गणपती हे पदवेक तूं पावलो. पूण आपल्या गणांची राखण करूंक, तांचें बरेंपण राखूंक तूं हातांत पाळ घेवन सदैव तत्पर रावलो. पूण जांकां संस्कृताय म्हळ्यार कितें तें खबर ना ते गणांच्या नांवान कपलाक तिबो लावन, त्या गणांचे तारणहार म्हूण विधानसभेंत मिरयतात आनी आपली अक्कल पाजळटात.

देवाधी देवा गणपती, गोंयच्या राजकीय जिवीतांत आयज आमकां तत्वशून्य संधीसाधूंची गर्दी जाल्ली दिसता. ह्या लोकांनी गणराज्याचो धंदो केला. गणराज्याच्या नांवान पयशे वाटून, सोरो घालून हे बोडकां जमयतात आनी तीं बोडकां मेजून आपूण गणराय म्हणपाचें गणीत हे मांडटात. आपल्या ह्या फटींगपणाच्या धंद्यांतल्यान हे लोक गणराय, गणाधीपती जावपा खातीर सतत प्रयत्नशील आसतात. ह्या तांच्या फटींगपणान हातासलेल्या अधिकाऱ्याच्या नाड्यार आपलें तें खरें, आपूण सांगता तें तूं आयक अशें सांगत विधानसभेच्या सभाघरांत शबै घालतात.

एकदंता गणराया, भारतीय संस्कृतायेचो तूं पुरातन जनक म्हूण आयज हांव तुका होरायतां. ह्या नतद्रश्टांक जे कोण आपुणूच शाणे म्हूण मिरयतात आनी गोंयचे संस्कृतायेक विकृत रूप दिवंक आपलें तेंच खरें करपाचो यत्न करतात तांका तुवें आतांच जाग्यार हाडपाची गरज आसा.

देवा गणपती, तसो काळ बरोच सरला आनी हें देशभश्टेपणाचें दुयेंस ह्या लोकांच्या रगतांत सामकें भितर मेरेन रिगलां. ह्याच लोकांक शेडावपाखातीर आनी परत भारतीय संस्कृतायेच्या मूळ स्त्रोतांत हाडपाखातीर हे आदीं गोंयच्या

**देवा गणपती, संस्कृताय तिगोवप, संस्कृतायेची राखण करप म्हळ्यार आपलो धर्म सोडप न्हय. आपापलो धर्म सांबाळून आपली देशी संस्कृताय तिगोवन दवरू येता.**



असंतोशाचे जनक म्हूण जांची नामना जाल्या त्या सर्गेस्त त्रिस्तांव ब्रागांज कुन्य हाणीं 'डिनॅशनलायजेशन ऑफ गोअन्स' म्हूण खरमरीत पुस्तक बरयलां आनी आपलो असंतोश उक्तायला. पूण हें पुस्तक हातुंतल्या एकाय कर्मकट्ट्यान वाचूंक ना म्हणपाची सत्यताय ह्या लोकांचें हें दळभद्रेपण पळोवन जाता.

देवा गणपती, संस्कृताय तिगोवप, संस्कृतायेची राखण करप म्हळ्यार आपलो धर्म सोडप न्हय. आपापलो धर्म सांबाळून आपली देशी संस्कृताय तिगोवन दवरूं येता. आज आमच्या गोंयांत जितल्या धर्माचे लोक आसात तितलेय आपापले परीन खंय ना खंय चुकतना दिसतात. नदरेक भरतात ते गोंयच्या क्रिस्तांव धर्माचे लोक, कित्याक तांचे चालचलणुकेवेल्यान तांचे भितर देशी संस्कृतायेचो उणाव आसा म्हणपाचें सट्ट करून जाणवता.

देवाधीदेवा गजानना, आमच्या देशांत हेर राज्यांनीय क्रिस्तांव धर्मीय लोक मोठ्या प्रमाणांत आसात. केरळाक आसात, बंगालाक आसात, कर्नाटकांत आसात. ह्या लोकांनी आपली संस्कृताय तिगोवनूच आपल्या धर्माचो सांबाळ केला.

बंगालचो क्रिस्तांव शुध्द बंगाली उलयता. आपल्या पारंपारीक भेसांत, फुलां घेवन देवमंदिरांत वता. थंयचें देवसपण बंगालींत करता.

केरळांत गेल्यार केरळचो क्रिस्तांव धर्मीय शुध्द मल्याळम उलयता, मल्याळम भाशेंतल्यानूच आपले सगळे धर्मीक विधी करता. आपल्या घरांघरांनी आपलीच भास उलयता. तीच गत कर्नाटकाची आनी महाराष्ट्र, ओरिसा आनी हेर राज्यांची! चड पयस कित्याक वचुया, आमच्या गोंयच्या शेजराक आशिल्ल्या कर्नाटक राज्यांतूच पळयात. कारवारचो किरिस्तांव किरिस्तांव म्हूण वळखूंक येना. मंगळुरचो किरिस्तांव इगर्जेंत वतना जोतीं इगर्जेभायर दवरून भितर वता. बेळगांव आनी सावंतवाडीचेय किरिस्तांव लोक जे सर आपली वळख स्वता



जावन करून दिनांत तो मेरेन ते खंयच्या धर्माचे तें कळना. मात ते आमचे भारतीय म्हणपाची ताणीं वळख करून दिली ना तरी आमकां होलमता. तांची भास, तांची चालचलणूक, तांची विचारसरणी ह्यो सगळ्यो गजाली भारतीय संस्कृतायेची, देशी संस्कृतायेची वळख आसा. आमच्या गोंयकारांच्याच कट्टुलांत मात अजून हे संस्कृतायेचो अर्थ रिगूंक ना.

आमच्या ह्या दळभद्र्या कर्मकट्ट्यांक हें स्पश्ट बरें होलमचें म्हूण ह्या दिसांनी गोंय विधानसभेंत चलपी वावराचीच देख दिवं येता.

आमचें गोंय हें सर्वधर्मीय लोकांचें गोंय. हांगा सगळ्या धर्माचे लोक एकचारान जियेतात. जरी प्रत्येकांच्यो संस्कृतायो वेगळ्यो दिसल्यो तरी अजून हांगच्या लोकांच्या काळजांत मनीसपण तिगून आसा. ह्याच मनीसपणाक लागून अजून मेरेन हांगा धर्मीक दंगे उप्रासनांत. ते जावंचे म्हूण कांय लोक प्रयत्न करतात, पूण ते निजाचे गोंयकार न्हय. ते गोंयाभायल्यान येवन हांगा स्थायीक जाल्ले लोक.

आमचे विधानसभेंत हिन्दू आनी क्रिस्तांव लोकप्रतिनिधी आसात आनी आपले परीन ते आपली अक्कल पाजळटात. हातूंत देख दिवपासारकेय कांय प्रतिनिधी आसात.

म्हापशेंचो आमदार, जो भारतीय जनता पक्षाचो आमदार म्हूण विधानसभेंत प्रतिनिधीत्व करता त्या फ्रांसिस उर्फ बाबूश डिसौजा हांचेकडेन पळोवया. शुध्द कोंकणी भाशेंत तो स्पश्टपणान आपले मुद्दे मांडटा. एक एक विशय तो सभाघरांत अत्यंत सभ्यतायेन, अभ्यासपूर्ण स्वरूपांत दवरता. ताची चाल-चलणूक, एकंदर वागणूक ही शुध्द भारतीय आसा. ताचो धर्म क्रिस्तांव आसत पूण ताची संस्कृताय भारतीय. तो खरो भारतीय गोंयकार दिसता.

पूण तेच विधानसभेंत आनीक जायते ताच्या धर्माचे लोक आसात. तांकां धड उलोवंक येना. इतलेंच न्हय तांची इंग्लीश आयकत जाल्यार हे खंयच्या विदेशी कुळांतले भ्रश्ट वंशज काय दिसतात. तांचे एकंदर रितिरिवाज पळोवन गोंयचे विधानसभेच्या सभाघराक लागिल्ले हे दाग अशें म्हणचें पडटा.

आग्नेल फेर्नांडीस हाची भास सोसूंक जायना. बाबुश मोन्सेरात कितें उलयता तें हेरांक न्हय ताकाच कळटा काय कितें हाचो दुबाव मारता. रेजिनाल्ड लौरेंस हो आनीक एका नव्या आमदाराची भर पडल्या. हांचें एकंदर सादरीकरण पळयत जाल्यार डॉ. टी. बी. कुन्य जांका देशभश्टे म्हणटाले ते हेच काय कितें असो प्रस्न पडल्या बगर रावना. आपली संस्कृताय होगडावन बशिल्ल्या ह्या विदेशींच्या पिलावळीची खऱ्यानीच काकूळट दिसता.

देवा गणराया, ताणीं आपल्या घरांत कितेंय शेण कालयल्लें जाल्यार; आपल्या रेब्यांत लोळटात जाल्यार लोळूं म्हूण तांका सोडून दिवं येतालें. पूण हे सगळे लोकप्रतिनिधी म्हूण विधानसभेर वचून धोरणात्मक निर्णय घेवपाक फुरफुरतात. आपुणूच विद्वान म्हणत ताळो सराटून शापातां सांगतात. हाका लागून समाजांत चुकीचो संदेश पावता. हेच आपले फुडारी आनी हे कितें गिन्यान पाजळटात तेंच खरें अशें मत समाजाचें जाता आनी तातुंतल्यान अशेच तरेची देशभश्टी पिळगी तयार जावंक लागता. हें सगळें जावंक पावता तें ह्या लोकांनी आपल्या शिक्षणाचें धोरणच चुकयलां देखून. तेन्ना हें शाणपण तांच्या बोडांत आतां तुवेंच घालचें पडटलें एकदंता.

## आवयभाशेंतल्यान शिक्षण हेंच वरवद

गणपती महाराया, तूं विद्येचें दैवत. हजारांनी वर्सां तुका विद्येचें दैवत म्हूण संवसार पुजीत आयला. विद्या ही एक सर्वश्रेश्ठ देण. विद्या संपादन करीत जाल्यारूच मनीसजात सगळ्या अरिश्टांतल्यान पयस जाता हें सत्य आयज रानवटी लोकांक लेगीत होलमलां. देखून शिक्षणां पासून वंचीत उरिल्ले आवय-बापूय आयज आपल्या भुरग्यांक शिक्षणाचें, विद्येचें म्हत्व सांगतना दिसतात. आमचें सरकारूय शिक्षणांखातीर नव्यो नव्यो येवजण्यो आखता. राज्य पूर्ण साक्षर करचें अशी मोख दवरून सरकारचो वावर चलता. पूण शिक्षण म्हळ्यार कितें हाचें गिन्यान नाशिल्ल्यांच्या हातांत सद्या शिक्षणाचो धोरणात्मक वावर आसा. हाका लागून शिक्षण घेवनूय बोंडो समाज तयार जाता. ताचीं उदारणां म्हळ्यार माध्यमाचें धोरण थारावपी हीं विधानसभेंतलीं सवंगां.

विद्यापती गणपती, गिन्यान म्हळ्यार कितें हाची थोडी तरी वळख तुवें आमच्या सारख्यांच्या कांय लोकांच्या तकलेंत घाल्या. आमी तेच पासत गोंयच्या हुसक्यान, गोंयच्या समाजाच्या हुसक्यान आनी गोंयकारांच्या एकचारा पासत ताळो सराटून कांय गजाली सांगत आसात. पूण आमच्या उतरांनी सत्यताय आसली तरी तातूंत अधिकारवाणी ना. देखून तोच तोच विशय आमकां झरोवचो पडटा आनी आमच्या दोळ्यांमुखार आमचे पिळगेचो फुडार बरबाद जातना दिसता.

आमचें हें चिंतप, आमचो हो हुसको कसल्याच सुवार्थान भरिल्लो ना. फकत एक आदर्श आनी सुखी समाज निर्माण जावंचो



आनी त्या समाजांत, त्या वातावरणात एक सुखी आनी समृध्द जीवन जियेवंक मेळचें, तेंय बी सगळ्यां सांगाताक होच आमचो हावेस आसा. तेच पासत तूं सुखकर्ता दुःखहर्ता देखून ह्या सुखाची वान्सा तुजे मुखार आवंडेतां. जे कोण आपूण विद्वान म्हूण समजून समाजांत दुःखा हाडूंक वावुरतात तांच्या विचारांत बदल घडोवन हाडून तांका तुवें बरी नदर दिवंची हीच म्हज्या सारख्याची अपेक्षा आसा.

गिन्यान आनी माध्यम ह्यो गजाली एकमेकाक पूरक आसूंक जाय. समजुपाचें, ग्रहण करपाचें माध्यम जर परकी आसलें जाल्यार मनीस गिन्यानी जायना. तो पोपट जाता हें सत्य. आमचे सारखे जायते जाण हें सत्य होलमल्ल्यान स्वतंत्रपणान विचार करूंक पावले ही तुजीच देण बुध्दीदात्या.

माध्यमाची भास ही गिन्यान संपादन करपाची खरी भास. परिसराची भास हीच माध्यमाची भास आसता. कित्याक ज्या घराब्यांनीं भास चलता ती त्या घराब्यांतल्या भुरग्यांक तांच्या आवयांकडल्यान आयिल्ली आसता. देखुनूच ते भाशेक आवयभास म्हणटात. आवयभास ही कोणें शिकोवची पडना तर ती आवयकडल्यान भुरग्यामेरेन पावता. घरांत जी भास उलयतात तीच भास भुरगो शेजारच्या भुरग्यालागीं उलयता. कित्याक एका वाठारांत एकूच भास उलोवपी समाज वसती करून आसता. तिकाच परिसर भास म्हणटात. घरांत उलयल्ली भास परिसर भास जावन भाशेची गिरेस्तकाय वाडटा आनी हे भाशेंतल्यान सहजतायेन गिन्यान जोडपाची क्षमता मनशामदीं तयार जाता. गिन्यान संपादन करूंक समजणेखातीर शक्त होगडावची पडना. जें गिन्यान घेवपाचें आसा




तें थेट तकलेंत भितर सरता.

पूण आमकां परकी भाशेंतल्यान शिकल्यार ती भास एकवेळ फाडफाड करून उलोवंक येतय बी. पूण ती शुध्द आसतलीच अशी खात्री कोणाच्यान दिवं नज. इंग्लीश माध्यमांतल्यान मुळावें शिकप घेतिल्ले इंग्लीशमॅन कशे वागत, पूण तातुंतल्या एकल्याकूय शुध्द उच्चार करप जमनांत. हें जावपाचें कारण, हे लोक भास म्हणून भास केन्नाच शिकलेनांत तर तें माध्यम म्हूण शिकले. जर माध्यमाची भास आपली आवयभास आशिल्ली जाल्यार हें माध्यम सवंकळीचें जाल्यान गिन्यान संपादन करूंक कसरत करची पडपाची नाशिल्ली. गिन्यान संपादन करप वेगळें आनी परकी भास शिकप वेगळें.

आमच्या गोंयांत वेगवेगळ्या कारणांक लागून आवय भाशेंतल्यान शिक्षण दिवप शक्य जालेंना. ताका इतिहासीक खुबशीं कारणां आसात. तीं कसलीं हें हे आदीं बरेच वेळां उगाळप जालां. ह्या कारणांक लागून गोंयचो बरोचसो लोक आपलें मुळावें शिकप मराठींतल्यान घेवंक लागलो. मराठी ही देशी भास आनी कोंकणीची भयण भास. आवय जर लागीं नासली तर भुरगें मावशेकडेन निश्चिंतपणान वाडटा. तशें ह्या मराठी माध्यमाक लागून आमच्या मदल्या बऱ्याच लोकांक योग्य शिक्षण फावो जालें. तातूंत हिंदूच आशिल्ले अशें न्हय तर पाद्री जाल्ले कितलेशेच क्रिस्तांव आसात आनी आदले पिळगेंतले हेर लोकूय आसात. ह्याच लेखांत एक नांव घेतलां ते फ्रांसिस डिसौजा ह्या लोकांमदीं आसपावतात.

मराठींतल्यान शिकप घेतिल्ल्यान मनशाची वैचारीक पातळी वाडूंक पावली. विचारशक्त विस्तारली. गिन्यानाचीं दारां उक्तीं जावंक पावलीं. देशी संस्कृतायेची वळख जावंक पावली. देशी आनी विदेशी संस्कृताय हातुंतलो फरक कळूंक लागलो. आपूण भारतीय हाचो साक्षात्कार जावन राष्ट्रप्रेम काळजांत भितर निर्माण जालें. शिक्षणाचें माध्यम संवकळीचें वो लागींचें आशिल्ल्यान गिन्यान हें सहजतायेन मेळ्ळेंच ते भायर दुसरी भास म्हळ्यार कितें हाचेंय गिन्यान जावंक पावलें. ताकाच लागून हे पिळगेक इंग्लीश भास, पुर्तुगेज, फ्रेंच ह्योय भासो बऱ्यो समजूंक लागल्यो आनी हिन्दी सारखी भासूय कळूंक लागली. कारण आपली भास आनी परकी भास हातुंतलो फरक कळिल्ल्यान तांका भाशेचो अभ्यास करपाची रीत कळ्ळी. भास ही भास म्हणून शिकूंक जाय. माध्यम म्हूण न्हय हें कळिल्लें देखुनूच आमचे मदले कांय लोक व्हड जाले. जांकां कळ्ळें ना – ते पोपट जाले.

## शिक्षणाचें माध्यम कोणें थारावंचें?

देवा गणपती, आमकां शिक्षणाचें माध्यम कोणें थारावपाचें हाचो निर्णय घेवप अजून शक्य जायना. आमकां समाजाचो हुसको आसा अशें आमी दाखोवंक सोदतात. पूण आमकां समाजाचो हुसको ना तर आपल्या अस्तित्वाचो आनी फुडारपणाचो हुस्को आसा. आमचे भितर इतले 'इगो' आसात आनी आपलें तें खरें अशें मानपाचें देमांदपण आसा की जाका लागून समाजाचें पाड पडूं आपलें तें खरें जावंक जाय ही एक विकृती तयार जाल्या. जर ही विकृती पयस दवरून समाजाच्या हुसक्यान विद्वान लागीं आयिल्ले जाल्यार हो प्रस्न सुटावो जावपाचो.

गोंयची भास कोंकणी हें आयज वेगवेगळ्या दाखल्यांनी सिध्द जाल्लें आसा. फाटल्या पन्नास वर्सांत भास आनी बोली हाचेर इतलें चर्वण जालां की आज मूर्ख आनी पिसो लेगीत भास खंयची आनी बोली म्हळ्यार कितें हें सांगूंक शकता. पूण हें गिन्यान आशिल्लो मात आपणें बें म्हणलें, आपणें शेपडी घाली म्हणटले असल्या अडेच्या दुबावानी आनी इगोनी कोणूच ह्या प्रस्नाचेर उपाय काडूंक मुखार सरनांत.

हांगचो मराठीवादी मनीस कोंकणी उलयता घरांत, आतां भायर माचयेरूय कोंकणी उलयता आनी आवयभास मराठी म्हूण सांगता. पन्नास वर्सां पयलीं कोंकणीत आयचेवरीं कांयच नाशिल्लें. पूण आयज कोंकणीतल्यान पिएचडी मेरेन शिक्षण घेवप चल्लां. इतलें आसुनय मराठी माध्यम जाय अशें सांगप म्हळ्यारूच पिशेपणां. जी भास एक भास म्हूण अजुनय शिकची पडटा, जी भास शिकल्याबगर कळना, ती भास माध्यम म्हूण वापरची ही गजालूच मूर्खपणाची. ती भास कोंकणी माध्यमांतल्यान भास म्हूण शिकपाची आसता. हेर भासोय भासो म्हणून कोंकणी माध्यमांतल्यान शिकोवपाच्यो आसतात. इंग्लेजींत जाका मॅन्गो म्हणटात तो आंबो, ताका मराठी लोक आंबा, हिंदी लोक आम म्हणटात हें कोंकणींतल्यानूच समजावन सांगल्यार कळटा. विद्यार्थी गिन्यान जोडून प्रगल्भ जाता. जी भास खबर ना ते भाशेंतल्यान शिकयल्यार ते भाशेचें आनी गिन्यानाचें आकलन जावंक मेंदवांतली शक्त विभागून वता.

हें आमकां खबर आसा पूण कोणूच पावल फाटीं घेना. कोंकणीवादी घेना कित्याक ते सत्यावाटेन आसात. मराठीवादी कोंकणी मनीस आज सत्य कळून थोडो फाटीं सरला. पूण राजकीय शक्त ताका मुखार धुकलता. हाका लागून सत्यामर्दी फूट पडल्या आनी असत्याचें गाढव मुखार सरता. तेच पासत रेजिनाल्ड हो नवो आमदार हेर आमदाराच्या नेटार इंग्लीश माध्यमाचें बील विधानसभेंत हाडूंक धजावता. हीं तांचीं पिशेपणां पयस कर रे देवा.

## शिक्षणखात्याचो जनहीत विरोधी निर्णय

देवा सायबा गणराया, विद्येच्या देवा. गोंय सरकारचें शिक्षण खातें हें गोंयांतल्या दरेक नागरीकांक शिक्षण मेळचें देखून सुरू केल्लें. राज्यांतलो एकूय भुरगो शिक्षणा पासून वंचीत उरचो न्हय ही शिक्षणखात्याची पयली मोख.

शिक्षणाचें म्हत्व वळखून गोंयचे पयले मुखेलमंत्री दयानंद बांदोडकार हाणीं वाड्यावाड्यार शाळा सुरू केल्ल्यो देवा. शिक्षणाकडेन धंदो म्हूण पळोवंक फावना आनी आर्थिक लाव लुकसाणाचो हिशेब तर हांगा करूंकच फावना. हिशेब लावपाचोच आसा जाल्यार भुरग्यांक ह्या शिक्षणाचो लाव कितलो जावंक पावलो आनी लुकसाण कितलें जालें हाचो हिशेब लावन तातूंत सुदारण घडोवन हाडपाची गरज आसा.

पूण देवा, आयज शिक्षण खातें कमी भुरगे जे शाळेंत आसात ती शाळा बंद करून उडयतात. कित्याक तर ते शाळेचो खर्च सरकाराक लुकसाणींत घालता.

देवा वक्रतुंडा, गोंयचे शिक्षण चालक शिक्षणाच्या ध्येय धोरणांकडेन वाकडे नदरेनूच न्हय तर वक्रविचारांनी पळयतात. पंदरा परस उणे विद्यार्थी आशिल्ल्यो मुळाव्यो शाळा बंद करपाचो निर्णय शिक्षणखातें घेता तो अन्यायकारक आसा. भारतीय घटनेन देशांतल्या सगळ्या चवदा वर्सां मेरेनच्या भुरग्यांक फुकट शिक्षणाचो अधिकार दिल्लो आसा. तशेंच ह्या पिरायेच्या खंयच्याय भुरग्याक ताच्या पालकांनीं शिक्षणापासून वंचीत दवरले जाल्यार त्या पालकांकूय ख्यास्त दिवपाची तरतूद कायद्यान केल्ली आसा. अशें आसतना आशिल्ल्यो शाळा बंद करून, भुरग्यांक शिक्षणापासून पयस दवरपाचो यत्न करप म्हळ्यार घटनेच्या आड वचप हें अजून शिक्षणखात्याक कळना. तेन्ना हें शिक्षणखातें हेरांक कसलें शिक्षण दितलें? कर्माचें!

देवा गणपती, सरकार ही जनतेच्या दुडवांचेर चलपी वेवस्ता. सगळेचकडेन धंदेवाईक वृत्तीन आर्थिक फायद्याचो विचार जावंचो न्हय देखून सरकार कांय गजाली राबयता. सरकारान राबोवंक जाय. एके शाळेंत उण्यांत उणे पंदरा विद्यार्थी आसचे ही मर्यादा बरी आसा. पूण समजा एके शाळेंत थंयच गांवात उणीं लोक संख्या आशिल्ल्यान उणी भुरगीं आसात. आनी ताका लागून शाळेंत मर्यादा घाल्ल्या संख्येपरस उणीं भुरगीं आयलीं जाल्यार, पयलीं जीं भुरगीं आसात

तांच्याय शिक्षणाचो आबाळ करपाचो? भुरगीं उणीं म्हूण शाळा बंद करून तांकां पयसुल्ले दुसरे शाळेंत वच म्हूण सक्ती करपाचें? हीं भुरगीं तशें करतलीं? सरकारान तांका ते पासत फुकट हेरादारीची वेवस्ता केल्या?

देवा गणपती, दरेक किलोमिटराचेर शिक्षणाची वेवस्ता करची, आदिवासीच्या भुरग्यांखातीर रानांत लेगीत शाळा घालच्यो, फकत भुरग्यांकूच न्हय तर पयलीं शाळेंत वचूंक पावूंक नाशिल्ल्या जाणट्यांक जर उतारपिरायेर शिक्षण घेवपाचें आसत जाल्यार तांच्याय शिक्षणाची वेवस्ता जावंक जाय हाची तरतूद राष्ट्रीय शिक्षणीक धोरणात आसा. अशें आसतनाय शिक्षण खात्याची तकली खंयचे दिकेन चलता देवा?

देवा गणपती, आमच्या गोंयांत पंदरां परस उणीं भुरगीं आशिल्ल्यो १७२ शाळा आसात. त्यो शाळा बंद करून त्या शाळांतल्या भुरग्यांची वेवस्ता हेर शाळांनी करपाचो शिक्षणखात्याचो हावेस आसा. सद्या ह्यो शाळा बंद करून फुडले वर्सा भुरगीं वाडल्यार त्यो शाळा परत सुरू करतले अशें शिक्षण खातें सांगता आनी पणसाचीं पानां पळसाक लायता.

देवा, गणराया एकदां खंयचीय गजाल बंद जाली काय ती परत सुरू जायना. ते भायर शाळा बंद जावपी गांवांत फुडल्या वर्सा भुरगीं जातलीं अशें शिक्षणखातें आस्त बाळगून आसा. ही कृती म्हळ्यार पिशाक पिंपळ दाखोवप अशें तुका दिसना?

तेन्ना देवा, शिक्षण म्हळ्यार धंदो न्हय. ती सरकारची पयली लागणूक. एके शाळेंत पंदरा भुरगीं न्हय तर पांच लेगीत आसल्यार ती शाळा चलोवपाचें सरकारचें कर्तव्य थारता. तेंय बी हेर शाळांनी आशिल्लो सगळ्यो सुविधायो दिवन. जर सरकार अशें करिना जाल्यार तो घटनेचो अवमान जाता हें ह्या बोंड्यांचे तकलेंत घाल रे देवा!

**गोंयची भास कोंकणी हें आयज वेगवेगळ्या दाखल्यांनी सिध्द जाल्लें आसा. फाटल्या पन्नास वर्सांत भास आनी बोली हाचेर इतलें चर्वण जालां की आज मूर्ख आनी पिसो लेगीत भास खंयची आनी बोली म्हळ्यार कितें हें सांगूंक शकता.**



## गणराया, गणाधीशा, गणाक बुध्द दी

हे गणराया गणपती गणाधिशा तूं गणांचो ईश, गणांचो पती, गणांचो राय. असंख्य वर्सां गणांचेर राज्य करून त्या गणांचो पती, गणांचो राय जावंक पावलो. जसो तूं शास्वत तशे गणूय शास्वत देखून आयज तुज्या आशिर्वादान आमच्या देशांत गणांचेंच राज, गणराज चलता, गणतंत्रान चलपी हें गणाचें राज. पूण देवा गणपती हें गणतंत्र फकत नांवाचें. स्नायुबळाचेर, दुडवां बळाचेर आज कोणूय उट्ठा, तुज्या गणांक सोरो आनी चिकन खावयता. तांका विकते घेवन तांचो राय जाता. तूं विद्येचो देव न्हय तर मातये देव म्हूण तुजीं खेबाडां करून हेच गणांचे राय जातात. हे लंबोदरा, तूं तुज्या गणांचीं पातकां पोटांत घेता. पूण आयज तुज्याय परस लांब पोटां हांचीं आसात. तांच्या पोटांत कितलेंय गेलें तरी तें भरना. म्हणटकच खऱ्या अर्थान हेच गणांचे पती. हेच खावन खावन पोट सुटिल्ले लंबोदर! ह्या लोकांक मातोवपाचें काम गणांनीच केलां. देखून हे बुध्दीदात्या, ह्या गणांक बुध्द दी खरो लंबोदर कोण आनी खरो गणपती कोण हाची वळख आयज आमच्या गणांक ना. जो दुडू दिता तोच आपलो पती, जो सोरो घालता तोच आपलो राय. ताच्याच पांयार घालून घेवप हेंच ह्या गणांचें आयचें काम जालां. तेन्ना हे देवा, तांच्या कट्टुलांत खरी गजाल भर. तुजे गण जे सैरभैर जाल्यात तांकां आतांच आवर आनी जाग्यार हाड. नातर परतूय हे गण बावचळटले आनी जल्मभर हांकाच माथ्यार घेवन नाचयतले. देवा विघ्न हर्त्या, तुका आमी पुजतात देड दीस, पांच दीस, इकरा दीस भजतात. त्याच भक्तीभावान आमी तुजें विसर्जनूय करतात. पूण हे आमचे गण आयच्या गणरायांक पुजतात. तांका जाय जाय तें पोट फुटसर खावयतात. माथ्यार मारून नाचय नाचय नाचयतात. पूण एकल्याचेंय विसर्जन करिनांत. हांचें विसर्जन करपाची बुध्द हांकां दी रे देवा!



कथा

# सर



रवीन्द्राची गाडी गर्ल्स हॉस्टेलाच्या भायर आसा ती पळोवन सिन्ड्रेला हॉस्टेलांतल्यान भायर आयलें. तरणाटो रवीन्द्र कॉलेजींत शिकयतालो जाल्यार सिन्ड्रेला ते कॉलेजींत शिकतालें. दोगांय एकाच गांवचीं आशिल्ल्यान कोणाक दुबाव घेवपाची गरज नासली.

"सर, पावस अटंग्याचो झडटा आनी तुमी..."

"सिन्ड्रेला, दोन वरां जालीं उबो आसां.... कितलो मोबायलार कॉल केलो तुका..."

"सर, मोबायल टोटल्ली डिस्चार्ज आसा... सर, तुमी राहुलसराबद्दलच विचारपाक आयिल्ले न्हय?"

"हय, चल यो कॅन्टीनांत बसून उलोवया."

रवीन्द्राचे गाडयेंत बसून सिन्ड्रेला कॅन्टिनांत आयलें.

"सिन्ड्रेला, काल राहुलान म्हाका तुजें क्लासमेट, रिचा दाखयलें. ताणें कायनेटीक पार्क केल्ली थंय आमी दोगांय गाडयेंत बसून रावलीं ॲण्ड एनी वे... म्हाका तें चली तितलेंशें लायक जावंक ना. टोटल इमेच्युअर..."

"सर एक्झेक्टली, तेंच हांव तुमकां सांगतालें. इतल्यो चलयो आसतना, राहुल सराक तें रिचाच कित्याक आवडलें? ओ. के. शी इज गूड लुकिंग. पूण ताचेविशीं हॉस्टेलांत कोणाचेंच मत बरें ना. शी इज यूसलेस."

"ल्हव इज ब्लायंड. राहुलाक आतां आतां पटपाक लागलां. पूण जेन्ना आमी थंय गाडयेंत बसून आसले, तेन्ना हांवें एक गजाल नोटीस केली... हाव एबाऊट टीना?"

"सर, टीना, रिचा... तीं सगळीं एकाच ग्रुपांतलीं."

"म्हणजे टीनाचोय बॉयफ्रेन्ड आसा?"

"खबर ना. पूण रिचा एकट्यावांगडा हेडत आसता. वायट प्रवृत्तीचो भुरगो तो. ही इज युजींग हर बॅडली."

"रिचाचें सोड. पूण हें टीना खूब मॅच्युअर आसा. कारण हांव मनशांक पारखुपाक चुकना. तें स्मार्ट आसा आनी राहुलय..."

"सर, यु मीन टू से, राहुलसराक आतां हें अचानक टीना लायक जावपाक लागलें? माय गॉड... चल्लां कितें?"

"म्हाका दिसता, राहुलान तशें कांयच सांगूंक ना. पूण एक, रिचाक तांणें मनांतल्यान काडलां. म्हाका भंय दिसता, घडये राहुल डिप्रेशनांत वचत. जे तरेन टीना काल राहुलाक नियाळटालें... आय हॅव ए फिलिंग... ताचें पुराय नांव कितें? खंय रावता?"

"सर, टीना मडगांवकार, बट शी इज कॅथोलिक, फातोर्डा रावता."

"वी डॉन्ट बिलिव्ह इन रिलिजन... बट हाव कम कॅथोलिक?"

"हर मदर इज क्रिस्टियन ॲण्ड शी फोलोवस क्रिस्टिनीयटी"

"कॅन यू आस्क हर... अबाउट राहुल?"

"सर कालूच तुमी रिचाबद्दल विचारपाक लायिल्लें. ॲण्ड इनफेक्ट तें प्रोपोसल घेवन हांव टीना म्हऱ्यानच वचपाचें आसलें. टीना आनी रिचा आर क्लोज फ्रेन्डस!"

"दॅट मिन्स यू आर क्लोज टू टीना. गो अहेड."

"सर हीं फकाणां चल्ल्यां?"

"यू जस्ट आस्क हर!"

"यू मीन टीनाक राहुलसराचे फिलिंग्सबद्दल?"



कॅम्पसांत राहुल सर आनी देसाय सर सांजेर पासय मारताले. दोगय समवयस्क. राहुल ओगी सो जाणवतालो.

"राहुल एनी प्रोब्लेम. रिचाक प्रपोसल धाडलें?"

"विनोद, ताका हांवें मनांतल्यान काडलां. ताचो बॉयफ्रेन्ड आसा."

"आरे हे तरणाटे पिरायेर गूड लुकिंग चलयांचे बॉयफ्रेन्ड आसतातूच. पूण राव रे फाटलीं तीन वर्सां तूं तुज्या ह्या

स्टुडंटाचेर एकतर्फी मोग करतालो आनी आयज आतां हें अचानक...''

''वी हॅव टू बी प्रॅक्टिकल इन लायफ. तें आतां पयलींचें रिचा उरूंक ना. शी हॅज बीन युज्ड ॲण्ड एब्युज्ड... लिटरली.''

''आरे शाण्या, रिचाकडे एकदां तरी पर्सनली उलय. राहुल, यु आर मॅग्नेट. युज युवर पॉवर ऑफ मॅग्नेटिजम.''

''आरे म्हज्याच लायफांत अशें कित्याक जाता? जें चली आवडटा, तें नेमकें दुसऱ्याच वांगडा हेडटा.''

दोगूय कॅम्पसांतल्या एका बाकार बसले. टीना आनी ताच्या ग्रुपांतलीं तीगजाणां जेवणाक कॅन्टिनांत वतालीं. ग्रूप हांच्या सामकारा पावलो. एकलें स्टुडंट पद गुणगुणपाक लागलें, ''आजा आजा जिंद शामियाने के तले, आजा जरिवाले निले आसमान के तले..''

हें आयकनाफुडें बाकिचीं दोगांय हांसपाक लागलीं. टीना माकोड सो हुप्प करून मोन्यांनी गेलें.

विनोदान राहुलाच्या तोंडाक पळेलें. राहुल टिनाच्या फाटमोऱ्या आकृतीकडे पळयत उरलो.

''चल या.'' विनोद आपली पॅण्ट फाफडीत उठलो.



स्टाफरूमाभायर नोटीसबोर्डाकडे एकांतांत रावन सिन्ड्रेला आनी रवीन्द्र एकमेकाकडे उलयता तें पळोवन, राहुल तकली सकयल घालून स्टाफरुमांत आयलो. कानांत इयर फोन्स घालून, मोबायलार 'जय हो' चें टायटल सॉंग आयकत रावलो! काल रातभर ह्या पदान ताका न्हीद पडपाक दिली ना. परत परत आयकून तो आपले परीन, त्या पदाचो अर्थ सोदून काडपाचो यत्न करतालो.



रातचें ह्याच कारणाक लागून जागरण जाल्ल्यान, बशिल्लेकडेन ताका दोळो लागलो. रवीन्द्र भितर आयलो, राहुलाक हाताक धरून हालयत म्हणपाक लागलो, ''न्हीद येता दिसता. चल यो, गरमा गरम चाय मारून येवया.''

दोगूय कॅन्टीनांत आयले. राहुलाक ओगी सो पळोवन, रवीन्द्रान सुरवात केली, ''राहुल आर यू रियली सिरियस अबाउट टीना?''

''म्हाका खऱ्यांनींच कांयच समजना.''– राहुल उत्तरलो.

''पळय तूं सर, तें स्टुडंट. तें पास जातलें वतलें. तुका हांगाच रावपाचो आसा. तुजो स्वताचो असो फॅन फोलोवींग आसा. तांणें हय म्हटल्यार बरें आसा, ना म्हटल्यार तूं ना घर का ना घाट का. देन यू आर फिनिश्ड.''

''हरशींय म्हण हांवें म्हज्या पासत जगपाचेंच सोडून दिलां. माय लायफ इज पेन्डींग.''

''एनी वे, टीना तुजे लागीं उलोवपाक सोदता. सिन्ड्रेला ताजे लागीं उलयलां.''

हें आयकनाफुडें राहुलान रवीन्द्राच्या दोळ्यांत पळेलें आनी हयकारान मान हालोवन ताच्या हातार हात दवरलो.



''सर''

''प्लिज टिना. हांगा आतां तरी सर म्हणी नाका. जमता जाल्यार राहुलच म्हण.''

''सर.... सॉरी राहुल... वीस मिण्टां जालीं आमी हांगा बसल्यार... तूं एक उतर उलोवंक ना.''

''म्हजे लागीं उतरांच ना.''

''नावाजलेलो रायटर. रायटर जावन उतरां ना? तुवें बरयल्ल्यो कथा हांवें वाचल्यात, खूब रोमेन्टीक आसता... पूण तूं मात...''

''स्टोरी बरयतना सगळीं पात्रां म्हज्याच हातांत आसतात. सगळे प्रसंग, सगळ्यो घडणुको म्हज्यान जाता तश्यो नाचोवपाक जाता.''

''सिन्ड्रेलान म्हाका सगळें सांगलां. आपल्या मोगाची कल्पना जेन्ना चलो दुसऱ्या कोणाकडल्यान पावयता, तेन्ना आमकां चलयांक तें आवडना... राहुल, मोग, लव म्हणजे कितें?''

''आय मायसेल्फ डोन्ट नो.''

''इतल्यो शेकड्यांनीं तुवें लव स्टोरीज बरयल्यात आनी नेमको मोग कितें, हें तुकाच खबर ना? अनबिलिवेबल!''

''खबर ना. कारण म्हज्या ह्या स्टोरींतलीं पात्रां म्हज्या हातांत ना. आय लव यू.''

''वेट अ मिनिट. आमी आयज पयलेच खेप मेळटांत. एकमेकांक आमी नीट वळखनांत, तूं सरळ अशें बिनधिक्कत कशें म्हणपाक शकता?''

''तोच म्हजो प्रोब्लेम. म्हजेलागीं पांशियेंस ना. वळख काडून इश्टागत करची, ती जातकच मोग करचो... एकमेकांक तो

मेरेन आश्वासन दिवन फटोवपाचें... म्हाका आवडना. एन्ड प्रोडक्ट कितें? एक चलो, एके चलयेक लायक करता, लव करता. आय लायक टू बी प्रेक्टिकल इन लायफ.''

''ओ. के. म्हाकाय प्रेक्टिकल जावंदी. हांव नांवान हिन्दू, टीना मडगांवकार, बट आय फॉलो क्रिस्टीयनीटी. म्हजी मम्मा क्रिस्टियन. डॅडावांगडा पटना. आय हेट माय डॅड. ही इज हिन्दू. आय एम प्युअरली ए कॅथोलिक गर्ल.''

''ह्युमॅनिटी इज माय रिलिजन.''

''धरून चलया. म्हाकाय तूं पिसो आवडटा. मुखार कितें? म्हजी मम्मा तुका एक्सेप्ट करना जाल्यार, हांव तुजे वांगडा स्वखुशयेन येवपाक शकतां. हांव एकुलतें एक, तितलेंच हट्टी. वॉट अबाऊट युवर फॅमिली? विल दे एक्सेप्ट?''

''तो प्रस्न ना. आयज मेरेन हांवेंच म्हजी फॅमिली एक्सेप्ट करूंक ना.''

''म्हणजे?''

''हांव जिवाक विटलां. सामको बेजारलां. माय फॅमिली, एनी वे केन्नाच रेडी जावची ना, फॉर एब्सोल्युटली नो रिझन.''

''देन, इट इज सिंपल. फॉर्गेट मी.''

''हें इतलें सोपें आशिल्लें जाल्यार हांव हांगा चड मरपाक येवपाचों!''

''गूड बाय!''



राहुलाचो मोबायल वाजलो.

''राहुल, हांव रे रवीन्द्र. बेगीन कॅन्टीनांत यो. फाटले वटेन सात नंबरच्या टेबलार.''

राहुल कॅन्टिनांत येता. आडसाक सात नंबरच्या टेबलार. थंय सिन्ड्रेला एकटेंच आसता.

''सर, बसात. रवीन्द्र सर धा-पंदरा मिन्टांनीं येतलो.''

''थेंक्स सिन्ड्रेला. थॅंक्स फॉर युवर सपोर्ट.''

''सर काल टीना तुमकां मेळून गेलें खंय? सर एक सांग. रिचा आनी टीना टोटली डिफरंट. रिचा बाय हार्ट, टीना बाय मायण्ड. टीना बरें चली. शी लायक्स यू. शी इज नॉट ऍनी अदर ओर्डिनरी गर्ल. तसलें चली मेळपाक लक जाय.''

''आय ॲग्री टू वॉट यू से, सिन्ड्रेला.''

''शी इज डिपली इन लव वीथ यू... सर तें, तुमचे खातीर कितेंय करपाक तयार आसा.''

''म्हाका तशें जाल्लें नाका. आय रिस्पेक्ट हर आयडेन्टिटी. आय लव हर, फॉर वॉट शी इज. हांव ताच्या अस्तित्वाचेर मोग करतां. आय रिस्पेक्ट हर लव फॉर हर रिलिजन.''

''सर हांव ल्हान. पूण मोगांत कोम्प्रोमायज जायच पडटा.''

''कसल्या कारणाक लागून? म्हाका आवट्याक लागून तें स्वताचो धर्म सोडपाक तयार जाता... हीं पिशेंपणां. अशें केल्ल्यान तें स्वताची वळख विसरतलें. हें.... हें दिसता तितलें सोपें ना. आयज तें बिंदास जगता. फाल्यां आपल्या ह्याच पिशेपणाक लागून बंदिस्त जातलें. म्हाका लागून तरी ताका हांव हीं पिशेंपणां करपाक दिवचो ना. खंयचोय मनीस, एकाद्रयाच्या धर्मापरस म्हान जावपाक शकना. शी इज रिच. शी इज बोल्ड. ॲण्ड शी इज ब्युटीफूल. जें सर्वसामान्य चलयेचें सपन आसता तें सूख ताच्या पायांकडेन लोळण घेता. ताची मामा-डॅडा ताचे पसत सुपर रीच भुरग्याच्या सोदांत आसतलीं. एक असो भुरगो जो ताका जिवितांत कांयच कमी पडपाक दिवचो ना. एक असो भुरगो जाचे लागीं, हाका जाय ती वस्त घेवन दिवपासारको पयसो आसतलो. एक असो भुरगो जो ताका ज्युवेलरींनीं-डायमन्डांनीं सजयतलो. म्हजे लागीं कितें आसा? हांव एक सादो कॉलेजींत शिकोवपी प्रोफेसर. हांव ताका कितलो सुखी दवरतलों? माय लायफ इज डिफरेंट. आय ॲम डिफरेंट. आमीं जशीं आसात तशींच सुखी आसात!''

''पूण हांव सुखी ना.'' टीना थंय सात नंबराच्या टेबलाकडेन आयलें, आनी फुडें म्हणपाक लागलें, ''येदोळच्यान हांव तुज्याच फाटल्यान उबें आसलें. सगळें आयकलें. राहुल हो सगळो रायट तुकां कोणें दिलो? मान्य आसा तूं फेमस रायटर. पूण संवसाराचीं सुत्रां दुसऱ्याच कोणाच्या हातांत आसतात. म्हज्या आनी तुज्या न्हय. सिन्ड्रेलावरवीं मॅसेज धाडचे पयलींच हें तुवें येवजुपाचें. सॉरी, येवजुपाक जाय आसलें. तूंच खेळ मांडटा, तूं एकलोच खेळटा, तूंच जिकता, तूंच हरता आनी डाव अर्द्यार सोडून तूंच वता. रंगाचो बेरंग करून सगळें इबाडटा. चल्लां कितें? तुवें केन्ना म्हज्या मनाचो विचार केलो?... खंय तरी म्हाका भितर दिसतालें की येस यु आर दी ओन्ली पर्सन जाचे वांगडा हांव सुखान रावपाक शकतां.... तूं आपसुवार्थी. तूं सदां तुजेंच येवजिता. आय डोन्ट नो, हाव कम यू हॅव स्टील सो मेनी फ्रेन्डस! व्हाय डोन्ट यू थिंक अबाऊट अदर्स... अबाऊट मी... अबाऊट अवर लायफ.... आनी एक मर्तीत दवर तूं जर म्हजो स्विकार करना जाल्यार हांव जिवितांत केन्नाच खोशी जावंचें ना. सॉरी, जावंक पावचें ना. देवावेलो म्हजो भावार्त उठतलो. पिश्या, रिलिजनाचें, धर्माचें तूं कितें घेवन बसला?''

टीनाचे दोळे दुकांनी भरिल्ले. तें वचपाक वळलें. तेन्नाच राहुलान ताचे फाटीर हात दवरलो आनी म्हळें, ''हांव तुजो स्विकार करपाक समर्थ आसां.''

दोगांयनी सिंड्रेलाच्या समक्ष त्या सात नंबराच्या टेबलाक साक्षी मानून वेंग मारली.



**- सनी डायस**
घर नं. ८२,
बांदा आसोळणे,
साश्ट-गोंय.

**नवलिका** (धारावाहीक)

# बावकें



धीरू शीलाक फारावपा खातीर गरी लावन बशिल्लो. खंयचेय कॉलेजींत आयिल्ले नवे चलयेक फारावपा खातीर गिरेस्तांले चले जशे सापळो बांदून बसतात तातूंतलो धीरू. पयले दिसा धीरून शीलाक लीफ्ट दिवपाचो यत्न केलो. प्रस्नाक फाटो फोडचो न्हय म्हण शीलान ताची लीफ्ट घेतली. धीरूक दिसलें शीला फारावलें. दुसऱ्याय दीस तो ताची वाट पळयत रावलो. शीलाक ही मजाल मुखार व्हरपाची नाशिल्ली. ताणें हेरांमुखार ताचो अपमान केलो. तिडावल्लो धीरू शीलाचो बदलो घेवंक फुरफुरलो. आपल्या इश्टांक घेवन ताणें आड वाटेर शीलाक आडावन जबरदस्ती केली. त्याच वेळार प्रथमेश थंय पावता आनी तो शीलाक सोडयता.

धीरू आनी प्रथमेश दोन दादले. दोगांयची वेग-वेगळी रुपां. शीलाचें मन दोगांयची तुळा करता आनी शीला प्रथमेशाचे वटेन ओडटा. तें ताच्या मोगांत पडटा. तांचो हो मोग खंय पावता? फुडें शीला कितें करता? **नं. ध. बोरकार** हांचे **बावकें** हे धारावाहीक कादंबरीतल्या निमण्या प्रकरणांत कितें घडटा तें पळोवया!

**आ**मी आमच्या भुरग्यांच्या लग्ना वेळार प्रतिश्ठीत घराब्यांकडेन संबंद जोडूंक पळेतात. अशें करतना एकाद्रया घराब्याचें कूळ आनी मूळ, ताचे धागे-दोरे खंय-खंय आसात हें खोलायेन सोदून काडपाच्या कामाक लागतात. पूण एका तेंपार घरंदाज आशिल्ले, नांवलोवकीकाक पाविल्ले घराबे आतां खंय पावल्यात, त्या घराब्यांतले दिवटे आतां खंय उजवाड घालतात, खंयच्या येमकोंडांच्या दारार उबे रावन पारो करतात, हाची चोवकशी करपाचे भानगडींत कोण पडनात. असल्या वगतार गरजवंताचे मजतीक समाजांतले जाळवणदार आनी कारभारी धावून येतात. ह्या लोकांचो हेत फकत आपलो सुवार्थ सादोवन घेवपाचो आसता. ताका लागून फाटल्या तेंपार आमच्या भुरग्यांक-चड करून चलयांक-तोंड धापून सगळें सोंसचें पडटालें.

पूण आतां आदलो तेंप उरूंक ना. चलयो उच्च शिक्षण घेवन फुडें पावल्यात. तांकां आपलें बरें-वायट कळटा. आपल्या आवय-बापायक पयस दवरून, नात्या-गोत्यांतल्या मनशांचें कोंत करिनासतना त्यो चडशो आपले प्रस्न सुटावे करपाक स्वताच निर्णय घेतात. तांणीं घेतिल्ले सगळेच निर्णय तांच्या फायद्याक पडटाच अशें नासता. पूण तांचे दुस्परिणाम भोगपाची तांची तयारी आसता. तेच परी फुडाराक उप्रासपी दुस्परिणाम टाळपाचो तांचो प्रयत्न आसताच.

शीलाच्या जिवितांत प्रथमेश आयिल्ल्यान ताचें मन गोंदळून गेल्लें. अथीर जाल्लें ताचें मन. अभ्यास करतना, जेवता-खातना प्रथमेशाचेच विचार येताले ताच्या मनांत. ताका दिसतालें, मनांत अशे तरेचो गोंदळ चालू दवरप समा न्हय. ताका दिसतालें, प्रथमेशाकडेन वचचें. ताचेकडेन इश्टागत करची. ताचें मन जाणोवन घेवचें. विचार समजून घेवचे. दुडू आनी भाटां-बेसांचे गिरेस्तकायेपरस विचारधन चड मोलाचें आसता. एकाद्रे व्यक्तीन आनी ताच्या वाडवडलांनी जोडून दवरिल्ली गिरेस्तकाय केन्नाय नश्ट जावंक शकता. मात मनशाचें विचारधन निमणे मेरेन ताका जगपाक बळगें दिता. हें शीलाक कळटालें.

शीलान आतां थारायलें. प्रथमेशाची भेट घेवची. भेटपाक ताका निमित्तूय आशिल्लें. प्रथमेशान ताका धीरूकडेन झूंज दिवन सोडयल्लें. अजून ताणें ताका थँक्स दिवंक नाशिल्ले. हे संदीचो ताणें

लाव घेवपाचें थारायलें. एक दीस आयताराचें ताणें सुमना वांगडा वचून प्रथमेशाक मेळचें अशें थारायलें.

सुमन आतां ताची आवडटी इश्टीण जाल्ली. सुमनाक प्रथमेश खंय-खंय आसतलो, हाची पक्की खबर आशिल्ली. दोगीय इश्टीणींनीं प्रथमेशाक जाता तितले बेगीन भेटपाचें थारायलें. आयज दीस आनी वेळ थारावपाक सुमन मुजरत शीला म्हऱ्यांत आयलें. शीलासारके आपले इश्टीणी खातीर कितें तरी करचें अशें दिसतालें सुमनाक.

''शीला, फाल्यां शुक्रार मगो?''

''हय. कित्याक गो?'' मातशें आकांतल्या भशेन जावन प्रस्न गेलो.

''फाल्यां भेटुया मगो आमी ताका?'' सुमनान उक्त्या मनान प्रस्न केलो.

''कोणाक गो?'' शीलान उत्सुकतायेन प्रस्न केलो.

''तुज्या मोग्याक, आनी कोणाक?'' सुमनान दांत दाखयत म्हळें.

''शडाप! फाजीलपणां करूं नाका म्हजे मुखार.''

''तुका प्रथमेशाक भेटूंक जाय म्हणटालें न्हय गो तूं?'' सुमनान आपलो चेरो निर्विकार करून म्हळें.

''हय. म्हाका ताका कशेयभशेन मेळूंक जाय गो सुमन!'' शीलान आपलो निश्चेव उक्तायलो.

''तशें जाल्यार फाल्यांच भेटुया मगो ताका आमी!''

''फाल्यां जाल्यार फाल्यां भेटुया. पूण तो मेळटलो खंय फाल्यां?'' शीलान चेऱ्यावेलो उजवाड लिपयत म्हळें.

''फाल्यां तो कोमुनिदाद हॉलांत येतलो.'' सुमनान म्हायती दिली.

''थंय सो कित्याक गो बाये?'' शीलान अजापून म्हळें.

''थंय तो सोमार, बुधवार आनी शुक्राराचो हिन्दी प्रवीण शिकपाक वता.'' सुमनान म्हायती दिली.

''तें बरें आसा गो. पूण तो क्लासाक आसतलो. आमीं कितें करपाचें थंय वचून?'' शीलान आपली अडचण उक्तायली.

''आवंय! शी बाये!! कितें गो शीला तूं? इतलें शाणें आसुनूय पिशेपणां उलयता मगो तूं? तुका इतलेंय कळना गो? क्लास सुटचे आदीं पांच-धा मिनटां आदीं वचपाचें आनी ताची वाट पळेत भायर उबीं रावपाचें.'' शीलाहून आपूण शाणें आशिल्ल्याचें सुमनान दाखोवपाचो यत्न केलो.

''आनी मागीर थंयच उलयतलीं गो ताचेकडे?''

शीला प्रथमेशाकडेन थंडपणान पांच-धा मिनटां तरी उलोवंक सोदतालें. ताच्या उलोवण्यावेल्यान ताका तें आनीकूय पारखूंक सोदतालें. ताच्या मनाचो थाव घेवंक जाय आशिल्लो ताका.

''थंय कित्याक, आमी गार्डनांत या ताका घेवन. मुन्शीपाल्टी गार्डन थंयच्यान लागींच आसा.''

शीलान चिंतलें, वांगडा सुमन आसा. प्रथमेशा वांगडा गार्डनांत वचपाक हरकत ना. गार्डनांत भोंवतासतना कोणूय वळखीचो भेटपाची शक्यताय आसा. तेन्ना प्रथमेश कोणा वांगडा गार्डनांत आयला, हें स्पश्ट जावंक फावना. हाची जतनाय घेवंची पडटली, अशे विचार शीलाच्या मनांत आतां घोळूंक लागिल्ले.

शीलाक आदीं दिसतालें, चले-चलयांनीं आपसांत मेकळेपणान वागचें. भाव-भयणां वागतात तशें. नितळ मनान. लज-भीड बाळगी नासतना.

पूण धीरूचे भेटीन, ताचेकडे मेकळेपणान वागून, खतखतीत दूद पिल्या उपरांत तोंड लासिल्ल्याची गत जाल्ली शीलाची. तेन्ना सावन ताक लेगीत हळू फूक मारून पिवचेंशें दिसतालें ताका.

थरयल्ल्या प्रमाण शीला आनी सुमन कोमुनिदाद सभाघरा भायर पांच मिनटां आदींच पावलीं. वर्ग सुटलो. चार-पांच भुरगे उलयत-उलयत भायर आयले. तातूंत प्रथमेश नासलो. खरें म्हळ्यार वर्गांत सात-आठूच भुरगे शिकताले.

थोडे वेळान आनीक दोन चली भुरगीं वर्गांतल्यान स्कर्टांतलें कमर हालयत भायर सरलीं, तांचीं तोंडां मातय उसंत धरिनासतना बडबडटालीं.

बरोच वेळ पासार जालो. तरी प्रथमेशाचो पत्तो ना. सुमनाच्या मनांत पाल चुकचुकली. हो आयज आयलोना बी काय? तसो क्लास चुकोवपी भुरगो न्हय तो. कितें जालें काय?

''कितें करूया गो शीला? या मगो आमी आतां?''

''या तर आनी कितें करतलीं?'' अशें म्हणटनां शीलाचें तोंड येदेंऽ जालें. प्रथमेशाची भेट जावंक नाशिल्ल्यान शीला निर्शेल्ल्याचे भाव ताच्या चेऱ्यार स्पश्ट दिसताले.

आतां तांचीं पावलां रस्त्या दिकेन वळिल्लीं मात, प्रथमेश वर्गांतल्यान भायर सरलो. ताच्या वांगडा वर्गाचो अध्यापक आशिल्लो. अध्यापक आपलो हात प्रथमेशाच्या खांदार दवरून उलयत चलतालो. ताका लागून प्रथमेशाक हेवटेन-तेवटेन पळोवपाची संद मेळनाशिल्ली.

मात प्रथमेशाक पळोवन दोगीय इश्टिणी खोशी जाल्यो.

''नमस्ते जी!'' सुमनान दोन धेपां फुडें वचून प्रथमेशाचीं फकणां करपाच्या उद्देशान म्हळें. प्रथमेशान दोगांकूय फक्त स्मित केलें. सुमनान अध्यापकाक अभिवादन केलें. तें ताका आदींसावन वळखतालें. अध्यापकाच्या आतां लक्षांत आयलें, सुमन आनी ताचे वांगडी प्रथमेशाक मेळूंक आयल्यात. ताणें ''अच्छा जी'' म्हणून आपली वाट धरली.

''प्रथमेश, तूं हाका वळखता?''

शीलाक बोट दाखोवन सुमनान प्रथमेशाक प्रस्न केलो.

कांय दिसां पयलीं प्रथमेशान शीलाक धीरूचे तावडींतल्यान सोडयल्लें. नाय म्हळ्यार, आपणें एके सुंदर आनी ओडलायणे चलयेक गुंडांपसून मुक्त केल्या हाची जाणविकाय प्रथमेशाक आशिल्ली. तें सुंदर आनी आकर्शक आसुनूय ताका बारीकसाणीन पळोवचें अशें प्रथमेशाक दिसूं नाशिल्लें. मात ताच्या मोव-मोव थानाचो सुखदिणो स्पर्श तो अजून विसरूंक नाशिल्लो.

त्या प्रसंगा उपरांत प्रथमेश शीलाक आतां पयलेच फावट पळयतालो. ते दिसा गुंडांपसून सोडयल्लें चली तें हेंच, हें कळपाक प्रथमेशाक चड कळाव लागलो ना. शीलाक सोडोवपाक सुमनानूच आफोवन व्हेल्लो. आनी आतां शीला सुमना वांगडा प्रथमेशा सामकारा उबें आशिल्लें.

शाळा-कॉलेजीक वचपाचो-खास करून चलयांचो पोशेग खाशेलो आनी हेरकडे वचपाचो वेगळो आसता. ते दिसा शीला कॉलेजीच्या पोशेगींत आशिल्लें. ते पासत तें तितलेंशें फुलून दिसनाशिल्लें. आयज मात तें खाशेल्या पोशेगींत खाशेल्या मनशाक मेळूंक आयिल्लें. ताचो पोशेग सादोच आशिल्लो. पूण तो शीलाचे सुंदरकायेंत चडच भर घालतालो.

सुंदर मनशाक कितेंय सोबता म्हणटात तें हांगा शीलाचे बाबतींत प्रमाणीत जातालें. तशें तें आंगलटीन मातशें जाड-जूड. पूण आपले मामीगेर येवन राविल्ल्यान ताका इल्ली शिडशिडसाण आयिल्ली. ही शिडशिडसाण, आंगभर गोरसाण, चेऱ्यार तिकतिकी, चाफ्याकळयेची याद करून दिवपी सुसोबीत लांबशें नाक, गोबे काडिल्ल्या केळी कांडावरी दोनूय पांय; तिकली विरयत रूंद कपल, नागडे हात, उकतो गळो आनी मुजरत केल्लो बॉबकट! भांगरांशिंगरांकूय लजोवपी ह्या भेसांत शीला आयज चडूच देखणें दिसतालें.



प्रथमेश सुवार्थी विचारांचो नाशिल्लो. आपले पेल्याची ताका जाणविकाय आशिल्ली. दुसऱ्याचें आड मार्गान आपणावप हाका तो पाप समजतालो. तरी तो मनीस आशिल्ल्यान आपल्या मनांतल्यो भावनां लिपोवन दवरूंक शकनाशिल्लो. अप्सरेसम शीलाक पळोवन प्रथमेशाच्या मनांतली रसीकताय जागी जाली. शीलाक तो केदो वेळ सस्मित पळयत रावलो. शीलावेली नदर तो बरोच वेळ हालोवंक शकलो ना. तरी बरें, सुमन आनी शीलाशिवाय थंय आनी कोण नाशिल्लो.

प्रथमेश आपल्यावेली नदर काडिना, हें पळोवन शीला मनांतलें मनांत खोशेलें. ताका दिसलें आपूण प्रथमेशाच्या मनांत भरलां जावंये. फुडें कितेंय जावं आतां थोडिशी इश्टागत वाडली जाल्यार फुडें पावल घालूंक आडखळ जावंची ना. आमची इश्टागत मोगाचें पयलें पावल घडूं येता. शीलान प्रथमेशाच्या स्मिताक स्मितान जाप दिली. ताणें आपल्या दोळ्यांतलो प्रेमभालो प्रथमेशाच्या काळजार मोखपाचो येत्न केलो. पूण प्रथमेशाक शीलाच्या रुपान सामकाराक दिसताली ती फकत दिव्य आनी भव्यताय. प्रथमेशाक दिसतालें, ताणें शीलांतली सुंदरकाय दोळ्यांनी दोळेभर पिवची. ताच्यांतले दिव्यतायेक-भव्यतायेक कर जोडचे. सामकाराक सूखन्हाळ व्हांवता तो देगेर बसून मेळटा तितलो वेळ नियाळीत रावचो. मळबांतलीं काळखे रातींतलीं नखेत्रां आमी पुनवेचो चंद्रीम पयस रावन तोखेवचो, तेचपरी शीलांतली सुंदरकाय, दिव्यताय आनी भव्यताय दोन धेपां पयस रावन दोळ्यांनीं पिवन काळजांत सांठोवन दवरची, अशें प्रथमेशाक दिसतालें. पूण वेळ-काळाचें भान आशिल्ल्या प्रथमेशाक थंय तें जमलें ना. न्हिदेंतल्यान जागयता तसो सुमनान ताका जागयलो, आनी भानार हाडलो.

''हांव कितें विचारतां तुका प्रथमेश?''

''कितें?'' प्रथमेश आतां मातसो गंभीर जालो.

''हाका तूं वळखता काय म्हूण विचारलें हावें. आनी तूं जाप दिवपाक विसरलो.''

''आतां आयलें लक्षांत, कांय दिसां पयलीं गुंडांनीं आडायल्लें हाका. हावें सोडोवपाक ताका मात्शी मजत केल्ली.'' प्रथमेश नमळतायेन उलयलो.

''मात्शी? मात्शी कितें म्हणटा रे तूं! हावें तुका आकांताक उलो मारून आफोवं नाशिल्लो जाल्यार ते वेळार हाचें कितें जातलें

आशिल्लें देवाक खबर! तें तुका थँक्स दिवपाक आयलां.''

''थँक्स!''

''थँक्स कसले? हावें म्हजें कर्तव्य केलां.''

''मागीर ते पासत थँक्स दिवपाचें म्हजें कर्तव्य म्हाका करूंक नाका तर? खरें म्हळ्यार हें हावें खूब पयलीं करपाचें. पूण तुका खंय आनी केन्ना भेटपाचें थारनाशिल्लें. शेकीं सुमनान ही भेट घडोवन हाडली.''

''बरें केलें सुमनान. म्हाका आनीक येक इश्टिण गावली.'' प्रथमेशान आपली खुशालकाय उक्तायली.

''आनीक एक इश्टीण? अशो कितल्यो इश्टिणी आसात तर तुका?'' शीलान गंभीरतायेन प्रस्न केलो.

''कित्याक? एका परस चड इश्टिणी आसप वायट तर?'' प्रथमेशान मुजरत शीलाच्या मनाचो थाव घेतलो. पूण शीला उलोवचे पयलींच सुमन पच्च करून उलयलें.

''आसच्यो रे कितल्योय! इश्टिणी चड आसलें म्हूण कोणाचें कितें लुकसाण जाता? आतां हांव शीलाची इश्टीण न्हय? शीलाक तशो आनीकूय खुबशो इश्टिणी आसात. पूण म्हाका तें आपली खाशेली इश्टीण मानता, न्हय गो शीला?'' सुमनालें उलवप प्रथमेशाक तितलेंशें मानवलें ना. तें आपले इश्टिणीच्या इश्टागतीविशीं दुबाव घेता, अशें दिसलें ताका.

खरें म्हळयार शीला आनी सुमनामदली इश्टागत दाट आशिल्ली. सुमनाक ती पारखुपाची गरज नाशिल्ली. पूण सुमन केन्ना-केन्ना तोंडाक सुवाद धरिनासतना उलयतालें. आतांय तें तशेंच उलोवन गेलें.

''म्हाका सगळयो इश्टिणी सारक्योच. हांव तांच्यामदें भेदभाव कित्याक करूं?''

''आपल्याक सगळयो इश्टिणी सारक्योच'' म्हणून प्रथमेशान आपलें निर्मळ मन उकतें केलें. ताका खाशेली अशी इश्टीण आशिल्ली जाल्यार ताचो तो निर्वाळो दितलो आशिल्लो. सुमन आपल्याकडे कसल्या अर्थान उलयता तें प्रथमेशाक कळटालें. सुमनाक मात दिसतालें, आपल्या उलोवण्याचो अर्थ प्रथमेशाक स्पश्ट आनी पुराय समजूना जावंये. ताणें फुडें म्हळें-

''तुजे दिश्टीन सगळयो इश्टिणी सारक्यो आसत रे, पूण मनीस म्हळो म्हणटकच ताका मन आसता. ताच्यो आवडी-निवडी आसतात. आतां तुजीच गजाल घे! शीलाचेर गुंडांनी जेन्ना घुरी घाली, तेन्ना वाटेवयल्यान तुजे येदे जायते तरणाटे येता-वताले. पूण शीलाक गुंडांच्या चोपक्यांतल्यान सोडवचें, अशें मात कोणाक दिसलें ना. ते तरणाटे, ते गुंडूय तरणाटे आनी तूंय तरणाटोच. पूण सगळ्यांक सारके अशें कोण म्हणटलो?

ते दिसा तूं शीलाक देव कसो पावलो. शीलाक तूं आकांताक पावूं नाशिल्लो जाल्यार, कितें जातलें आशिल्लें रे ह्या असहाय्य चलयेचें?

शीला तुजे उपकार जल्मभर विसरचें ना ही गजाल खरी, पूण ताका जर दिसलें, आपल्याक संकटमुक्त करपी तरणाटो आपलो जल्माचो जोडिदार जावंचो जाल्यार तुजें मत कितें आसतलें रे?''

हीं विधानां आयकून प्रथमेश गोंदळांत पडलो. ताणें शीलाचेर नदर मारली. तें थीर नदरेन-हांसकुऱ्या चेऱ्यान प्रथमेशाच्या जापेची वाट पळेतालें. खरें म्हळ्यार असलीं विधानां करपाक ताणें सुमनाक आडखळ हाडूंक जाय आशिल्ली. जे अर्थान ताणें तशें केलें ना ते अर्थान शीलाची ताका मान्यताय आशिल्ली, हें प्रथमेशाक कळून आयलें. प्रथमेशान आतां शीलावयली नदर सुमनाचेर वळयली. केदो वेळ तो सुमनाकडे पळेत रावलो. सुमनाच्या प्रस्नाची जाप ताका कितें दिवची हें ताका कळनाशें जालें. तो पेचांत पडला हाची जाणविकाय सुमनाक जाली.

सुमन दिसपाक आनी उलोवपांत मातशें अरवळशें दिसतालें. मात तें प्रसंगार आपले शिटुकसाणीचो उपेग बेस बरो करून घेतालें. ताका प्रथमेशाक चड वेळ बुचकळ्यांत घालचेंशें दिसलें ना. तें शीलाच्या मनांतलें उक्तेपणान उलयलें -

''प्रथमेश, ही म्हजी इश्टीण-शीला! तिका तूं पुराय वळखना बी जायत म्हूण सांगतां. ही ह्या शारांतल्या एका व्हडल्या गिरेस्ताली धूव. तुज्या कर्तुबान आनी गुणांनी तूं तिका आवडला. म्हजे हे मोगाळ इश्टिणीक तूं तिजो जल्माचो जोडीदार जावंचो सो दिसता.''

सुमनालें कथन आयकून प्रथमेश कितें समजूंक जाय तें समजलो. येदो वेळ तकलेंत गोंदळ, दुबाव बी शिगमो खेळटाले. आतां ते खिणांत पयसावले. प्रथमेशाक कळून आयलें. शीलाचो मुखेल हेत उपकार मानपाचो नासून तो आपल्याक पटोवपाचो आसा. सुमनाक फुडें काडून शीला आपलें प्रेम उकतावंक सोदता.

आनी कोणूय तरणाटो जाल्लो जाल्यार, एक गिरेस्तालें चली आपल्या सारक्या गरिबाकडेन लग्न जावंक सोदता म्हूण खोशेन भुरकुटून वतलो आशिल्लो. फाटलो-फुडलो विचार करिनासतना खिणांत हयकार दिवन मेकळो जातलो आशिल्लो. पूण प्रथमेश कांयच उलयलो ना. सुमनालें उलवप ताणें हांशार व्हेलें आनी थंयच्यान कूस मारली.

`आयताराचो दीस आशिल्लो. मॅट्रोपॉलांत नवें पिक्चर लागिल्लें. पिक्चर ल्हान-व्हडांनीं पळोवपासारकें आशिल्लें. शीलाक थेटरांत वचून पिक्चरां पळोवंक आवडनाशिल्लें. इश्टिणींच्या लगाडीन केन्नाय गेलें जाल्यार आवडीचे प्रसंग तितले पळोवन मन दुसऱ्याच विशयांत रमतालें ताचें.

आयजूय इश्टिणी फाटल्यान लागल्यो म्हूण तांच्या वांगडा तें पिक्चराक गेलें. पिक्चर खऱ्यांनीच ताका मानवता

तसलेंच आशिल्लें. मध्यांतर जाय मेरेन तें कदेलाक दसून रावलें. मध्यांतर जालें हाचें ताका भान उरलें ना. अकस्मात थेटरभर लकलकीत उजवाड जालो आनी येदो वेळ काळखांत बुडून आशिल्ल्या प्रेक्षकांची हालचाल सुरू जाली. कांय लोक आपली सुवात सोडून पायें सैल करूंक भायर गेले.

इतल्यान शीलाच्या फुडले तिसरे रांकेंत बशिल्लो जीन पॅन्टीतलो स्मार्ट तरणाटो उठून भायर वचूंक लागलो. ताच्या फाटल्यान एक तरणाटी मोडत-मोडत चलताली. तिणेंय जीन पॅन्ट घाल्ली. केसांचो बॉबकटूय केल्लो तिणें. असल्या सवंगांचेर शीलाची नदर सट्ट करून वचना. सुमनाची नदर मात भिरभिरत केन्ना कोणाचेर थीर जायत हें सांगूं नजो.

"शीला, हो पळे मामा मगो तुजो!" सुमनान शीलाक हळू धोंगशीत म्हळें.

"म्हजो मामा? हॅट! म्हजो मामा न्हय तो! म्हजो मामा जीन पॅन्ट घालीना." शीलान सुमनाक पिशांत काडलें.

"आगो पळे तरी, दोगांय कशीं हातांत हात घालून चलतात तीं! तुजे मामान म्हूण सामकीच लज सोडली गो बाये!" सुमन भितरले भितर जळफळ्ळें.

"शेडाप सुमन, जिबेक हाड ना म्हूण कित्या कितेंय बडबडूं नाका गो. म्हजो मामा तसलो न्हय आं, सांगून दवरतां." शीला आवाज भायर सोडिनासतना सुमनाचेर ताणशेलें.

"वोगीच शिताफुडें मीठ खावं नाका गो. हांव तुज्या मामाक वळखना? बरेऽ दोळे उकते कर आनी पळे. मागीर उलय कितें उलोवपाचें तें."

शीलाक दिसलें सुमनाचो गैरसमज जाला. ना जाल्यार तें इतलें ठामपणान उलोवचें नाशिल्लें. पळोवया. ताचो गैरसमज पयस करूया म्हूण शीला फट्ट करून जाग्यावेलें उठलें. तरतरीत भायर गेलें. ताणें कँटीना दिकेन नदर मारली. दोगांय जीन पॅन्टवालीं हातांत हात घालून चलतालीं. चलतालीं कसलीं, धांवतालींच म्हणपाचें. फाटल्यान कोण येता बी तें पळोवपाचें कोणाच्याच ध्यानांत नाशिल्लें. जाता तितले वेगीं कँटीनातलें काम सोंपोवन तांकां थेटरांत परतपाचें आशिल्लें.

शीला लिपत-लिपत कँटीनाच्या लागसाराक गेलें. एका खांब्या आडसाक अशे तरेन उबें रावलें की भास्कर-ताचो मामा फाटीं वळनासतना ताचें मुखामळ दिसचें.

शीलाची येवजण फळाक आयली. जोडपें हांसत-किटकिटत गल्ल्याकडेन वचून उबें रावलें. गल्लो तिरपो आशिल्ल्यान शीलाक मामालें मुखामळ बारकायेन पळोवपाची आयतीच संद मेळ्ळी. ताणें पॅन्टींतल्या हिरोचें तोंड परत-परत नियाळून घेतलें. तशें करपाचें कारण भास्करान आयज आपल्या केंसांक खाशेलो असो मोड दिल्लो. तसो मोड ताणें आपणाक आवडटा म्हूण दिल्लो काय आपले मोगीचे सांगणेन दिल्लो, हें सांगूंक जड आशिल्लें. कितेंय जावं. शीलाक खात्री जाली. तो आपलो मामाच आसा. आपूण शिटूक सुमना मुखार भद्रें आकाच थारलें. ओगीच चाळवलें आपूण ताचेर. आतां खंयच्या तोंडान वदूं की आपूण चुकलें. तेंच खरें आशिल्लें. अशे कितलेशेच प्रस्न आतां शीलाच्या मनांत घोळूंक लागले.

जोडपें वळचे पयलींच शीलान थेटरांत धांव मारली. ताणें सुमनाची माफी मागली. थेटरांतले प्रेक्षक परत एकफावट काळखांत बुडटकच शीलान काळखांतल्यानूच थेटरा-भायर धांव मारली. सुमनाक थंयच सोडून तें घरा दिकेन झपाझप पावलां मारीत चालीक लागलें.

सुमनाक दिसलें, शीला भायर गेलां, येतलें रोकडेंच. तें सिनेमा पळोवपांत इतलें गूंग जाल्लें की तें सिनेमा सोपमेरेन शीलाक विसरलेंच.

सिनेमा सुटलें आनी सुमनाक शीलाची याद जाली. शीला भायर गेल्लें तें परत भितर आयलेंना हें ताच्या आतां लक्षांत आयलें. तें दचकलें. तरी ताका एके जाणविकायेन मात्सो धीर आयलो. शीला सिनेमांत व्हडलो सो रस घेना, हें तें जाणा आशिल्लें. तेन्ना तें भायर गणयता बी जायत म्हूण धावून ताचे सोदीक गेलें.

भायर वचून पळयत जाल्यार शीला खंयच ना. तें रडपाक पावलें. ताका शीलाचो खूब राग आयलो. ताका सोडून गेलें तें गेलें. सांगून पूण वचपाचें न्हय? शीला बेशिस्त न्हय. ताचें कितेंय तरी बिन्नसलां. अशें म्हणून सुमन शीलाचे सोदीक ताकतीकेन गेलें.

शीला घरा पावलें तेन्ना चोर पावलांनी भितर सरलें, ताका एकांत जाय आशिल्लो. मामी खंय आसा, हाचो ताणें अंदाज घेतलो. ती कुडीचें दार उकतें दवरून बाज्जेर सुस्त पडून आशिल्ली.

शीलाकूय तेंच जाय आशिल्लें. तें पावलांचो आवाज करिनासतना आपले कुडींत गेलें. लायट पेटयनासतना काळखाचो आसरो घेतलो ताणें.

कांय मननशील मनशांक मनन करपाक उजवाडा परस काळखाची गरज चड पडटा. अथीरमन थीर जावपाक काळोख मजत करता.

शीलाचें मन आयचे इतलें उचंबळ हे आदीं केन्नाच जालें ना. आयज ताच्या मामान ताच्या विश्वासाक खर धक्को दिल्लो. ल्हानपणांत सावन शीला आपल्या मामाक मोगा वांगडा मानूय दीत आयिल्लें. एकच मामा आनी एकच भाची जावन आशिल्ल्यान दोगांमदें स्नेह आनी लोभ इल्लो चडचड दिसून येतालो. तांचेमदलें हें प्रेम वयलेतरांचें नाशिल्लें. एकामेकांचे ओडींतल्यान निर्माण जाल्लें प्रेम आशिल्लें तें! पूण आयज मात शीलाचे दिश्टीन ताच्या मामाचे प्रतिमेक काळो दाग लागिल्लो.

हे फुडें शीलाची नदर ताच्या मामाचेर मुजरत ना, तरी सज पडटलीच. तेन्ना शीलाक सगळ्यांत पयलीं दिसतलो-आटवतलो-तो मामाक लागिल्लो अदृश्य काळो दाग! हो एकूच दाग मामा भितर

आशिल्ल्या समस्त सद्गुणांचेर पांगरूण जावन बसतलो. आनी हें पांगरूण दिशीं-दिशीं झिरझिरतलें. ताका बोथे पडटले. ह्या बोथ्यांतल्यान मामालें काळें कर्तुब जगजाहीर जातलें. तशें जालें म्हूण सद्याचे परिस्थितींत कोणाक व्हडलें शें कांयच दिसचें ना. भास्कराक वळखतात ते लोक ताका थोडे दीस हांसतले, ताची निंदा करतले. कारण आपली लग्नाची बायल आसतना दुसरे चलये वांगडा मजा मारप, हें सभ्य समाजाक मान्य नासता. समाजाचे आनी धर्माचे दिश्टीन तें पाप आसता.

अशें आसलें तरी समाज भास्कराक चार दीस वांकडे नदरेन पळेतलो. मागीर पाडा पडना, आपल्याक कितें पडलां, म्हूण जणेकलो, विशय नदरे आड करून आपापल्या कामाक लागतलो.

मात त्रास जातले ते घरच्यांक. आजो-आज्जेक ही खबर कळ्ळ्यार तीं पिकासांवान चड दीस जगूंक पावचीं नांत.

शीलाचो आजो-आवयचो बापूय एक आदर्श शिक्षक म्हूण नामनां जोडिल्लो. तो फक्त भुरग्यांचोच गुरूजी नाशिल्लो, समाजशिक्षकूय म्हूण मडगांव आनी मडगांवां भायरय तो फामाद आशिल्लो. आयजय आसा. एका आदर्श शिक्षकालीं भुरगींय आदर्श आनी बरे देखीचीं आसतलीं, अशें समाज आपलो समज करून घेता. आनी तो चुकीचोय नासता. दुर्गे-शीलाची आवय - हाचो पुरावो म्हणूं येता.

गुरूजीन दिल्ल्या संस्कारांचो उपेग करून दुर्ग्यान आपल्या आवय-बापायचें नांव राखलें. भास्कराकडल्यानूय लोकांची आनी ताच्या घरच्यांचीय तीच अपेक्षा आशिल्ली. पूण भास्करान थारावन सगळ्यांचो अपेक्षाभंग केल्लो.

आमच्या जाण्ट्यांनीं म्हणून दवरलां, मनशान हातरूण पळोवन पांय सोडचे. हार उडटा म्हूण गायंडोळान उडचें न्हय. हाचो अर्थ असो, की मनशान आपले ताकती प्रमाण वेव्हार करचो. एकाद्रया गरीबान श्रीमंताकडे संबंद दवरपाचो प्रयत्न करचो न्हय. नातें तर केन्नाच जोडचें न्हयच. इतलेंच कित्याक? आपल्या नात्यांतलो कोणूय श्रीमंत आसल्यार ताच्यापसून जाता तितलो पयस रावप हें हिताचें आसता.



शीलाक हाचो विचार करपाची केन्नाच गरज पडली ना. ताच्या मामाच्या करण्यांनीं आतां ताचे दोळे उकते जाले. ताच्या मामान व्हडलें जगावेगळें कांयच करूं नासलें. असलीं कर्मा जगार सर्रास घडटात. श्रीमंतांल्या कुटुंबांनी तर भास्करा असले दिवटे आसताच. पूण समाज तांकां बोट दाखयना. श्रीमंतान-सत्ताधीशान शेण खालें जाल्यार वखदाक आनी गरीबान खालें तर तें भुकेक खालें, अशें समाज मानता.

दुर्ग्यान शीलामुखार गरीब-श्रीमंतीचो विशय केन्नाच काडलो ना. ह्या विशयाक ताणें केन्नाच व्हडलें म्हत्व दिलें ना. आपलो बापूय धनसंपत्तीन गरीब आसलो, तरी तो मनीस म्हूण आपल्या घोवा इतलोच मानाचो आसा, अशेंच मानीत आयिल्लें दुर्गे.

गजेंद्रानूय दुर्ग्याक केन्नाच हलकें मानलें ना. ताचे दिश्टीन दुर्गे मनान श्रीमंत आसा तितलेंच पुरो आशिल्लें. धनाचे श्रीमंती परस मनाची गिरेस्तकाय व्हडली आशिल्ली गजेंद्राक!

हांगा घोव-बायल सगळेच बाबतींत राजी आशिल्लीं. आयज मेरेन सुखान चलतालो तांचो संवसार. शीलाकूय आपल्या आवय-बापायचो, आपल्या मामा-मामीचो, आपल्या आजा-आज्जेचो अभिमान दिसतालो. एक काशीबाय सोडली जाल्यार सगळीं मनशां सुसंस्कृत आनी बरे देखीचीं दिसतालीं आनी खऱ्यांनींच तशीं तीं आशिल्लींय बी. ह्या सगळ्यांकडल्यान आनी मुळाव्या शाळेंतल्यान बरी देख मेळिल्ली शीलाक. वायट-बरें कितें तें तांच्या कडल्यानूच शिकिल्लें तें. पूण आयज आपल्या मामान आपल्या नाकाक चुनो लावन घेतलो तो घेतलोच, शिवाय कुटुंबांतल्या जणेक वांगडयाक तकली वयर करून चलपाची सोय दवरली ना ताणें!

दोनूय कुटुंबांतल्या हेरां वांगड्यांचें कशेंय जावं. शीलाक चड काळजी लागिल्ली ती ताचे आवयची आनी मामीची. आपल्या मनशांकडल्यान कितेंय नसतें घडल्यार दोगांकूय सोंसनाशिल्लें. आनी आतां तर आपल्या खाशेल्या भावान कुलाचार सोडून, मान-मर्यादा कडासेक खोवन निर्लजपणान गांवभर हेडटा, खुशालचेंडू कसो. आपूण कोण, आपलो संबंद कोणाकडे आसा. येद्या व्हडल्या नायक घराण्यांत आपली भयण

दिल्या. आपलो बापूय एक आदर्श शिक्षक आनी समाजसेवक. एका कोट्याधीशाक लोक जितलो मान दिता त्याय परच चड मान समाज भास्कराच्या बापायक तेन्नाय दितालो आनी आयजय दिता. एका आदर्श शिक्षकाचीं आदर्श भुरगीं म्हूण लोक तांकां वेगळे नदरेन पळोवन मान दितालो. पूण आयज भास्कर दुपूत निपजलो. ताणें आपल्या आवय-बापायचो मान-अब्रू मातयेभरवण करून उडयलो.

हो सगळो विचार करून शीला काळखाकुडींत पडून एकसारकें तळमळटालें. मदें-मदें बुळूबुळू करून रडटालें. थोड्याच वेळान ताणें आशिल्लीं-नाशिल्लीं दुकां गळोवन हातरूण भिजोवन ओलेंचींब केलें.

शीलाक आतां फुडें चड वेळ हातरुणाचो वांगोड करीत बसप शक्य नाशिल्लें. आतां रातीचीं धा वरां जावंक आयिल्लीं. सिनेम साडेणवांक सुट्टा. थेटराकडसून घरा पावता म्हणसर भास्कराक उणेंच अर्दवर लागतलें, हाची शीलाक कल्पना आशिल्ली. कदाचीत आयज उशीरूय जावपाचो अंदाज आशिल्लो. कारण ताच्या वांगडा अप्सरा आशिल्ली. अप्सरा? हय. भास्कराचे नदरेन ती आधुनीक अप्सराच आशिल्ली.

शीला बाज्जेवेलें उठलें. लायट पेटयली.

''मामी, हांव आयलें गे!'' शीलान आतांच भायर सावन आयिल्ल्याचो अभिनय केलो.

''आयलें गो शीला! बरें जालें बाये. रातीचें घरांत एकटेंपण सोंसना गो बाये. घर खावंक येता शें दिसता.'' सुटिल्ले केंस बांदीत निर्मलान म्हळें.

''आतां हे फुडें तुका एकटेक सोडून रातीचें खंयच वच्चें ना हांव. नाका म्हाका सिनेमां-नाटकां.'' शीलान उबगणेच्या सुरान म्हळें.

''कित्याक गो, अशें निर्शेल्ल्यावरी उलयता? बरो सिनेमा लागल्यार पळोवंकूच जाय तुजे असल्या भुरग्यांनीं.''

''तुजे असल्या भुरग्यांनीं म्हणटा ती तूं कितें म्हातारी जाल्या तर गे मामी?''

''म्हाका आवडटा गो थेटरांत वचून सिनेमा पळोवंक. तुजेवांगडा येवंक आवडटलें आशिल्लें गो म्हाका. पूण कितें करूं? घर बंद करून भायर गेलें, आनी हांगा कोणेंय येवन दारार मारलें जाल्यार? शार हें, रातीचो लेगीत दिसूच दिसता.''

''बरें जालें तूं म्हजे वांगडा आयली ना तें. आयिल्ली जाल्यार पड्ड्या भायलो नवो सिनेम पळोवन थंयचे थंयच घुंवळ येवन पडटली आशिल्ली तूं.''

''हांव घुंवळ येवन पडसारकें अशें कितें तरी घडलें गो बाये थंय?'' निर्मलान उत्सुकतायेन प्रस्न केलो.

''सांगतलें तुका हांव. पूण आतां नाका. आतां सांगल्यार रातभर न्हीद पडची ना तुका?''

हें आयकून निर्मलाची उत्सुकताय वाडली. आपल्या घोवाविशीं शीला कितेंय तरी सांगतलें, हाची निर्मलाक कल्पना नाशिल्ली. सिनेमा थेटराकडे कितें घडलां, आनी आपलो ताचेकडे कितें संबंद हाची खबर निर्मलाक रोखडी जाय आशिल्ली. ते पासत तें उतावळें जाल्लें. घडिल्ले घडणुकेची पुराय म्हायती जाणोवन घेवची म्हूण शीलाकडे तें हट्ट धरपाचेंच आशिल्लें, तितल्यान 'टिन-टाँब' करून दाराची बॅल वाजली. निर्मल झडझडीत दाराकडे गेलें. ताणें दार उक्तें करून भास्कराक भितर घेतलो.

भास्कर आयज चडच खोशेंत आशिल्लो. ताणें शीलाक दाराकडेच रावन ''बायूऽल'' म्हूण उलो मारलो. तो खोशेंत आसतकच शीलाक बाय म्हूण उलो मारता.

मामा भायरसावन येतकच शीला खयीं आसल्यार धावन मामा म्हऱ्यांत येतालें. मामा घरा आयिल्ल्याची सुलूस लागल्यार पुरो, शीलाच्या मुखामळार खोशी पातळिल्ली दिसताली. हें शीलाच्या भुरगेपणांत सावन अशेंच चलतालें. शीला मागीर आपल्या घरा आसूं वा मामागेर.

आयज हो नेम भंगलो. भास्करान मोगान मारिल्ल्या उल्याक शीलान आयज जाप दिली ना. भास्करान उलो मारतांच शीला फाट करून भितर गेलें. भास्कर अजापलो. कितें घडलां तें समजूंक मार्ग नाशिल्लो ताका. निर्मलूय आतां चडच गोंदळांत पडिल्लें. घोव-बायल एकामेकाच्या तोंडाकडे पळेत रावलीं. शीलाच्या मनांत कितें चल्लां तें कोणाक खबर नाशिल्ली.

भास्कराच्यान चड वेळ दुबावीत अवस्थेंत रावंक जायना जालें. तो आंगावेली मुस्तायकी देवयनासतना शीलाचे कुडींत गेलो.

थंय पळेत जाल्यार शीला बाज्जेर उमथें पडलां. उशा पोंदा तकली मुंगरून मुरमुसून रडटा.

''बायूल, कितें जालें गो बाय! कित्याक रडटा तूं अशें?''

शीलान तकली वयर काडली ना. ताचें मुसमुसप वाडलें, भास्कराक आतां कितें करचें समजना जालें. तो निर्शेलो. शीला अशें रडटा तें ताणें केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें. ताका शीलाची काकुळट दिसली.

''बायूल, अशें रडूं नाका गो बाये. कितें जालां तें तुज्या मामाक सांगचें ना तूं? तूं अशे तरेन रडटा तें म्हज्यान सोसूंक नज गो बाय! केन्ना मेरेन तूं अशें रडत रावतलें? तूं तुजें मन उकतें करिना जाल्यार तुज्या मनांत कितें आसा तें आमकां कशें कळटलें?''

अशें म्हणत भास्करान शीलाच्या केंसांचेर मायेन हात भोंवडायलो. मात बदनाम मामाची माया शीलाक रुचली ना. भास्कर एक बायलवेडो दादलो. असल्या दादल्याकडे आपलें नातें तिगोवन दवरूंक शीलाचें मन आतां कशेंच तयार नाशिल्लें. ताणें भास्कराक जाप विचारून घडणुकेंचो सोक्षमोक्ष लावपाचो निश्चेव केलो.

ताणें आतां भास्कराचो हात रागान धुकलून दिलो. रडपाचें बंद केलें. दुकां पुसलीं. उठून बाज्जेर बसलें. भास्कराक रागान पळेलें. ताणें चिंतलें. जाप विचारप हांगा नाका. भायर मामी आसा. तिच्या सामकाराक कितें जाता तें जावंदी. तिकाय तिच्या प्रस्नाची जाप मेळटली.

"मामा, भायर यो. तुका कितें विचारूंक जाय म्हाका." शीला भास्कराक थंय सांडून तडतडीत भायर गेलें. ताच्या फाटल्यान गोंदळांत पडिल्लो भास्कर उत्सुकतायेन भायर गेलो.

"मामा, खरें तें सांग आं! आयज तूं खंय गेल्लो?" आवय एका भुरग्याक प्रस्न विचारता तसो शीलान भास्कराक केलो. ह्या प्रस्नान भास्कर चडच गोंदळांत पडलो. हें आपल्याक अशें कित्याक विचारता काय? प्रमीला वांगडा सिनेमाक गेल्लों तें हाका बी कोणें सांगूना मू?

"आयज कितें जालां गो तुका? म्हजी झडतीशी घेवंक लागलां. बरें आसा मगो तूं?" भास्करान काचाबूल जावन प्रस्न केलो.

"म्हज्या प्रस्नाची ही जाप न्हय मामा! आयज सांजवेळा तूं खंय गेल्लो." शीलान दोळे मोटे करून आवाज चडयलो. आतां मात भास्कराक फटीचो आदार घेतल्या बगर दुसरो पर्याय उरलो ना.

"हांव पणजे गेल्लों. म्हज्या एका फ्रेंडान आपयल्लो म्हाका."

"मामा तूं फट उलयता." शीला तापलें.

"हांव कित्याक फट उलयतलों?"

"परतीय फटीर फट! मामा, तूं अशो कितल्यो फटी मारतलो? तूं एके चलये वांगडा मॅट्रोपॉलांत सीनेमाक वचूं नाशिल्लो?" हें आयकून भास्कराक कच्च जालें.

"तुका कोणें सांगलें, हांव कोणावांगडा सिनेमाक गेल्लों तें?" भास्कराच्या कपलाक मिरयो पडल्यो.

"मामा, म्हातारेन कोंब्याक धापून घालो म्हूण सकाळ जावपाची रावना रे! हावें म्हज्या ह्या दोळ्यांनीं पळयला तुका एक चलये वांगडा."

"तुवें कोणाक पळयला देवाक खबर."

"कित्या कितेंय उलोवं नाका रे मामा! हावें एकटयानूच पळोवंना तुका. सुमन आशिल्लें म्हज्या सांगाताक. ताणेंच दाखोवन दिलो तुका आनी तुजे ते हिरोयिणीक. जाणा मामी, हीं दोगांय जाणा जीन पँटी घालून सिनेमांतल्या हिरो-हिरोयिणीवरी थेटरा भायर भोंवतालीं. हातांत हात घालून कितें हांसतालीं, कितें फुतफुत्तालीं! मामा सोबता रे तुका हें? आनी ती जीन पँट खंय सोडून आयलो रे तूं?"

भास्कराक आतां उलोवंक तोंड नाशिल्लें. शीलान ताका पुराव्यासयत पकडिल्लो. शीला एकटें आशिल्लें जाल्यार घडये हात वयर करीत आशिल्लो, घासघीस करपाक ताका संद आसपाची. पूण हांगा गवाय दिवंक सुमन आशिल्लें. शीला परस भास्कराक सुमनाचोच आतां चड राग आयिल्लो. 'पाडा पडूं ह्या रांडग्याचें' अशें म्हणून भास्करान मनांतल्या मनांत सुमनाक सभ्यतायेची गाळ घाली. सभ्यतायेची हे खातीर म्हणपाची की, हाचेपरस खर कुसक्यो गाळी ताका येताल्यो. पूण त्यो ताच्या तोंडांतल्यान भायर पडल्यो ना. कितलेंय जालें तरी आपूण एका शिक्षकाचो-मुख्याध्यापकाचो पूत हाची जाणविकाय आशिल्ली ताका. आपली धर्मपत्नी आसा. तिका फटोवन परके बायलेवांगडा नाचचे आर्दी, आपूण एक गुरूपुत्र आसां हाची जाणविकाय ताका आशिल्ली जाल्यार कितलें बरें जातलें आशिल्लें? जांचो संबंद मानेस्तांकडे आसता, तांचेर व्हडली जापसालदारकी आसता. ना तर कुसको आंबो पुराय राशीचो इबाड करून सोडटा.

शीलान निर्मला हुजीर भास्कराचो पाणउतारो केलो. भास्कराक तें साप्प मानवलें ना. निर्मलाचें ताका व्हडलें-शें कोंत नाशिल्लें. पूण शीला मुखार तो उबो रावंक शकलो ना. मान खाला घालून मोन्यानी तो आपले कुडींत गेलो.

भास्कराक आपले करणेचें पिकासांव जालें. पूण तो सुदारपाचे मेरे भायर पाविल्लो. मनांत हाडलें तरी तो स्वताक सुदारूंक शकनाशिल्लो. ताची सांगातीण ताका कशीच सोडीसारकी नाशिल्ली. शिवाय एकदां चारित्र्याक लागिल्लो दाग पुसून उडोवप आतां ताच्या हातांत नाशिल्लें.

चारित्र्यसंपन्न मामा-मामीच्या आसऱ्याक मेकळेपणान जिवीत सारतलें म्हूण शीला मामागेर आयिल्लें. मामालें खरें रूप ताका तेन्ना कळूंक नाशिल्लें. सुशील आनी सुशिक्षीत आवयचो पदर सोडून मामागेर आयिल्ल्याचो पश्चताप आतां ताका जावंक लागिल्लो. हे फुडें कुलक्षणी मामाचें तोंड लेगीत पळोवपाची इत्सा नाशिल्ली शीलाची.

आनी एके गजालीक लागून शीलाची अस्वस्थताय तेंगशेक पाविल्ली. इतलें सगळें घडून निर्मलाचेर कसलोच परिणाम जालोना हाचें ताका अजाप दिसतालें. भास्कराचें कुकर्म निर्मलाच्या कानार पडचें म्हूण शीलान भास्कराची तासमपट्टी निर्मला सामकारा केल्ली. हे तासमपट्टेन निर्मलाच्या रागाचो पारो चडटलो, तें फणफणटलें, आदळ-आपट करतलें, घर सोडून वचपाची धमकी दितलें अशें शीलाक दिशिल्लें. पूण तें निर्विकार आनी शांत चेऱ्यान वावुरतालें. शीला रागाभारान, भायर आवाज वचचो न्हय म्हूण दारां बंद करून, टीव्हीचो आवाज मोटो करून ताणशेतालें तेन्ना निर्मल एका कदेलार बसून, चेऱ्यार उसणें हाशें हाडून सगळें पळेत आशिल्लें. अशे भशेन की आपूण त्या गांवचें न्हयच. हो प्रस्न मामा-भाच्चेचो. तो तीं दोगांय पळोवन घेतलीं.

निर्मलान घेतिल्लो पवित्रो शीलाक मानवलो ना. निर्मल अशे तरेन वागतालें, जशें कितें व्हडलें-शें कांयच घडूंक ना. जें कितें

घडलां तें आपल्याक नवें न्हय.

शीलाचें मन आतां हळुहळू जागें जावंक लागलें. भास्कर जायते फावट उसरां घरा येतालो. निर्मल ताची वाट पळयत बसतालें. शीलाक दिसतालें, आपलो मामा कसल्याय कामाक लागून भायर आसता जावंये. तसलेंच कितेंय गरजेचें काम आसल्या बगर आपले मामीक सोडून भायर रावचो ना तो. आपले मामीचेर ताचो खूब मोग आसा. ताच्या वागण्यावेल्यानूच तशें दिसून येतालें.

भास्कर उसरां घरा येतालो तेन्ना मामी-भाची व्हड रात मेरेन चकाटां मारीत बसतालीं. दोगी इश्टिणी मारीत बसतात तशीं. निर्मलाक शीला आपल्या म्हऱ्यांत बशिल्लें जाय आशिल्लें. पूण तें म्हूण केदी रात मेरेन जागें रावतलें? धा वरां जातां जातां ताका न्हीद तुकलायताली. निर्मलाच्या तें लक्षांत येतालें. मागीर आपूण जावन तें शीलाक न्हिदे सुवादीन जावपाची खूण करतालें. शीलाक उजवाडाचो त्रास जावचो न्हय म्हूण लायट पालोवन हातरूणार पडटालें. अशें करतना निर्मलाच्या चेऱ्याचेर केन्नाच खंत म्हण दिसली ना. मामा येदी रात मेरेन भायर कित्याक रावता हें विचारपाचे भानगडींत शीला केन्नाच पडलें ना. ताका दिसतालें, हे विशीं मामीक विचारचें, पूण तांच्या खाजगी जिवितांत आपणें कित्याक पडचें, म्हूण शीलान मामीकडेनय हो प्रस्न केन्नाच काडलो ना.

आजच्या प्रसंगावेल्यान शीलाच्या लक्षांत आयलें आपलो मामा दिसता तसो सादो-भोळो ना. ताचे खावपाचे आनी दाखोवपाचे दांत वेगळे आसात. तो आपले बायलेक त्रास दिता आनी आपली मामी तें मोन्यानी सोंसता. हातूंत मामा परस मामीचो व्हडलो गुन्यांव आसा. आतां प्रकरण हाताभायर गेल्लें आसा. मामीक जाप विचारून आतां कसलोच आदाव ना. तरी तिच्या भविश्याक बळगें हाडपाक मामीक जाप विचारल्या शिवाय दुसरो पर्याय नाशिल्लो शीलाकडे!

सुखी जिवनाखातीर कुटुंबांत सुवेवस्ता आसपाची चड गरज आसता. आदले तेंपार मनशां एकठांय आसतालीं. एकमेकामदें ओड आसताली. आसताली म्हणचे परस ताची निर्मणी करची पडटाली. तातुंतल्यान माया वाडटाली. धनदौलती परस माये-मोगाची गिरेस्तकाय सदांच चड मोलादीक आसता. माया कुटुंबाक जोडपाचें काम करता तर भाटां-बेसां तोडपाचें.

भास्कर आवय-बापायचो एकलोच चलो भुरगो. एकठांय राविल्लो जाल्यार भास्कर आवय-बापायच्या धेकांत उरतलो आशिल्लो. भास्कराक आवय-बापायची आडखळ जावपाचें कारण नाशिल्लें. फाव तितली सुवात आशिल्ली घरांत. सगळीं एकठांय आशिल्लीं जाल्यार, घर बंद करून भायर वचपाची पाळी येवची नाशिल्ली निर्मलाचेर.

भारतीय संस्कृतायेंत एकत्र कुटुंबाक चड म्हत्व आसा. हे कुटुंबपद्दतींत भुरग्यां-बाळांचेर बरे संस्कार घडोवंक वाव आसता. सोयरेधायरे केन्ना ना केन्ना एकठांय जातात. स्नेह वाडीक लागता. घराब्याक सोब येता, बळ मेळटा.

हाची जाणविकाय गुरूजीक आशिल्ली. तरी ताणें तडजोड म्हूण सून-पुताक शारांत सोडून आपले जमनीची राखण करपाक खेड्यांत वचून रावलो गुरुजी.

गुरूजीचे धा सोंपून पांच उरिल्ले, तरी आपल्या पुताच्या सुखाखातीर ताणें शार सोडलें. सोडचे पयलीं ताणें विचार केल्लो, आपलीं भुरगीं सुसंस्कारी आसात, आवय-बापायच्या, घराब्याच्या आनी सोयऱ्यांधायऱ्यांच्या नाकाक चुनो लावपाचें दुश्कर्म ताचेकडल्यान केन्नांच घडचें ना हाची पुराय खात्री गुरुजीक आशिल्ली. पूण गुरुजी हरलो. गुरुजीक हारोवपाची माण्णी भास्करान लग्ना आदींच करून दवरिल्ली.

भास्कर-निर्मल एकेच शाळेंत काम करतालीं. दोगांय शिक्षकेतर कर्मचारी आशिल्लीं. सकाळीं णव ते सांजेचीं पांच मेरेन स्कुलांत रावचें पडटालें तांकां. उपरांत निर्मल नीट घरा येतालें आनी भास्कर थंयच्यान नाच्च जातालो. मोना ताची थारायल्ल्या थळार वाट पळेत तिश्ठतालें.

कोण हें मोना? मिस मोनाचें पुराय नांव आशिल्लें मिस मोना पांडुरंग नागेशकार. ताणें आपलें मुळचें गंगें नांव बदलून मोना नांव घेतिल्लें. बापायचें पांडुरंग हें नांवय ताका आवडनाशिल्लें. मोनान तें बदलपाचो खर येत्न केल्लो, पूण पांडुरंग ताका कसोच बदलो ना.

मोना त्याच स्कुलांत शिक्षक आशिल्लें. मोना-भास्कराचो मोग कळेलो. मागीर तो फुलत गेलो. आपलो मोग चड लोकांक कळचो न्हय हाची काळजी दोगांनीय घेतिल्ली. शारांतले दादले-बायलो कसल्या ना कसल्या कामा निमतान एकठांय जातात. तांचेमदें मोगबीग चल्ला काय कितें हाचो सोद घेवपाचे भानगडींत कोण पडना.

मोना-भास्कराचे बाबतींतूय तशेंच घडटालें बी जावंये. पूण तांचो मोग कसो शिजता तो निर्मल माजरा दोळ्यांनीं पयस रावन पळयतालें. पळोवन पळोवंना ते भशेन करीत रावलें तें आजमेरेन. शीला आपल्या मामाक उजरायतालें तेन्ना निर्मलाचेर कसलोच परिणाम जायनासलो हाचें कारण तेंच आशिल्लें.

उदकांत घाण केल्ली हुपेल्या बगर रावना अशी एक म्हणणी समाजांत घोळटा. म्हातारेन कोंब्याक धापून थेयलो म्हूण सकाळ जावपाची रावना. मनशान आपलीं पातकां लिपोवन दवरलीं म्हूण एक ना एक दीस तीं उक्ताडार पडले बगर कशींच रावनांत. भास्करान केल्लें पातक निर्मल दोळ्यां आड करीत रावलें. पूण शीलाचे नदरेंतल्यान तें कशेंच सुटलें ना. हाकाच म्हणटात ईश्वर करणी!

शीलाचे दिश्टीन जाण्टेल्यांनीं केल्या पातकाक भोगसणी नासता. निर्मल जाण्टें आशिल्लें. वर्सांनीं न्हय तर गिन्यानान.



आपलो घोव वाकड्या मार्गान वता हें तें जाणा आशिल्लें. तरी ताणें आपल्या घोवाल्या पापकर्माक आडमेळें हाडलें ना. घोव किते करता तें पळेत रावलें. आपलो पत्नीधर्म ना पाळिल्ल्यान भास्कराक भायलो छंद लागलो. ताका लागून एका तात्वीक आनी आदरशील शिक्षकाच्या घराब्याची अब्रू वाऱ्यार पडली. अशें घडपाक निर्मल कारणीभूत आसा, गुन्यांवकारी आसा, अशें शीलाचें मत्त जालें.

निर्मल शीलापरस व्हडलें. ल्हानांनी व्हडल्यांचें आयकूंक जाय, व्हडल्यांक परती जाप दिवची न्हय अशी आमची रीत आसा. जाण्टे भुरग्यांक हेंच शिकयतात. निर्मलाचीय शीलाकडच्यान हीच अपेक्षा. पूण शीला वस्ताद. तें निर्मलाक सोंपेपणान कशें सोडटलें? शीलाचो संबंद दोनूय घराब्यांकडे आसा. दोनूय घराब्यांची अब्रू ती शीलाची अब्रू. घराब्याचो एक वांगडी कुळाक कलंक लायता आसतना शीला ओगी कशें बसत? तें आतां मामालें घर सोडटलेंच. ताचे पयलीं सताखातीर, ल्हान-व्हडाचो विचार करिनासतना ताणें आपले मामीक जाप विचारपाचें थारायलें.

शीलाक मामीक जाप विचारपाक एकांत जाय आशिल्लो, घर सकाळचें मनशांनी रिकामें जातालें, शीलाकडे एक चावी आसताली. शीला कॉलेजी सावन आयल्या उपरांत वावराडी येताली. शीलान आपले मर्जेन वावराडेक सुटी दिली. हेत हो की सांजेच्या वेळार मामी-भाचये शिवाय घरांत कोणूच आसचो न्हय.

शीला अजून फुगडो धरून आशिल्लें. निर्मल मात सदांभशेन शांत आनी निर्विकार चेरो घेवन वावुरतालें.

आतां सांजेचीं पांच वाजून गेल्लीं. निर्मल दमून-थकून घरांत शिरलें. हात-पांय धुवन कदेलार बसलें. शीलान च्याचें चिक्र हाडून निर्मलाच्या हातांत दिलें.

''आयज तुवें शी च्या हाडली गो? तुळशी खंय गेलें तर?'' निर्मलान चिक्र तोंडाक लायत प्रस्न केलो.

''तुळशी आयलेंना आयज. हावेंच येंवनाका म्हूण सांगलें ताका.'' फुगिल्ले गाल आनीक फुगोवन शीलान म्हळें.

''कित्याक गो बाय, तुळशीक कित्याक रजा दिली तुवें?''

''म्हाका एकांत जाय आशिल्लो. तुजेकडे कितें उलोवपाचें आसा म्हाका.'' शीला कडकसाणीन उलयलें.

''हांव जाणा.'' निर्मल मुमुरख्यांनी हांसलें.

''तूं जाणां? कशें गे मामी! म्हज्या मनांतलें तुका कशें कळ्ळें गे मामी?'' शीलान अजापीत जावन म्हळें.

''शीला, तुजीच मामी हांव. तुज्या मनांतलें म्हाका समजना जाल्यार आनी कोणाक कळटलें? तुजे मामाचो गूट तुका कळ्ळो आनी तुका धक्को बसलो. मामान करूंक फावनाशिल्लें केलें, तुका राग आयलो. येवपाचोच. रागा भारार तूं खूब उलयलें. हांव तें थंडसाणेन आयकत रावलें. आनी दुसरो पर्यायच नाशिल्लो म्हजेकडेन.''

''तशें उलोवं नाका मामी तूं. तुवें मनांत हाडिल्लें जाल्यार खूब कितें करूंक शकताली तूं. धर्मपत्नी तूं ताची. तुवें ताका इतलो सैल सोडूंक फाव नाशिल्लो.'' शीला पुस्तकी गिन्यानाच्या आदारान उलयलें.

''कोणाकूय सैल सोडटलो जाल्यार आदीं ताका बांदून दवरपाची गरज आसता. हावें तुज्या मामाक केन्नाच बांदून दवरपाचो विचार केलो ना गो शीला!'' निर्मल एके पोक्त बायलेवरी उलयलें.

''चुकली तूं मामी. तसो विचार केल्लो जाल्यार प्रकरण हाताभायर वचचें नासलें आं, म्हाका तरी तशें दिसता.''

''म्हणचे तुज्या मामाचेर हावें शेक गाजोवपाचो म्हणटा मगो तूं?'' निर्मलान शीलाच्या मनांतलें उलोवन दाखयलें.

''हय. म्हाका तशेंच म्हणपाचें आसा. एक बावळट आनी मागास काकूबाय कशी वागली तूं ताचेकडेन.'' कागाळीच्या सुरांत शीला उलयलें.

आपल्याक काकूबाय आनी बावळट म्हळें म्हणून निर्मलाक शीलाचो राग आयलो ना. 'बावळट' ह्या उतराचें ताका कोंत नाशिल्लें, मात आण्टीपरस काकूबाय बरी अशें निर्मलाक मनापासून दिसतालें. काकूबाय शांत आनी सोशीक आसता. ती मायेस्त आसता. ती भारतीय संस्कृतायेंत मुरिल्ली आसता. ती शिटूक आसता, शादूर आसता आनी वेव्हारीय आसता. हां, खंयी तरी एकाद्री काकूबाय बावळट आनी अभद्री आसूं येता.

ताका लागून सगळ्यांक कोणे एके माळेंत गुंतपाचो येत्न करचो न्हय. आपल्याक काकूबायांचो अभिमान आसा म्हणपाचें निर्मलान शीलाक उलोवन दाखयलें.

'आपल्याक काकूबायांचो अभिमान आसा' अशें निर्मलान म्हळें तें आयकून शीला मात्शें शें मोव पडलें. शीलाकूय काकूबायो आपल्योशो दिसतात. ताकाय आपल्या मनशांक कोणे आंट्यो-अंकल म्हणिल्लें आवडना. पूण बायलांनीं दादल्यांक व्हड मानप, तांच्या दुश्कृत्यांक मान्यताय दिवन तांच्या फाटल्यान लेमेलेमे करप, वेळ प्रसंगार तांची उलोवणी-मार खावप, हें मात शीलाक मान्य नाशिल्लें. हाकाच लागून शीलान निर्मलाक मागास आनी काकूबाय म्हणिल्लें. शीलान काकूबायचो अर्थ घेतिल्लो अशिक्षीत-अडाणी बायल!

भास्कराचो गूट फुटचे आदीं शीलान निर्मलाचेर वयले वयर लक्ष दिल्लें. आपल्या घोवाक पतीदेव मानिल्लेवरी वागतालें निर्मल! भास्कर घरा केन्नाय येतालो, केन्नाय वतालो. कितेंय खातालो-कितेंय जेवतालो. खुबदां अकरा-बारा वरां रातीर लेगीत भितर सरतालो. भास्कराच्यो ह्यो करण्यो साप्प सोंसनासल्यो निर्मलाक. दीस-रात तें खंती जातालें. फुगासांव जातालें ताका. खुबदां एकांत सादोवन रडलांय बी तें बुळुबुळू करून. पूण आपलें दुख्ख ताणें प्रदर्शीत केन्नाच केलें ना. हांसते चेऱ्यान वावुरलें तें आपल्या मनशांमदें! आपलें दुख्ख चवाट्यार घालचें अशें केन्नाच दिसलें ना ताका. चवाट्याचें भंगूं, आपल्या कुटुंबांतल्या खंयच्याच मनशाकडे ताणें आपल्या घोवाची कागाळ केली ना. आनी कागाळ केल्लीय जाल्यार साध्य कांयच जावपा नाशिल्लें हाची जाणविकाय निर्मलाक आशिल्ली. शीला प्रमाण हेरूय निर्मलाकूच दोश दिवन मेकळे जातले आशिल्ले.

निर्मलान आपल्या घोवांतल्या वायट गुणांचें समर्थन केन्नाच केलें ना. पूण ताच्या सदगुणांकडे दुर्लक्षूय करूंक शकलेंना तें.

भास्कराक निर्मल खूब आवडटालें. तो ताचेर खूब माया करतालो. पूण ताका तें स्मार्ट दिसनासलें. भास्कराचे इश्ट आनी तांच्यो बायलो 'हाय-फाय' वर्गांतल्यो आशिल्ल्यो. तांच्यामदें लांब केसांच्या, साडीधारी निर्मलाक व्हरपाक तो फाटीफुडें जातालो. निर्मल तर आपले केंस कापूंक तयार नासलें. जीन पँन्ट चडोवंक तयार नासलें, फाडफाड इंग्लीश उलोवंक शकनासलें. मागीर भास्कर पार्टनरा शिवाय पार्ट्यांक कसो वतलो? पिकनिकांक कसो वतलो? भास्कर तर आधुनीक जगांतल्या आधुनीक फ्रेंडांपसून पयस रावंक शकनासलो.

निर्मल समजीकायेचें आशिल्लें. आपल्या घोवाक हातांत हात घालून भोंवता तसली जोडीदारीण जाय आसली आनी आपूण तर ताच्या मता प्रमाण वागूंक शकना. मागीर ताणें तरी आपल्या मताप्रमाण कित्याक वागचें न्हय? हे विचार निर्मलाच्या मनांत घोळटाले.

निर्मल चिंत्तालें, एका हातान केन्नाच टाळी वाजना. ह्या प्रकरणांत आपलो घोव जितलो दोशी आसा, तितलेंच गुन्यांवकारी ताचें मोगीय आसा. आपलो घोव जबरदस्तीन कोणाच्या फाटल्यान गेल्लो जाल्यार ताका जाग्यार हाडपाचो प्रयत्न करूं येतालो. आपणें घरांत कितलोय विरोध केलो जाल्यार ताका भायर कोण आडायतलो? आनी ताका लागून निर्मल आपल्याक सगळें खबर आसून लेगीत दोळ्यां आड मसण पाड करतालें.

भास्कर बेबदो नासलो. झगड्यांकार नासलो. आपले बायलेक गरजे भायर दुखयता तसलो नासलो तो. आपल्या संवसाराकडेन दुर्लक्ष करिनासलो तो. उशीर जावं मागीर, घर म्हूण घराक येतालो तो. अशें आसतना निर्मलान शेणार फातर मारून आंगार उसळोवन कित्याक घेवचें?

हांगा निर्मल चुकनासलें. चुकतालो तो भास्कर. तो चुकलो जाल्यार तें बाबडें कितें करतलें? हेर बायलो दिसरात झगडटात, तशें तेंय झगडटलें?

निर्मलाचें मन ताका सांगतालें, तुका ह्या घरांत हाडलां. ह्या घराचो स्वर्ग करपाक. नाका थंय नाक खुपसून स्वर्गाचो नरक करूंक न्हय. तूं ह्या घराची लक्ष्मी. घराचें रक्षण करपाची जापसालदारकी तुजी. घोवाक आनी कुटुंबाच्या वांगड्यांक दुखयनासतना घर सांबाळपाचें कर्तव्य तुजें.

आयज तुजो घोव तुका फाट करून इश्टिणींवांगडा भोंवता. केन्ना लेगीत भोंवतलो? एक दीस थकतलो आनी तुज्याच आसऱ्याक येतलो. तोय बी तुवें तो आसरो शाबूत दवरलो तर! तुजो घोव वाऱ्यार भोंवता म्हूण ताच्या रागान, तूंय घर सोडून हेडूंक लागलें तर दोगांय वाऱ्यार पडटलीं. सैमाचो नेमच तसो आसता. जो मनीस सैमाच्या आड वता, तो पावला कणकणी आडखळटा. हाची पुराय जाणविकाय निर्मलाक आशिल्ली.

निर्मलाक दिसलें, शीला गोंदळ्ळां. आपलें मन ताच्या मुखार मेकळें करचें. ते खातीर भरभर करून उपेग ना. शीला शाणें आसा. प्रतिभावान आसा. ताका सारांशरुपान आपलें मन मेकळें केल्यार ताका तें समजूंक आडखळ येवचीना.

निर्मलान आपलें मन मेकळें केलें, शीलाक निर्मलाचे विचार समजले. पूण ताका ते पचले नांत. ताकाय कारण आशिल्लें. शीलाची आवय विदुशी आनी निर्मलाची अल्पशिक्षीत. दोगांय आवयांनी आपल्या धुवांचेर केल्ल्या संस्कारांत भेद आशिल्लो. निर्मलाची आवय देव-धर्माक चड म्हत्व दिवपी. शीलाची आवय देव-धर्माक तितले पुरतीच मानताली. पूण पतीक देव मानून, जल्मान जल्म आपल्याक तोच घोव मेळचो म्हूण वडा पुनवेक वडापूजा करण्यांतली बायल नाशिल्ली ती. आपलो बुरसो घोव आपल्याक जाय तसो वागलो तरी तोंड धापून, दोळे मिटून गप्प बसपाची बायल नाशिल्ली शीलाची आवय. अर्थात गजेंद्राकडे संघर्श करून जगचेली पाळी आयलीना तरी दुर्यान घोव-

बायलेमदें समानतायेचें वातावरण निर्माण केल्लें. ह्या वातावरणांतल्यान वाडिल्ल्या शीलाक निर्मलाचे विचार पटपासारके नाशिल्ले. आधुनीक जगांत, घोव-बायलांमदें ल्हान-व्हडाची भावना आसूंक फावना अशें शीलाचें मत आशिल्लें.

हाच्या उरफाटें निर्मलाक दिसतालें, कुटुंबांतल्यो बायलो सोशीक आसल्यारूच तें कुटूंब थाऱ्यार उरता. ना तर तें मसंडीच्या थरार पावता. निर्मलाच्या मनांत कितें आसा तें आतां शीलान समजून घेतलें. ताका आपणें समजावपाचो कितलोय यत्न केलो तर उमथ्या कळशार उदक थारतलें हाची खात्री आतां शीलाक पटली. आतां जालें तें जालें, ह्या फुडें तरी मामा-मामीचे भानगडींत ना पडपाचें शीलान थारायलें. इतलेंच न्हय मामा-मामीचेर तें बेजारलें. ताणें तांची संगत सोडपाचो निश्चेव केलो.

मनीस संवेदनशील आसत जाल्यार ताच्या जिवितांत केन्ना कशें मोड येत हें कोणाच्यान सांगूं येना. मनशाच्या पायांकडे सुखां पातळून थेयलीं तरी तो आपल्या जिवितांत निमणे मेरेन सुखी आसतलो हें कोणाच्यान सांगूं येता? ल्हानपणांतसावन ताचो व्यक्तिविकास घडून येतलो जाल्यार ताच्या घराब्यांतलीं आनी सरभोंवतणचीं मनशां सुशील, सुवर्तनी आनी बरे देखीचीं आसप हें चड गरजेचें आसता. दुडवांनीं मनीस घडना. तो घडटा सुसंस्कारांनीं. दुडू हें एक शक्तीशाली हत्यार आसूं येता. हें हत्यार धारदार चाकू प्रमाण आसता. मनीस धारदार चाकूचो उपेग फळां कापूंक करूंक शकता आनी मनशाची गोमटी चिरपाचेंय काम करूंक शकता. दुडू उज्याचेंय काम करता. उजो उजवाड घालता, अन्न भाजता-शिजयता आनी तो मनशांचीं घरां पेटयता.

मनशांकडे गिरेस्तकाय आसची. पूण ती बरे तकलेच्या आनी बऱ्या विचारांच्या हातांत आसची. माकडा हातांत कोलीत दिलें आनी ताका मेकळो सोडलो, तर कितें घडटलें हाचो विचार शाण्या मनशांनीं केल्लो बरो!

नायक घराण्यांत काशीबायन प्रवेश केलो आनी घरांतली सुख-शांती भुर्र करून उडून गेली ती हो वेळ मेरेन परत येवंक नाशिल्ली.

आतां काशीबाय हातरूणार पडून आशिल्ली. दुसऱ्यान हाताक धरून उठोवचें पडटालें तिका. हात-पांय काम दी नाशिल्ले. तरी मेंदूची कार्यक्षमता इल्लीय मंद जावंक नाशिल्ली तिची. शीला म्हऱ्यांत ना म्हूण कितें जालें? येतलें केन्नाय तरी. तें आयलें म्हण्टकीर आपूण जिर्तीं आसतनाच कुलीन घराण्याचो बरो-सो भुरगो सोदून शीलाचें लग्न करतलीं. पुतागेर जालो ना म्हूण कितें जालें? ताचे धुवेगेर जातलोच चलो. त्या चल्याक आपूण कायद्यान पोसको घेतलीं. मागीर आपूण दोळे मिटूंक मेकळी! दोळे मिटले उपरांत स्वर्गाचीं दारां थंय पावचे आदींच आपल्याक उकतीं जातलीं, अशी खात्री त्या भावार्थी जिवाक जाली.

पूण नुसतें दर्यांत आशिल्लें, आनी काशीबाय घरा बसून हुमणाक आळेण वाट्टाली. शीलाच्या मनाचो विचार तिका आयज लेगीत करीन-सो दिसलो ना.

शीला बाबडें मात वेगळोच विचार करतालें. वेगळो म्हळ्यार कसलो विचार करतालें तें? आपल्या लग्नाचो? लग्नाचीं सपनां पळोवपाची ताची वेळ केन्नाच सुरू जाल्ली. कळी फुलूंक लागून पांच-स वर्सां पासार जाल्लीं. ताच्या लग्नाच्या विचारांनीं दुर्याचें मन सकल-वयर जातालें. कितलेंय जालें तरी तें आवय आशिल्ली ताची. तिका धुवेच्या लग्नाची काळजी आसचीना तर आनी कोणाक आसतली?

शीला मात आपल्या लग्नाविशीं पक्कें नाशिल्लें. हाचें कारण दादल्यांविशींचो ताचो अणभव वायट आशिल्लो. सिस्टर प्रिस्काच्या आवय-बापायचो इतिहास ताच्या मनांत घोळटालो. धीरूचें चित्र ताच्या दोळ्यां सामकाराक नाचतालें. हे सगळे दादले मनीस शूद्र वृत्तीचे आशिल्ले. आनी ताचो मामा-भास्कर? तो तर गुरूपूत. बऱ्या संस्कारांनीं - बरे देखीन वाडिल्लो. बामण कुळांत जल्म घेतिल्लो. तो आपले धर्मपत्नीचो विश्वासघात करतलो, अशें शीलान केन्नाच चिंतूंक नाशिल्लें.

शीलाच्या मनांत विचार आयलो-आपल्या दुर्देवान आपल्याय नशिबांत असलें बायजण आयलें जाल्यार? असल्या बायजणा सांगातान संवसार करचे परस आंकवार राविल्लें बरें, असले विचार शीलाच्या मनांत घोळूंक लागले.

आनीक एक गजाल ताका आशेचीं किरणां दाखयताली. प्रथमेशाक तें अजून विसरूंक नासलें. प्रथमेशान जरी ताका न्हयकारलें, तरी प्रयत्न करून ताचें मन वळोवपाक कसली हरकत आसा? तो तयार जालो जाल्यार बरेंच जालें. ना तर सुखाचो जीव दुखांत घालचे परस जल्मभर आंकवार राविल्लें कितें वायट?

कांय मनशां आशेर जगतात. आपल्याक स्पर्श केल्लो पयलो दादलो आपल्याकडेन लग्न जातलो आनी आपूण सुखी जातलें म्हूण शीला वाट पळेत आशिल्लें. आयज ना फाल्यां आपूण प्रथमेशाक मागणी घालतलें. आवय-बापायची आनी आज्जेची पर्वा करीनासतना.

शीलाच्या आवय-बापायकडेन गिरेस्तकाय आसा. तें देखणें आसा. हुशार आसा. प्रथमेश ताचेकडे लग्न करतलो? काय प्रथमेशाची आस मनांत बाळगून आयज टवटवीत फुलासारकें आशिल्लें शीला दिर्शी-दिर्शी बावत वतलें?





- नं. ध. बोरकार
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

# रूच

"सेक्रेटरीएटाकडेन अळमी आयल्यांत गोऽ" शिवरामान सगळ्यांक आयकूंक येतलें अशें म्हज्या मेजाकडेन येवन मोठ्ठ्यान म्हळें.

"खूब जाणां आसात रे विकपा? बारीक काय मोठी?"

"तें हांव नकळों, पूण आयल्यांत तीं खरीं. मागीर वतलें काय ना गो पळोवपाक?"

म्हजें अळमीप्रेम ताका पुरेपूर खबर आसा. "वतलें तर!" अशें ठसक्यान म्हणत हांव ऑफिस सुटपाची वाट पळोवपाक लागलें. केन्नाकाय ऑफिस सुटता आनी घराकडेन वतना अळमी व्हरून हांव तांचे विंगड-विंगड पदार्थ करतां अशें म्हाका जावन गेल्लें. ऑफिस सुटतगीर घोवाक सांगलें,

"अळमी आयल्यांत, पळोवपाक या" म्हळ्यार ताची परवणी सुरू. "आगो निकतींच आयल्यांत तीं! म्हारग आसतलीं. दुसऱ्या खेपेक पळोवचीं, बऽऽरीं येतलीं आनीक"

पूण हांव म्हजें सोडटां? घेवन गेलेंच सेक्रेटरीएटाकडेन. जाल्यार हो पयस रावला आनी म्हाकांच वचून घेवन यो म्हणपाक लागलो. हांवय तुरतुरीत पर्स घेवन गेलें. पळय जाल्यार घे लोकांच्यो झुंडी. बाजारांत नुस्तें नाशिल्ल्यान अळम्यांचो घोस्त तर खूबच वाडलेलो. सगळ्यांकडेन करंगळी इतल्या बारीक अळम्याचे वाटे. हांवे गर्देतल्यान तोंड घालून एकले अळम्याकान्नीक वाटो विचारलो. जाल्यार खंय तीनशें रुपया. भीतभीत विचारलें, "शंभर रुपयांक दिता हय गे?" शिजयतगीर फस्का काडये इतल्यो बारीक जावपी अळम्याक आनीक चड पयशे दिवपाक हांव निखालस तयार नासलें. जाल्यार ती अळम्यांकान्न अशी म्हज्या आंगार आयली म्हणून सांगू? पोमेरीयन फाटी घे गाळयांचो शिंवर. हांव गर्देतल्यान तोंड काडून घेवन 'तें हांव न्हयच' करून फुडें आनीक पळोवपाक गेलें. सगळेकडेन एकच रेट. आनी कोणाकडेन विचारपाक म्हाका कापस्ताद नाशिल्ल्यान आसूं, पाडपडूं, दुसरे खेपेक पळोवया म्हण परतून आयलें. जाल्यार घोव म्हणटा कसो! "आयलें वास घेवन? म्हजो मात टायम वेस्ट केलो." जणू काय हो इतल्या वेळाक एके व्हडले कामगिरेक वचपाचो आशिल्लो. घराकडेन वचून ताणून दितलो म्हण बरो. कांयच उलयलें ना. बेठोच वाद नाका म्हणलें.

मोटरसायकली वेल्यान घरा वतना म्हाका याद जाली, बाबा आसतना अळमी विकतीं हाडल्यार म्हाका तापयतालो. म्हणटालो, "आमच्या दोंगरार घेऽऽ म्हण अळमी आसात. आमी पयलीं हाडून पुडयो बांदून सगळ्यां सोयऱ्या-धायऱ्यांक पावयताले. वेल्यान विकपाकय धाडटाले."

चल आज शुक्रार. आयताराक दोंगरार भोंवपाचें. पळोवया मेळ्ळीं जाल्यार मेळ्ळीं. हावें म्हज्याच मनाचें समादान करून घेतलें.

आयताराक व्हडलीशी पोती घेतली आनी धाकले धुवेक घेवन बरो रेनकोट बी घालून कोणाक सांगीनासतना आमी अळमी सोदपाक गेलीं. तें पयलीं म्हजेबरोबर बरें उमेदीन आयलें. पूण हेवटेन तेवटेन लागतले काणणीचे काटे आनी झोपांतल्यान येता तो सरसर आवाज आयकून भिल्ल्याभशेन जालें आनी परत या म्हण पिरंगवपाक लागलें. इतल्यान एका जाग्यार म्हाका हयन्हयशें धवें-धवें कितें तरी दिश्टी पडलें. बेगबेगीन म्हऱ्यांत वचून पळय जाल्यार कितें? एके रोयणीचेर अळम्यांचे कळे निकतेच वयर आयल्यात आनी कुशीक बसून दोन माकड ते काडून चाबडायतात. शाळेंत आसतना आमी मनशां माकडाचेच वंशज म्हण शिकयल्लें तें म्हाका पटनाशिल्लें. पूण आज अळमी खातात त्या माकडांक पळोवन माकड खरेंच आमचे वाडवडील हाची म्हाका शंबर टक्के खात्री पटली. हांव जाता तितले बेगीन त्या माकडांक धांवडावपाचो यत्न केलो जाल्यार ते दांत विचकून आनी खेकाडो घालून अशे म्हाका पळोवपाक लागले की म्हज्या आंगाची ल्हंवेन ल्हंव उबी जाली. धाकटें तर 'मां, मां' करून रडत आपलो जीव वाटावपाक पयस धांवून गेलें. म्हाकाय धीर जालो ना आनी हांव फाटल्या पायांनी परतलें. घराकडे सांगल्यार, वयर कित्याक शेण खावपाक गेल्लें? म्हण तापसाणी आयकून घेवच्यो पडटल्यो म्हण म्हजेबरोबर धाकट्याचेंय तोंड बंद केल्लें. पूण पिंजिल्लो रेनकोट सगळ्यांचे नदरेक गेलोच.

ह्या प्रसंगा उपरांत कितले दीस गेले, अळमी विकपाक येवपाचें नांव ना. अंदूचो पावसाळो म्हळें फुकट वता सो दिसता. अळम्याशिवाय 'ये जीना भी क्या जीना है' अशें म्हाका दिसतालें. एकय दीस असो गेलोना की हावें अळम्याची याद करूना. म्हजे तळमळे पळोवन घोवान आनी भुरग्यांनी म्हाका सामकेंच पिशांत काडिल्लें.

एक दीस कितें काम जालें म्हण हांव घराच रावलें जाल्यार ते दीस घोवान ऑफिसांतल्यान येतना एक पिशवी हाडून म्हजेकडेन दिली आनी म्हळें, "घेऽऽ. अळम्यांक हुस्केतालें मगो?" म्हाका इतली खोस जाली पूण वायटय दिसलें. अळम्यांकय दीस्त आजच येवपाक फावलें? हांव जाल्यार सारकें बरें वार्जिक करून करून (अळम्याकारांच्यो गाळी खावनय) घेताशिल्लें. पूण आसूं, कांय नजो. वर्सासनाची खावपाक पूण मेळ्ळीं. रेट बी काय विचारली ना. ओगीच म्हळें खावचे पयलीं विरूस कित्याक? हावें किचनाक व्हरून पोती जमनीर रकयली. जाल्यार कितें? बाजारांत सदांच मेळटात तीं बटन मशरुम्स. पंचवीस रुपयांनी एक मेळटात तीं पाकिटां. हावें कपलार हात माल्लो आनी पुटपुटले. हहहह गुळाची चव काय?





– रूपा कोसंबे
घर नं.:३५९, शिंदोळी,
सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०



## पावस पिसो !

असो कसो, पावस पिसो
सकाळपसून रावला व्हांवत
म्हातारेचो कळसो कसो

वडयो केल्यो गेल्यो भिजून
मिरसांगेचो पिठो अजून
तेंवता पळे रगत कसो
असो कसो पावस पिसो

आंगण पळे तळें जालां
तुळशी रोपोय बुडून गेला
हांगा थंय लागला धावूंक
पांजऱ्यांतलो पिसो सोंसो
असो कसो पावस पिसो

रांदची-पोल्लांत न्हिदला बुकी
एकूय सुवात ना गे सुकी
भिंतोडेत कुडकुट्टा
कोंबलो म्हजो इल्लोसो
असो कसो पावस पिसो

वासरेभितर काळोख गुपाट
पाट सोदल्यार मेळटा ताट
तांदळांतले फातर वेंचून
जीव जालो सामको पिसो
असो कसो पावस पिसो

– मनोहरराय सरदेसाय

## पावस पिसो !

पयर पसून रकता असो?
मळबा बुराक पडला जसो
बुल्लुशिल्लो भुरगो कसो
म्हणटा म्हाका पावस पिसो
न्याय गा तुमचो असो कसो?

'यो रे पावसा' आपोवणो पावन
रोखडोच मिर्गार आयलों धांवन
येवकार दिलो ल्हान व्हडान
म्हणटात आतां पावस पिसो
न्याय गा तुमचो असो कसो?

बाविल्ल्या रोप्यांक उदीक घालें
भुरग्यां खातीर आंगण भरलें
व्हड्यांनी खेळून खुशाल जाले
म्हणटात आतां पावस पिसो
न्याय गा तुमचो असो कसो?

मायाचो म्हयनो पुरूमेताचो
नेम आसता घरकान्नीचो
सामान हाडचें कोंत्राद तुमचो
वयल्यान म्हणटात पावस पिसो
न्याय गा तुमचो असो कसो?

रान्नी पोल्लांत बुकी सुखी
कोंबले बाबाची भितोड सदिंची
वर्सांन जाता भेट तुमची
तरी म्हणटात पावस पिसो
न्याय गा तुमचो असो कसो?

– विजयाबाय सरमळकार



## पावस

पाचवेचार सैमाक ह्या
पळयत रावचेशें दिसता
सवणें जावन रुखार रुखार
भोंवत रावचेशें दिसता

श्रावण म्हयनो
रूखान रूख
न्हावन धूवन नटला
पानान पान हासता ताचेर
कोमरी नवी फुटल्या

कोगुळाचें गायन
शेवण्यांची चिंवचिंव
कावळे लेगीत
भर पावसांत
रुखा तेंगशेर बसल्यात

अख्खे धतरीक न्हाणोवंक
पावस धावून आयला



– शोभा शिवा फुलकार
किर्ला-वाडो, चिंबल.
मो.: ९२२६९२९७१०

मनसंवेदना

# हें कसलें नाटक?



लेखकाचें आमकां
नांव खबर ना
डायरेक्टराचें तोंड
केन्ना पळोवंक ना
नट नटयो
कोण कोणाक वळखना
पार्ट तरी अशे वांटले?
हिरोचे व्हिलनाक दिले
हे नटय कसले?
भाशण पाठ केलें ना
प्रोम्पटींग आयकूंक आयलीना
तरी नाटक करतात
तोंडाक येता तें उलयतात
तकलेंत येता तें बडबडटात
करीन दिसता तें करतात
मारीन दिसता ताका मारतात
लायकी नाशिल्ल्यांक पुजतात
बरोवपी ना, बसोवपी ना
देखून आमच्या अभिनयाक
सुमार ना.
चोराक मेकळो सोडटात
सावाक करतात अटक
असलें आमचें नाटक.

फुडलो सीन कसलो
आमकां कोणे सांगलेंना
कोण एन्ट्री घेतलो
कोणाक कांय खबर ना
कारण, एकूय येसाय
कोणे केन्ना घेतली ना
हस्तलिखीत दाखयलेंच ना
पुस्तकय हातांत पडलेंना.
नाटकाची सुरवात
कोणाक याद ना.
शेवट कितें
तेंय अजून कळ्ळें ना.
आमी सगळे कलाकार
कथा नकळ आसून
हे माचयेर वावुरतात
आनी स्वताक व्हडले
नट समजतात.
आपणाक जाय जायत्यो
जाय जाय तशो
भुमिका करतात.
बरो आसलो सोरो पिता
संत आपले दांत दाखयता
खिणा खिणाक रोल बदलता
सत्यवादी मारता फट
कठीन मनाक पटप
असलें हें नाटक.

दिसा एक अभिनय
रातचें दुसरेंच संवंग
पड्डया फाटल्यान वावुरतात
तांच्याय तोंडाक रंग
काळखांत भोंकता सुणो
उजवाडांत जाता मोनो
भायर जाता देव
बायलेकडेन खेव
हे कसले देखाव?
ही कसली ऍक्टींग?
शंबरांतले णव्वद नट
आयज जाल्यात फटींग.
नट आसलो
नेपथ्यकार जाता.
गरजे भायर
नेपथ्य बदलता
राना जाग्यार शार दाखयता.
उजवाडा येवजण मात
वेळावेळार जाता.
पूण नट नटयो
केन्नाय न्हिदतात
केन्नाय उठ्ठात.
तोय म्हूण कसलो?
काळखांतल्या सिनाचेर
घालना स्पॉट.
हांगा उजवाड,
थंय काळोख गुपाट
जाय तें लिपयता
नाका तें दाखयता.
जायते पावटी,
पावसाचेच सीन
करता कट.
असलें हें नाटक...

ना कोर्नो ना मायक
आयकूंक येता जाल्यार आयक
ताळो सरांटून उलयता
तो जिखता
बोमले देंठ फुलयता
तो फस्तीक पडटा.
सगळे वांगडाच उलयतात
सगळे वांगडाच वाजयतात
कळना तरी नाचतात
शिकलेना तरी गायतात
नाशिल्ल्योच घडणुको घडयतात
बऱ्यांक रडयतात
वायटांक हांसयतात
प्रेक्षकांक हाडटात उबगण
ही आवाजा येवजण.
ताचे फुडली भेसवण
नाका तें उगडें
जाय तें बंद.
हे नाट्यशास्त्राचे घटक?
असलें हें नाटक?

आमीच नाटकी, आमीच प्रेक्षक
आमीच रक्षक, आमीच भक्षक
आमीच तारपी, आमीच मारपी
आमीच देव, आमीच दानव
भितरल्यान पशू, भायल्यान मानव
हें नाटक अशेंच घडटा
कोण पडटा, कोण उडटा
ही रंगमाची अशीच घुंवता
खंयचे खंय पड्डो पडटा.



– भरत नायक
रेगो बाग,
आल्तो सांताक्रूज

## यादींचो पावस

पडटकच पावस
मन जाता
बेठेंच उदास
शिरशिरो पावस
हळूच म्हाका
घालता साद

बारीक मोट्यो
पावसाच्यो यादी
सोबीत तें बिंब
मन जाता
पावसानूच घायाळ
म्हणून हांव,
पावसाचेर बेजार

आदीं हांव
पावसाचेर मोग करी
पावसान म्हजी
फुलताली कळी
पावस म्हळ्यार
सामकें पिशें...!

हो गेल्यार
जालीं वर्सां पांच
तेन्नाच्यान हांव
पावसाचेर रागार
पेट्टालो उजो
पेखना घावो

भायर पावस
पडलो तरी
दुःख गाळी
मन अंतरी
पावसाचो सुवाळो
मनोवपाचे दीस गेले
जालीं आतां पांच वर्सां
जेन्ना हे अंतरले

– सुनिता सुभाष शाह
शांताबन – मेरशी.

## बंदन

भांगराळ्या यादीचे पांखाटे लावन
मळबाक वेंग मारूंक
सोदतां हांव!
पूण विखाळ यादी
बेडयो घालून
जमनीकच खिळयतात !

– संहिता कुलकर्णी
नारायण नगर, होंडा,
साखळी–गोंय

## रान माजर

तुजी घारशीच
नदर गो तेळटना
कित्याक काय तें माजर
नदरेंत भरता?
म्यांव–म्यांव करीत
विखयाळ्या दावखुलांनी
म्हजीं शिरंतरां बुड्डीत

तुजे जुवानीचो हुलोप गो
आंगभर जळटना
कित्याक तें माजर
झडप घेता
म्यांव–म्यांव करीत
म्हजीं नसांनसां फाफशीत



– गौराज तळावलीकार
पी. ई. एस. महाविद्यालय,
फर्मागुढी, फोंडे–गोंय.
मो. नं.– ९६३७२१२५६८

## याद गे आज्ये तुजी

आज्ये तुजे गोजडे भितर
याद गे तुजी अजून तिश्टता
पूण मांयन दिल्ले ब्लँकेटी भितर
काळी किण्ण रात भेसडयता...

आज्ये तुवें केल्ले आंबिलिची
अजून गे याद येता...
पूण मांयन दिल्ल्या गोडशाक
बेळशेल्लो वास येता...

आज्ये तुजीं गीतां आयकूंक
कान गे म्हजे अजून आशेतात
पूण मांयन गायल्ल्यो रिकॉर्डी
आयकून गे कान भेड्डे जाता...

आज्ये तुज्या संस्काराच्या तिजोरेची
हांव अजून गे राखण करतां
पूण मांय म्हाका फकत
वेस्टर्न कल्चरूच आपणाय म्हणटा....

आज्ये तुजो दिश्टावो म्हाका
अजून गे खिणा–खिणांक जायत आसता
पूण हें सांगपाक मांय म्हऱ्यांत गेल्यार
जस्ट अ मिनीट म्हणटा...



– श्रीनिशा नायक
बेतकी – खंडोळा

## रांदची कूड

### ताल्ल्यां सुकें
**(धबधबीत)**

**साहित्य :** १५-२० ताल्ले, १५ सुक्यो मिरसांगो, २०-२५ तेफळां, ७-८ हरव्यो मिरसांगो, अदमासान आमटाण आनी मीठ, अर्द वळें सोय, ३-४ कुलेरां (धाकटीं) हळदी पिठो, १०-१२ सोलां.

**करपाची तरा :** ताल्ले उजरावन कुडके करून निव्वळ धुयात, मिरसांगो (सुक्यो) सोय, हळद, आमटाण बारीक वाटात. तेफळां चेचून ताल्ल्यांनी घालप. तातूंतच हरव्यो मिरसांगो चिरून घालतना सोलां घालूनच वाटीभर उदकान कालयात, ५ मिनटां शिजयात आनी रुचीन जेवात.

### ताल्ल्यां सुकें
**(सडसडीत)**

**साहित्य :** १५ ताल्ले, ४ मोठे कांदे, २ कुलेरां हळदी पिठो, बोटा येदें आलें, ७ ते ८ सोलां, १ वाटी नाल्ला सोय, ३ धाकटीं कुलेरां मिरची पूड, ७/८ हरव्यो मिरसांगो, १०-१५ तेफळां, अदमासान मीठ.

**करपाची तरा :** सगळे ताल्ले उजरावन कुडके करून नितळ धुवन घेवचे. कांदो, हरवी मिरसांग बारीक शिनात, आलें बारीक किसून घेयात. सगळें वयलें सामान, मीठ, १ वाटी उदक घालून ताल्ल्यां सकट बारीक उज्यार शिजयात.



### बारकेल्या सुंगटां सुकें
**(सडसडीत)**

**साहित्य :** २ वाटी सुंगटां सोलून घेयात, अर्दवाटी सोय, ४ कांदे, अर्द कुलेर धाकटें मिरसांगे पिठो, ५-६ सोलां वा आमटाणी उदक, रुची खातीर मीठ.

**करपाची तरा :** बारीक कांदो शिनून सुंगटां, हळद, मिरसांगे पिठो, सोलां, सोय, वाटीभर उदक घालून बरे हातांनीं कलसून घेवन शिजोवंक दवरात. शिजयतना वयर ताटलेर उदक घालात म्हणजे भितरलें उदक आटलें तरी भंय ना.

(अशेंच खडपी कालवांचें, तिसऱ्यांचें, शिनाण्या कालवांचें सुकें करूं येता.)

### बारकेल्या सुंगटां धबधबीत

**साहित्य :** १ वाटी बारीक सुंगटां, व्हडलें कुलेर मिरसांगां पिठो, ल्हान गुळो आमटाण, ५-६ कांदे (मध्यम) १ नाल्ला सोय, १ कुलेर धाकटें हळदी पिठो, आमले फोडी वा आंबाडे, रूचीक मीठ.

**करपाची तरा :** ४-५ कांदे बारीक शिनून वाटीभर उदकांत शिजयात. सोय, मिरसांगे पिठो, आमटाण, १-२ कांदे मोटसर वाटून घेवन आमले फोडी वा बिमलां त्या शिजयल्ल्या सुंगटा कांद्यांत घालात आनीक बरो खतखतो काडात. आमली शिजली की ४-५ थेंब खोबरेल तेल (गांवठी) घालून बंद करात.



### बारकेल्या-सुंगटां-दांगर

**साहित्य :** उजरायिल्ली १½ वाटी सुंगटां, १ कुलेर धाकटे मिरसांगे पिठो, अर्द कुलेर धाकटें हळदी पिठो, १ वाटी सोय, १ व्हडलें कुलेर भाजिल्ल्या कोथंबिरे पिठो, ४ कांदे मध्यम, रूची खातीर मीठ, थोडें आमटाणी उदक, ४ कुलेरां तांदळा पीठ, तळपाखातीर तेल.

**करपाची तरा :** अर्द वाटी उदकांत लिंबा येदी आमटाण भिजत घालून ताचो बरेतरेन कोळ काडात आनीक चोथो भायर उडयात. बारीक कांदो शिनून सगळो मसालो आनीक सुंगटां आमटाणीच्या उदकांत १ कुलेर तांदळापिठांत कालयात. आनी जाता तितले मध्यम आकाराचे गुळे करून ते चेपून चेपटे करात आनी उरिल्ल्या तांदळा पिठांत घोळोवन तेल घालून तळात. ह्या जिनसाच्या वासानच जिबेक उदक सुटूंकच जाय.





- सुफला रूद्राजी गायतोंडे
मिरामार - पणजे.
मो. - ९८२३१११९९७

# गोवा कोंकणी अकादेमीचे
# कोंकणी साहित्य आनी भाशा सेवा पुरस्कार भेटयले

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या कोंकणी साहित्य आनी भाशासेवा पुरस्कार भेटयल्यो सुवाळो २५ जुलाय २००९ ह्या दिसा मडगांवच्या रवींद्र भवनांत मोठ्या उमेदीन जालो. ह्या वेळार नामनेचे इंग्लीश लेखक सुधीर कक्कर आनी गोंयचे मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हे मुखेल सोयरे म्हूण हाजीर आशिल्ले.

ह्या दोनय मानेस्तांनी पुरस्कार जैतिवंतांक हे पुरस्कार भेटयले. ह्या सुवाळ्यांत उलयतना कक्कर हाणीं म्हळें, "[illegible] भाशेमळ्यान उगतायल्ल्यो भावना जिव्यो उरतात".



नागेश करमली सुधीर कक्कर हांचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना




निलबा खांडेकार मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना



रामनाथ गावडे मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना



राजय पवार मुख्यमंत्री दिगबर कामत हाचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना

## सवोत्कश्ट कोंकणी साहित्य /ग्रंथ पुरस्कार २००९

### निलबा खांडेकार

**ब्लॅक (कविता)**

ल्हानपणासावन तांकां साहित्याची आवड. समाजांतलो अन्याय अत्याचार तांणी प्रखरपणान आपले लिखणेंतल्यान व्यक्त केला. एक बंडखोर कवी म्हण ते साहित्याच्या मळार फामाद आसात. कथा, कविता, नाटक हे प्रकार तांणी हाताळल्यात. १९९२ वर्सा 'वेध' ह्या पुस्तकाक कला अकादेमीचो राज्य पुरस्कार तशेंच २००१ वर्सा 'सुर्यवंशी' आनी २००२ वर्सा 'अग्नी' ह्या कविता संग्रहांक गोंय कोंकणी भाशा मंडळाचो पुरस्कार फावो जाला.

### रामनाथ गावडे

**उतळजीण (कथा)**

वेग-वेगळ्या कोंकणी दिसाळ्यांतल्यान तांच्यो कथा -कविता उजवाडाक आयल्यात. सुमार वीस नाटकुलीं बरोवन तांणी सादर केल्यांत. तांचीं प्रकाशीत जाल्लीं पुस्तकां म्हळ्यार 'सावळ्यो' (कथासंग्रह), 'उतळजीण' (कथासंग्रह), 'युवा कथा' (कथासंग्रह), 'सदू' (बालनवलिका), 'शितळगंगेचें ल्हार' (संगीत नाटक).

### राजय पवार

**आमचो हात जगन्नाथ! (नाटक)**

गोंयचो पयलो विनोदवीर म्हण फामाद. कविता, गीत आनी नाटक प्रकारांतल्यान तांणी लेखन केल्लें आसा. तशेंच नाटकांनी अभिनय आनी दिग्दर्शनूय केल्लें आसा. 'पावस फुलां' ह्या कविता संग्रहाक कोंकणी भाशा मंडळाचो साहित्य पुरस्कार फावो जाला. आज मेरेन तांचे प्रकाशीत जाल्लें साहित्य म्हळ्यार 'पावस फुलां', 'जमलें रे जमलें', 'अंता अंता शिरीमंता', 'आमचो हात जगन्नाथ' हे शिवाय 'न्हिदेरोग कर्मभोग', नाटक एका नाटकाचें, 'वन टू थ्री- टेन्शन फ्री' हीं नाटकां बरोवन तांणी सादर केल्लीं आसात.


मुकेश थळी मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना


डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकार मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना


गजानन जोग मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना


आग्नेल फेर्नांडीस मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना


राजदीप नायक मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना

### मुकेश थळी
**हंसध्वनी (निबंद)**

निवेदक, क्वीज मास्टर, परिक्षक म्हूण वेगवेगळ्या माध्यमां खातीर दीर्घ अणभव आशिल्ले लेखक आनी अनुवादक. तांणी साबार कोंकणी कथा इंग्लीशींतल्यान अणकारल्यात तशेंच हेर भासांतलें साहित्य कोंकणींत अणकारलां. तांचे 'वळेसर' आनी 'हंसध्वनी' हे दोन निबंद संग्रह उजवाडाक आयल्यात. 'आमचीं झाडां आजूनय वाडटात' आनी 'बच्चेंद्री पाल' हें बालसाहित्य उजवाडाक आयलां.

### डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकार
**क्षः समिक्षेंतलो (समीक्षा)**

सद्याक ते गोंय विद्यापिठाच्या मराठी विभागांत प्रपाठक आसात. तांकां कोंकणी, मराठी, हिन्दी, संस्कृत, इंग्लीश, पुर्तुगेज, लॅटीन ह्यो भासो येतात. कथा, कविता, नाटक, एकांक, निबंद, समीक्षा, अनुवाद अशेतरेन साहित्य प्रकार तांणी हाताळ्ळयात. 'लक्ष्मणराव सरदेसाय यांची कथा : एक शोध', 'गोमंतकीय साहित्यांतील शोध स्थळे - एक शोध', 'क्षः समिक्षेंतलो', 'आदिमायेंचे उलं' (कविता संग्रह) आनी 'बाळकांगितां' (बालसाहित्य) हीं तांचीं प्रकाशीत पुस्तकां. एकांकी तशेंच नाटक दिग्दर्शनाखातीर तांकां जायतीं इनामां मेळ्ळ्यांत. २००७ वर्सा गोंय मराठी अकादेमीचो 'लक्ष्मणराव सरदेसाई यांची कथा : एक शोध' ह्या ग्रंथाखातीर साहित्य पुरस्कार तांकां फावो जाला.

### वर्स फुकट वचूंक ना! (बालसाहित्य)
**गजानन जोग**

कोंकणी तशेंच मराठी भाशेंत कथा, कविता, लेख, नाटक अशा साहित्य प्रकारांत तांणी लिखाण केलां. बालसाहित्य रचलां. कोंकणी साहित्य मराठींत आनी मराठींतलें कोंकणीत अनुवादीत करपाचो वावर केला.

'रुद्र' आनी 'सोद' हे तांचे दोन प्रकाशीत कथासंग्रह. 'वर्स फुकट वचूंक ना!' ही भुरग्यांखातीर जाल्यार 'संस्कार क्षम' ही किशोरांखातीर तांची नवलिका उजवाडाक आयल्या.

युवाचैतन्य पुरस्कार - २००९
### आग्नेल (द बोरी) फेर्नांडीस

तियात्राच्या मळार तांणी भोव मोलादीक वावर केला. तियात्राचें लेखन, दिग्दर्शन केलां, निर्मितीय केल्या. एकांकीय बरोवन सादर केल्यात.

तियात्र लेखनाखातीर तांकां कला अकादमी, गोवा कोंकणी अकादेमी, ग्राफ, मुंबय ह्या संस्थांचीं इनामां फावो जाल्यांत. कोंकणी भाशा मंडळाचो २००४चो साहित्य पुरस्कारूय तांकां मेळ्ळा.

युवाचैतन्य पुरस्कार - २००९
### राजदीप नायक

तांणी 'रंगसांगाती, वळवय' हे संस्थेन निर्मिती केल्ल्या जायत्या नाटकांनी म्हत्वाच्यो भुमिका केल्यात. आजमेरेन तांणी विसां वयर वेवसायीक नाटकांची निर्मिती करून तांचे प्रत्येकाचे शंभरां वयर प्रयोग, गोंय तशेच गोंयाभायर केल्यात. तांच्या ह्या जैताखातीर तांकां 'शेकडोवीर' म्हण वळखतात.

साहित्य प्रतिभा पुरस्कार - २००९

**नागेश करमली**

तांकां भुरगेपणांतच शिकता आसतना साहित्याची गोडी लागली. शणै गोंयबाबांची बरपावळ वाचून तांकां कोंकणी शक्तिचो दिश्टोवो जालो. १९५२ वर्सा कोंकणीच्या वावराकडेन तांबो संबंद आयलो. हातुंतल्यानूच फुडें ताणीं गोंयचे सुटके चळवळींत वांटो घेतलो. गोंय सुटके खातीर ताणीं वेगवेगळ्या रुपांत वावर केला. ते बंदखणींतय गेल्यात.

फाटल्या चाळीस वर्सांत ताणी कोंकणीचे उदरगती खातीर बरोवपी, वावुरपी आनी संघटक म्हण वावर केला.

'जोरगत', 'सांवार', 'वंशकुळाचें देणें', 'थांग - अथांग' हीं तांची प्रकाशीत कवितेचीं पुस्तकां.

१९७२ वर्सा तांचो ताम्रपट भेटोवन गौरव जाला. राष्ट्रपती भौ. प्रतिभाताई पाटील हांचे हस्तुकीं स्वातंत्र्य सैनिक म्हण राष्ट्रपती भवनांत तांचो भोवमान जाला.१९९२ वर्सा तांच्या 'वंशकुळाचे देणें' पुस्तकाक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळा.

**सुरेश बोरकार**

कोंकणी व्याकरणाच्या क्षेत्रांत तांचें भोव मोलादीक योगदान आसा. 'कोंकणी व्याकरण' 'कोंकणी व्याकरण :सहज अभ्यास पुस्तक', 'नवी वळख', 'लेट्अस लर्न कोंकणी', हीं पुस्तकां ताणी रचल्यांत.



सुरेश बोरकार सुधीर कक्कर हांचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना



बाबली नायक सुधीर कक्कर हांचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना



जे. बी. मोरायस सुधीर कक्कर हांचेकडल्यान पुरस्कार स्विकारतना



कलाकेंद्र सावर्डेचें वांगडी उत्कृष्ट सेवा संस्थाचो पुरस्कार स्विकारतना



पुरस्कार फावो जाल्ल्या मानेस्तांवांगडा दामोदर मावजो, एन्. शिवदास, मुखेलमंत्री दिगंबर कामत, सुधीर कक्कर आनी विन्सी क्वाद्रूश.

# गोंय सरकार

## कोंकणी आनी मराठी भाशेचे उदरगती खातीर गोंय सरकार

गोवा कोंकणी अकादमीक
आनी
गोमंतक मराठी अकादमीक
अनुदान दिता
तुमच्या लेखन गुणांक पालव मेळपाक
ह्या अकादमीकडेन संपर्क करात




संचालक
**राजभाशा संचालनालय**
जुन्ता हावस, १ली लिफ्ट, ५ वो माळो,
पणजी - गोंय.



## स्रावण आयतार

स्रावण म्हयन्यांत आई करता
आयताराची पूजा
पत्री आनी फुलां घालून
देवाक शिंगारता

निवेद्याक मुटल्यो करता
खिचडी आनी पातोळ्यो करता
यादीन मात पोळे करता
निमाण्या आयतारा

पोळे खावन निमाणो आयतार
स्रावणांतल्यान पळ काडटा
परतो मागीर बद्द येता
स्रावणांत फुडल्या वरसा



## स्रावण पावस

स्रावणांत अचकीत येता
एक एक पावसा दडक
त्याच वेळार हांसत हांसत
वोतय येता कडक

पावसा वांगडा वोत मागीर
धरचेल्यानीं खेळटा
वोताफाटल्यान लागता पावस
वोत लागता पळपा

धावन धावन, पुरो जावन
वोताक मारता खरस
पावस ताची फाट धरून
रावता ताका भिजयत

पावसा वांगडा खेळटना
वताकय खोस जाता
सात रंगां सत्री फुलोवन
खोशेन तें नाचत रावता



– नागेश नायक वडिये
लक्ष्मी बिल्डींग,
दत्तगिरी अपार्टमेंट,
वामन वर्दे मार्ग, मडगांव.



## १५ ऑगस्ट

आयलो १५ ऑगस्ट आयलो
तेदूस भारत स्वतंत्र जाल्लो
कितल्या जाणांनीं जीव होगडायलो
म्हणून आयचो दीस दिसलो
विंगड प्रांत आनी भासो आसलेलो
विंगड धर्म आनी जातिंनीं भरलेलो
भावपणान हो सदांच नंदलेलो
अखंड आमकां आसा राखचेलो
तिरंगी बावटो उंच उरचेलो
प्रसंग आयल्यार प्राण दिवचेलो
राष्ट्र आमगेलें वयर काडचेलो
सोपूत आमी घेवचेलो



– सदानंद तेंडुलकार
खोडयें, सत्तरी.

# पावसाचो खेळ

भिजिल्लीं दोन सवर्णीं
एकेच सत्रे पोंदां आयलीं
चिकटून चिकटून चलतना
सामकीं ओलीं चिप्प जालीं



शिरशिरून पावस पडटना जनेलांतल्यान भायर नदर गेली आनी झाडाचे सावळे पोंदा कुडकुडत बशिल्लीं दोन सवर्णीं पळोवन मनांतल्यामनांत उतरां शिजूंक लागलीं, शिजून जातकच तीं ओंठार आयलीं आनी कवितेच्या रुपान तीं कागदार केन्ना उदेलीं कळ्ळेंच ना.

कितलोसोच वेळ हांव त्या सवण्यांक पळयतालों. मर्दीच दिसलें, वचचें, त्या सवण्यांक पोशेवचें, घरांत हाडचें, तांकां पुसचें. पूण उटंगाराच्या पावसांत मन तयार नासलें. ह्या सवण्यांक घर नासता? आसता जाल्यार पावसांत तीं कित्याक भोंवतात? आमचे भाशेन तांकां गच्च पांगरूण घेवन सुस्त न्हिदन दिसना? अशे कितलेशेच विचार म्हज्या मनांत घोळूंक लागले आनी त्याच विचारांत हांव दंग आसलों.

इतल्यांत ''सकाळ सावन फक्त झडटा... झडटा... थांबपाचें नांवच काडिना. कसलो अच्छेव आयला म्हणून कोण जाणा ह्या पावसाचेर.'' पावसाची पिरपीर सोसूंक नज जावन आईन म्हणलें आनी हांव भानार आयलों.

हेरशीं पावस म्हणल्यार हांव पिसो. पावसांत भिजप म्हाका खूब आवडटा. पूण आतां आदली उमेद, आदली शक्त उरूंक ना. पावसाचो एकूच थेंबो माथ्यार घेतलो की थंडी जाता, नाक चोंदता आनी ल्हवूच जोरूय येवन वता. त्या भंयान हांव पावसांत चडसो भायर सरना. फक्त जनेलाचेर बसून भायलो सैम तोखेतां.

''कितें गे पावस. उसरपत घेनासतना पडटा. ताणें कितें येवजिलां म्हणून कोण जाणा.'' आमचे इमारतींतली एक बायल दुसरे बायलेकडेन फुतफुतता.

''आगो, अशें पावसाचेर कित्याक फणफणटा? हे दीस ताच्या हक्काचे. ताणें जाय तेन्ना येवपाचें, जाय तेन्ना वचपाचें.'' दुसरी म्हणटा.

तांचीं उलोवणीं आयकतना म्हजी मनरिजवण जाता. इतल्यांत शेतां मेरेर उबो रावन ''ह्या पावसाचें केन्नाच बरें जावचें ना. काय बरें भांगरा शेत पिड्ड्यार केलें ह्या पावसान. म्हज्या पोटार पांय दिवन ताका कसलें समादान मेळटा देव जाणां.'' हीं शेतकाराचीं उतरां म्हज्या कानार पडटात आनी रडकुऱ्या तोंडाच्या त्या शेतकाराक पळोवन ताची काकुळट आयले बगर रावना.

अशीं कितलींशींच बरीं वायट उतरां पावस सुरू जातकच कानार सादतात. कोण एकलो पावस अचकीत आयलो म्हणून पावसाचेर ताणशेता जाल्यार कोण तो येवंक ना म्हणून ताका होरायता. 'आयज कडकडीत वत पडटलें' हवामान खातें अदमास उक्तायता आनी ज्युस्त त्याच दिसा पावस येता आनी हवामान खात्याचो अदमास चुकता.

हय! मनशां भाशेन पावसूय लहरी जाला. तो आपणाक जाय तेन्ना येता. फॅक्स, ई-मेल, मोबायल, तेलेग्राम, फोन सोडातूच, सादें पत्र

# भुरग्यांचें आंगण

लेगीत बरोवन तो आपूण येता म्हणपाचें सांगिना. तो केन्ना येता आनी केन्ना वता हाची सुलूस लेगीत कोणाक लागना. आपूण येवन गेल्ल्याची कुरू लेगीत तो कांय वेळा दवरना. रस्त्यार पडिल्लीं फोंडकुलां आनी उस्पूंक नाशिल्ल्या खळयांक लागून ताचें अस्तित्व जाणवता, इतलेंच.

पावस जरी वायट आसलो, कटकटीचो आसलो तरी तो आमकां जाय. पयल्याच पावसान भिजिल्ले मातयेचो वास आमच्या नाकांत रिगता आनी मन धुंद जाता. विंगड विंगड सुवातांनीं तुंबिल्ल्या उदकाक आपल्या प्रवाहांत सामील करून ल्हान ल्हान व्हाळ जावन ताणें व्हावंक जाय. त्या व्हांवत्या व्हाळांत कागदाचीं व्हडीं सोडपांत जी मजा आसता ती आनीक खंयच आसना. उंच उंच माड दर्याच्या उदकांत आपलें प्रतिबिंब नियाळटात. तांचे कडेन कुचूकुचू गजाली करतल्या ल्हारांचो रूबाब पळोवपा सारको आसता.

पावस म्हणल्यार सर्गांतल्यान धर्तरीचेर पडपी मोतयांची माळ. पावसाचें म्होंवाळ संगीत आनी वांगडा जोगलांचो नाच हो अद्‌भूत आनी अपूर्व असो सुवाळो ल्हान भुरग्यां पासून जाण्टयां मेरेन सगल्यांकूच भुलयता, पिसो करता. पावसाच्या तालार पिसारो फुलोवन नाचपी मोर दोळ्यांत साटोवचो अशेंय दिसता.



पावस अचकीत येता. ल्हवूच वता आनी मळबांत उदेल्लें इंद्रधणू मनाक भुरळ घालता. पावसा आदीं लिकलिकपी काजुले लेगीत आमचेर मोनेळ घालतात. मळबांत काळीं कुपां दाटून येतात आनी अचकीत पावसाचे घोगे धर्तरीचेर कोसळटात. धर्तरी पांचवोच शालू न्हेसून व्हंकल कशी सजता आनी आपलो सगळो शीण, राग, दुख्ख, विवंचना कुशीक सारून पावसाक वेंगायता आनी कांय खिणांतूच पावस आनी धर्तरीचें मिलन जाता. तो आयिल्ल्यान झाडां नव्या चंवरान फुलतात, शेतांत भांगर पिकता, जमनीचेर, खडपांचेर, दोंगराचेर नदर मारल्यार कोणे तरी तांचेर पांचवीच चादर घाल्या बी ना मू अशें दिसले बगर रावना.

साठी हुपिल्लो मनीस पावसाक जेन्ना पळयता तेन्ना ताच्या मनाचो पतंग भुतकाळांत उडूंक लागता आनी त्या पावसाक लागून मनाच्या पाटुल्यांतले अणभवाचें आनी बऱ्या वायट प्रसंगाचें फूल ताजें टवटवीत जावन तांचे जिणेंत खोशेचो, उमेदीचो आनी उल्हासाचो चंवर शिंवरायता.

पावस आमचीं मनां भिजयता. आमचें काळीज ओलें चिप्प करता. आमचे चित्तवृत्तीक ओलसाण दिता. आमचें कवी मन जागयता आनी आमच्या ओठांतल्यान अचळय उतरां फुट्टात :

अशेंच तुवें येवचें पावसा
कोणाक सांगिनासतना
मनां मनां धूंद करचीं
आमकां कळयनासतना



– अतुल र. पंडित
मडगांव - गोंय

# करीअर



"पास जालो मरे? बरें केलें. घे वाट हे पेढे वाड्यार सगळ्यांक."

घरांत सरतांच भिकून पुताक सांगलें. ताचो पूत पप्पू आयज धावेची परिक्षा पास जाल्लो. पप्पू सोप्यार वगीच बशिल्लो.

"पयलीं पळय कितें उजवाड घाला तो परिक्षेंत. पास क्लासींत पास जाला आनी तूं मार पेढे वाट्टा वाड्यार." भिकूचे बायलेन थोमणो मारलो. आवयच्या उलवण्यान पप्पू आनीक मात्सो नर्वस सो जालो.

"आगो पास जालो न्ही तो. ताचे बुध्दीभशेन मार्क मेळटले ताका. नाय म्हळ्यार आमचोच पूत न्हय तो. तूं आनी हांव काय मॅट्रीक पास जावंक ना. ताणें तें तरी करून दाखयलें."

आपलें शिक्षण वयर काडलें म्हूण भिकूची बायल मात्शी चडूच तापली. "आमच्या वेळावयलो काळ वेगळो आसलो. आमकां शिकोवपी कोण नासलो. हाका कितें उणें आशिल्लें! मागता तें मेळटा. शिवाय इतको पयसो होगडावन ट्युशनाक घाल्लो. फुडें कितें करतलो जाल्यार मार्क नाकात! हाचो करीअर कितें?"

भिकू पूत पास जाला म्हूण व्हडा खोशयेन आसलो. बायलेच्या तोंडाक-तोंड नाका म्हूण भिकू वगीच रावलो.

पप्पू थंयचं येदेशें तोंड करून सोप्यार बशिल्लो. भिकून ताचे फाटीर हात भोंवडायलो. "कांय भिवं नाका. करपा सारकें खूब्ब आसा." पुताले फाटीर हात भोंवडायतां-भोंवडायतां भिकूक आपल्या धावेच्या निकालाची याद आयली.

वीस-पंचवीस वर्सां फाटीं भिकू असोच मॅट्रीकेक आशिल्लो. हेर कामाक हुशार पूण अभ्यास आनी शाळा म्हळ्यार ताचे तकलेक आटयो पडटाल्यो. अभ्यास म्हळ्यार संकश्टशें दिसतालें. शाळेंत शिकयता तें मतींत उरनाशिल्लें. हाका लागून शाळेंत टिचर ताची टर उडयताले. चार चौगां सामकार टिचरान अशें कितें म्हणटकच भिकूक सामकी लज दिसताली.

"भिकू तुका हो अभ्यास बी जमपाचो ना. तूं बापायच्या गाड्यार बसून भजीं गाळ. चार पयशे तरी करतलो. हांगां बेश्टी आमची तकली इरार करता." अशें बी टिचरान थोमणो मारतकच वर्गांत भुरगीं खीऽऽखी करून हासतालीं. ते वेळार वर्गांतल्यान धांव मारची आनी सगळीं पुस्तकां बी न्हाणयेचे चुलींत घालचीं असो दुश्ट विचार ताच्या मनांत येतालो. अर्थात भिकून तशीं पिशेपणां केलीं नांत पूण भिकू मॅट्रीक पास कसोच जालो ना.

पयलेच फावट मॅट्रिकेक नापास जातकच जेन्ना बापायन भिकूक विचारलें, "आतां फुडें कितें करपाचो विचार आसा?" भिकून बापायक स्पश्ट सांगून वडयलें, "शिकप म्हाका जमचें ना. हांव तुज्या धंद्यांत लक्ष घालतां."

भिकूचीं तीं उतरां आयकून तेन्ना ताचो बापूय हांशिल्लो. म्हणूंक



लागलो, ''हांव चलयतां भज्यांचो गाडो. हातूंत तुजो फुडार कसो जातलो?'' भिकून मनांत म्हणलें. 'पळयशीत तूं!'

भिकूक ल्हानपणा सावन रांदप खूब आवडटालें. आवय कसलींय खाणां-जेवणां करताली तेन्ना भिकू बारीकसाणीन नियाळटालो. अभ्यासाचो ताका वाज येवं पूण खाणा-जेवणाचे जिन्नस आवय कशे करता हाचो तो खोलायेन अभ्यास करतालो.

मॅट्रीक नापास जातकच भिकू केन्नाच हांगा थंय हेडलो ना. ताणें तडक बापायच्या गाड्यार भर्जी गाळूंक सुरवात केली. ताच्या गाड्यावयलीं रुचीक भर्जी खावंक पयसपयसच्यान लोक मुजरत येताले. बापायच्या फाटल्यान भिकून बापायचो धंदो वाडयलो. भिकूलो गाडो शारांत एका जार्दीना लागसार आशिल्लो. हांगा दिसभर जायते लोक येताले. करतां-करतां भिकून व्हडलें दुकानूच घेतलें. 'भिकूज स्नॅक्स' अशें व्हडलें दुकान थंय उबें रावलें. भिकूल्या दुकानार बटाट्याचीं, मेथयेचीं, पालकाचीं, कोबीचीं, कांद्याचीं, चिकनाचीं अशीं ना-ना तरेचीं भर्जी मेळटालीं. भिकून फकत पीठ कालोवन दिवप. काम करूंक आठ-धा लोक ताच्या हाताखाला वावुरताले. भिकू गल्ल्यार बसून दीस-रात पयशे घेतालो.

ताची टर उडोवपी टिचरूय जायते खेपो भिकूच्या दुकानार येताले. भिकून तांकां रेस्पेदान म्हणचें ''सर तुमी शाळा सोडपाचो सल्लो दिलो म्हूण आयज हो येदो व्हडलो बिजनेस करूंक पावलों. ना जाल्यार कोणाची तरी चाकरी करीत बसपाचों. तुमचे व्हड उपकार म्हजेर आसात.'' तांचे मागीर तो केन्नाच पयशे घेनाशिल्लो. तोंडार थापट मारिल्लेवरी टिचरूय ओगीच रावताले. भिकूल्या भज्यांची नामनां चोय वटांनीं पसरिल्ली. भर्जी खावचीं जाल्यार तीं भिकूल्या 'भिकूज स्नॅक्स' हांगाच अशें अख्खें शार म्हणटालें. पयसो-आडको, गाडी बंगलो सगळें भिकून आपल्या धंद्यांतल्यान कमयल्लें. एक डिग्री सोडली जाल्यार ताचेकडेन कांयच उणें नाशिल्लें. लक्ष्मी जणूं काय हात जोडून ताचे मुखार उबी आशिल्ली. एकलो अपुर्बायेचो पूत तोवूय बी आयज पास क्लासांत जायना, मॅट्रीकेची परिक्षा पास जाल्लो.

पुताचे फाटीर हात ओडटां-ओडटां भिकूक त्यो सगळ्यो फाटल्यो गजाली याद जाल्यो.

''हां आतां फुडें कितें करपाचें थारायलां?'' भिकून पप्पूक विचारलें.

''पप्पा हांव आतां तुज्या धंद्यांत लक्ष घालतलों. म्हाका हो धंदो आनीक फुडें व्हरचो आसा.''

पुताचो आत्मविश्वास पळोवन भिकूक खोशी जाली आनी हातांतली पेढ्यांची कास घेवन भिकू वाड्यार पेढे वाटूंक भायर सरलो.

❦❦❦

– दोतोर (मेजर) प्रकाश शेटये



देवळाय – खांडोळ
मो.: ९४२०२९७३०८

कथा

# दैव पावलो

**स**माज कल्याण खात्यान जाहीर केल्ल्या लेखा अधिकारी पदाखातीरचे मुलाखतीक वचपाक जॉनी सकाळींच घरांतल्यान भायर सरलो. ही मुलाखत म्हणल्यार एक फॉर्मालदाद आसली. हेर वटेन देंवचारांक रोंट बी घालून ताणें फिक्सींग केल्लें. मडगांवच्यान पणजे पावता म्हणल्यार एक वर तरी वतलेंच अशें धरून तो साडे-आठांकच मडगांवच्या कदंब बस स्टॅण्डार पावलो. ताका धा वरांचेर समाज कल्याण खात्याचे कचेरेंत पावंक जाय आसलें.

खासगी बस रावत रावत केन्ना पणजे पावतली हाचो नेम नाशिल्ल्यान ताणें कदंब शटल सर्वीस बसीन वचप पसंद केलें. तिकेट काडपाक लायन खूब व्हडली आसली. लायनीक रावपा शिवाय ताचे कडेन पर्याय नासलो. तो लायनीक वतना तिकेट कावंटराकडेन लागीं पाविल्ल्या संतोशान ताका पळयलो.

''आरे जॉनी, खंय रे आज सकाळ फुडें? दांडी मारून लायनीक वता?'' संतोशान ताचीं फकाणां केलीं.

''लायनीक? हांव तिकेट काडपाचे लायनीक वतां मरे.''

''वता खंय रे तूं?''

''पणजे.''

''मागीर थंय राव. हांव काडून हाडटां तिकेट.''

पयशे दिवपाखातीर जॉनीन आपलो हात बॉल्सांत घालो तो पळोवन संतोशान खुणेनच नाकात म्हणलें. इतलें म्हणल्यार तो कावंटराकडेन पाविल्लो. लायनीक आशिल्ल्या कांय जाणांक तांचो राग आयलो. पूण कोण कांयच करूंक शकनाशिल्लो. कित्याक एकल्याक दोन तिकेटी मेळोवपाचो अधिकार आसा.




पावणे णवांक बस सुटली. धाच्या पयलीं पणजे पावतलो हाची जॉनीक खात्री जाली. हांगा थंयच्यो गजाली मारीत ते दोगूय आपलेच भिरकेंत आसले. वेर्णा पावपाक बस गूर्ऽऽ गूर्ऽऽ करपाक लागली.

'घात घेतली कितें रे ही बस?' जॉनीच्या मनांत पाल चुकचुकली.

''कदंबा मरे ही. गोंयची नंबर वन बस सेवा.'' संतोशाचें म्हण्णें आयकून कांय जणांक हासूंक आयलें. रस्तो सपाट आशिल्ल्यान ती नागवामेरेन गुरगूरत पावली. पूण तिच्यान मुखावयलो इल्लोसो चडाव काडपाक जालो ना. बंद पडली.

''म्हाका घराकडेनच खात्री जाल्ली कसलें पूण विघ्न येतलेंच म्हण.'' जॉनीन आपली फायल कपलार मारली.

''मुलाखतीक वचपाक तुज्यान स्कुटरीन भायर सरपाक जायनासलें?'' संतोशान ताका फोण्ण मारलें.

''ह्या पावसांत स्कूटर घेवन इतले पयस वचपाचें? रस्ते धड आसात रे हे? वचत थंय फोंडकुलां आनी रेबड मरे. मात्शें आंगार पडल्यार जालें फेस्त. ते कपडे घालून हांव मुलाखतीक पावतासलों मरे? आमचो येरादारी मंत्री हॅल्मॅट कंपलसरी करपाक सोदता. रस्त्यावयले अपघात वाटावपाक. ह्या रस्त्यांवयलीं फोंडकुलां ना करून अपघात वाटावंक जायनांत त्या दळदिऱ्यां कडेन.'' जॉनीन तिडक उक्तायली.

''चलात, देंवात रे सगळे. आतां ही बस मुखार वचपाची ना. दुसरे बसीक फोन केला.'' कदंबाच्या ड्रायव्हरान बिनदास्त घोशणा केली जशे काय पॅसेंजर पिकनिकेक वतात.

''ह्यो बसीय ६व्या वेतन आयोगाच्या शिफारसीक रडटात दिसता.'' एका पॅसेंजरान देंवता देंवता थोमणो मारलो.

कदंबांत काम करपी कामदारांक पयलीं आपलेंपण आसा आपल्या आस्थापनाचें? आपले नोकरेचें? पगार मेळटा म्हण हाजेरी लायतात. हॅल्परांच्या पोंतान उंचलेमेरेन चोरतात, आनी म्हणटात बशी लुकसाणींत चलतात. स्पॅरपार्ट चोरल्यार बशी फायद्यांत कश्यो चलतल्यो? आर्दी खासगी बस धनी, एक बस रस्त्यार आरामसे चलोवन वर्स जाता म्हणल्यार दुसरी बस काडटाले. पॅसेंजराची कुयदाद घेताले. हे कदंबवाले सामकेच सरकारी जावंय जाल्यात मरे.

मडगांव-पणजे, मडगांव-वास्को रस्त्यांचें राष्ट्रीयकरण जायत थावन हांकां चडूच मद मारला. खासगी बसवाले कितली कुयदाद घेतात रे आपले बशीची. हे कामचोर आत्रे पयऱ्यान रस्त्यार बंद पडून आसतात. लोकांचे हाल करतात. देखूनच कदंबाच्यो बशी १० वर्सांनीं कावलाक काडटात आनी खासगी बसवाल्यांक मात १५ वर्सांचो काळ रावचें पडटा.'' एका जाण्टेल्यान आपलो अणभव वांटलो.

''इतल्याचेर खंय आसा तें, येदो व्हडलो मेन्टेनन्स डेपो आसा तो कामदाराचेंच सादोवपाखातीर खंय! ड्रायव्हर-कंडक्टरांकडेन खासगी बसी आसात म्हण लेगीत लोक उलयतात. कदंबाच्या पगारान बशी घेवंक जातात जाल्यार दुबाव आसा.'' म्हणत तो एकलो खूऽखू करत हासूंक लागलो.

''ड्रायव्हर-कंडक्टरूच कित्याक, मॅकेनीक म्हण कमी उंचायेर आसात?'' आनीक एकल्यान तोंड घालें.

''तशें जाल्यार ६व्या आयोगाच्या शिफारशींची तांका कित्याक गरज आसा तर? पगारा भायर मेळटा तें पुरो ना?''

''सगळ्यांक खंय मेळटा तें? थंय म्हण इमानदार मनीस नात रे? म्हज्या घरा शेजराक एक ड्रायव्हर रावता. तो बारा-बारा वरां काम करता. मोन्यानी. ताची कसलीच कागाळ नासता. ताका खंयच्याय वेळार आपयल्यार वता बाबडो. कदंब बस सेवा ही सरकारान लोकां खातीर उपलब्ध करून दिल्ली सोय म्हण ताणें कदंबाची बस चलोवप आपलें मिशन थारायलां.''

''जावं, देवान तरी ताचे खातीर कितेंय मेळोवन दिवचें. पूण ह्या बशीच्या नंबरा वयल्यान दिसता ही बस तीन वर्सांपरस पोरणी न्हय. जाल्या खटारा.... आतां कदंबाचो चॅरमन एक वटेन सांगता म्हामंडळ लुकसणेंत चलता आनी दुसरे वटेन नव्यो बसी विकत घेवपाची भास उलयता.''

''मागीर! ताका ६व्या वेतन आयोगाच्यो शिफारशी खंय लागता? ताच्यो शिफारशी नव्यो बशी घेवनच लागू करपाच्यो न्हय?''

''हय तर. म्हणून ते कदंब बशी धा वर्सां भितर कावलाक काडटात. म्हामंडळ फायद्यांत आसूं वा लुकसणेंत आसूं, चॅरमनाक ताचें कसलें सोयरसुतक? फाल्यां दुसरो येतलो तोय तेंच करतलो. हाचे पयलीं आसात ताणीं कसलो त्याग केला म्हण ह्या चॅरमनान त्याग करपाचो?''

''तुमी जाणांत, आतां खासगी बस धनी कदंबाक बरेच धारेर धरपाचे आसात. येरादारी खातें आनीक रस्त्यांचें राष्ट्रीयकरण करूंक सोदता. तशें केल्यार खासगी बसवाले रस्त्यार देंवपाचें आव्हान करतात. ना जाल्यार आपणाकय कदंब सेवेंत सामील करूंक मागतात. तशें जाल्यार मात कॉमेडी जातली.''

''कॉमेडी खंयची? कदंब कामदारांचे भोगणार जातले. ते कितले सुस्तावल्यात तें खबर आसा तुका? इल्लोसो चड वेळ म्हामंडळाक दिवंक ते तयार नांत. मोडिल्ल्यो बशी सारख्यो करपाक तयार नांत. ड्रायव्हर बशी वेवस्तीत सांबाळपाक तयार नांत. तांचो चॅरमन बसी घेवपापासून कांय फाटीं सरचो ना. सरकाराक पयशे तर दिवंकच जाय. खासगी बसवाले आतां कदंब कर्मचाऱ्यांचीं कामचोरपणां, भ्रश्टाचार, घाळपणां उक्ताडार हाडपाच्या वावराक लागल्यात. धडगत ना अशें दिसता हे मुखार कदंब म्हामंडळाची.'' फाटल्या दोन चार दिसांच्या वर्तमानपत्रांनी जो बोवाळ चलतालो, ताचें विश्लेशणच जालें अशें. प्रत्येक जण आपणाक तांची म्हायती आशिल्ल्या सारके उलयताले.

हें सगळें जॉनाक खंय पडून गेल्लें? तो आपल्या घडयाळार नदर दवरून आसलो. ''साडे णव जायत आयलीं हाची अजूनय दुसरी बस येना. म्हाका धा मेरेन पणजे पावपाक जाय.'' जॉनाच्यान कशेंच वोगी रावपाक जायना जालें.

''शांत जा जॉन. कोणय येता जाल्यार पळोवंया.'' संतोशान ताका थातारलो. तितल्याक पणजे पी. डब्ल्यू. डी. कचेरेंत मोटर सायकल घेवन नोकरेक वचपी सांतान येता तो संतोशान पळयलो. पूण ताका हात दाखोवचे पयलींच, कोणेंतरी दुसऱ्यान ताका हात दाखयलो. तो पयसूच थांबलो. कोण तरी ताचेबरोबर वचपाक तयार जालो. जॉनाच्या हातीक धरून संतोश ताचे फुड्यांत गेलो.

''सांतानबाब, पळय. हो म्हजो इश्ट जॉनी. ताका धा वरांचेर मुलाखतीक पावपाक जाय. हे कदंब बशीन ताचो घात मारलो. दोन बशी गेल्यो पूण त्यो थांबल्यो नांत. मात्शे तुजे बरोबर व्हर रे ताका.'' संतोशान विनवणी केली. सांतानान अडचण समजून घेतली, आनी जॉनीक फाटल्यान बसूंक सांगलें.

''तुका चड आनीक चड देव बरें करूं संतोश. हांव मागीर मेळटां तुका.'' जॉनीन संतोशाचे उपकार मानले.

पावसान आज विसव घेतिल्लो. सुर्या पर्जळटालो. ज्या कामाखातीर ताणें मोटर सायकल व्हरूंक नासली, त्या कामाक ताका मोटर सायकलीनच आदार केलो. जॉनीची अडचण लक्षांत दवरून मात्सो नेटान वचून सांतानान जॉनीक सारको वेळार समाज कल्याण खात्याच्या दारांत व्हरून देंवयलो. सांतानाक लागून तो वेळार पावलो. ना, जाल्यार कदंब बशीक लागून अपघात जायनासतना आनीक एक बळी वतासलो.

''सांतानबाब, तुज्या रुपान आज म्हाका देव पावलो.'' सांतानान दिनवासणी मानून घेतली आनी 'बॅस्ट ऑफ लक' म्हणत मुमुरको हांसत फुडें गेलो.





– विन्सी क्वाड्रस
'स्नोज कृपा'
आर्लेम राय,
सालसेत-गोंय
मो. 9822587498

## पारावरचे गजाली

# जलसमाधी



तळेगांव तसो आडवळणाचो गांव. नाय धड गाडी नाय धड घोडो अशी परस्थिती. त्या मुळा विकास-विकास कसलो म्हणतंत तो गावाक् आजून तरी म्हायती नाय. गांवांत धड रस्ते नसल्यामुळां येव-जावची सुदा गैरसोयच. आजुबाजुच्या गांवांतले लॉकसुदा ह्या गांवांत पोरगी देवक् तयार नसंत्. गांवचे गांवकार लॉक मग दरवर्सा दॅवळात यक् गांवसभा घेयत् आनी अमुक दिशी सगळ्या घराघरात्सून किमान येक-येक माणूस जमवून श्रमदान करून गांवचे रस्ते धोंडे-माती टाकून कसेतरी दुरूस्त करून घेयत. पावसाळ्यांत परत रस्ते होते तसेच होयत्. मग परत गांवसभा आनी परत गांवचा श्रमदान. ह्यो असो दरवर्साचोच कार्यक्रम झाल्लंलो. पावसाळ्यांत गांवची नदी-व्हाळ पार करून जावचे म्हंजे मोठीच जोखीम. शाळेंत जाणाऱ्या पॉरांचे तर लयच हाल. पन नदी-व्हाळ वलांडूचेच लागत. ता नाय करून जमतला कसां? सगळी शेतीवाडी व्हाळ नायतर नदीपल्याड. जॉताचे बैल तितपर्यात न्हेवन् शॅत तर नांगरूंक व्हया! गांवकरी उन्हाळ्यांत पावसाचे आदी कसेबसे नदी-व्हाळावर लाकडाचे साकव बांधत. पण ते पयल्या व्हॉवरातंच व्हावान जायत्. मग अखखो पावसाळो नदी-व्हाळाच्या उताराकडे डोळे लावन् बसाची पाळी येय्. कायजण दांडगाय करून त्या भरलंल्या नदी-व्हाळात्सून शेतीसाठी पल्याड जावचे प्रयत्न करीत. पण ह्या प्रयत्नात किती ढोरॉ-बैल गेल्या पंद्रा-ईस वर्सात व्हावले तेचो हिशेब नाय. माणसाही चार-पाच व्हावान् मेली हुती. पन त्याका कोनाचोच ईलाज नाय हुतो. शिवाय गांवची ही परस्थिती सरकारच्या कानावर घालीत असो कोन फुडारीसुदा गांवात नाय व्होतो. गांवचो सरपंच दर पाच वर्सानी बदला; पन ते सरपंच कसले? सगळे मेले आंगठेभाइर! नाय कोनाक् धड लिवक् येय, ना वाचूक. मग सरकाराकडे तकरार करतलो कोन?

पन येका पावसाळ्यात गांवावर म्होटा संकटच कोसाळलां. गांवकारांनी नदीवर साकव बांदलल्यांनी. येक दिस डोळे ढापून पावस् वतलो, नदी काटोकाट भरान् गेल्लंली; पन कदीनाय तो ह्यावेळी साकव आजून व्हावाक् नाय होतो. त्यामुळा नदी वलांडून पलिकडच्या गांवात शाळेत जाणाऱ्या पॉरांका नी त्यांच्या आवशी-बापाशीक् लयशी काळजी नाय हुती. साकव आसा म्हंजे पॉरा शाळेत जातंली ह्या त्यांका म्हायत् व्हता. पॉराही साकवावरसून जातंना भरलंल्या नदीची मजा बगूंक गावतंली म्हणान् खूश हुती. आनी ह्या खुशीतच त्या दिशी जवळजवळ १०-१५ पॉरा साकवावर चडलीं. त्यांच्यात काय टवाळ पॉर सुदा होते. त्यांका वरसून भरलेली नदी बगून लय मजा वाटाक् लागली. त्यामुळा भान इसरान् साल्यांनी साकवाच्या मध्यावर जावन् जॉराजॉरात् साकव हलवल्यांनी. सोबतच्या पॉरा-टॉरांनी बॉंब मारल्यानी. तसो ह्यांका लयच चेव चडलो नी नुको तां घडला. भर व्हॉवरात कसोबसो उबो ऱ्हवलंलो तो साकव, पॉरांनी हलवल्यामुळा मुळात्सून कुपळान पडलो नी त्याच्यावरची सगळी शाळकरी पॉरा त्या व्हॉवरात व्हावान गेली. गांवांत ही बातमी समाजल्याबरोबर गांवांत मोठी बॉंब पडली. परत्येकाच्या घराघरात आक्रोश सुरू झालो. कारण परत्येकाच्या घराघरात्सून यॅकतरी पॉर शाळेंत जाणारा हुता. पॉरांच्या आवशींनी रडारडान् आपली कपाळां फोडून घॅतलॅनी. फुडचे दोन दीस गांवांत चूल पेटली नाय. दुसरे दीस व्हावलंल्या पॉरांपैकी चार-पांच पॉरांची मढी खालच्या गांवांत नदीच्या कडेक मिळाली. बाकीचीं खंय व्हावान् गेलीं ह्येचो आजूनपर्यात पत्तो लागलो नाय.

शेवटी गांवांवरच्या ह्या संकटाची खबर कशीबशी तालुक्यांत कळली. चौत्या दिशी गांवांतल्या ढॉपार-ढॉपारभर खड्डे पडलंल्या रस्त्यात्सून वाट काडीत मामलेदार नी कलेक्टराची गाडी गांवांत इली. त्यांनी गांवांतल्या सगळ्या घराघरात् जावन् सगळ्या परस्थितीची म्हायती घॅतलॅनी. कागदावर कायतरी लिवनसुदा घ्यातल्यांनी. आयाबायांची रडारड बगून तेसुदा कावरेबावरे झाले हुते. इतक्यात त्या भागाचो आमदारसुदा रॉ-रॉ करून गाडी उडईत गांवांत हजर झालो.

त्यानाय् सगळ्यांची इचारपूस केल्यान्, नी फुडच्या पावसाळ्याच्या आदी गांवांतल्या नदीवर पूल बांदान देयन् म्हणान् सांगान काडतो पाय घेतल्यान्. ताच नाटक मामलेदार-कलेक्टरानंय् केल्यान्. हळुहळू ह्या दुखात्सून गांव सावरलो. पन काय?

नदीवर सरकार पूल बांधान् देतंलो देतंलो म्हणता-म्हणता सात वर्सां उलाटलीं. ह्या सात वर्सांत नदी पावसाळ्यांत तशीच भरान् व्हावली, साकंवही तसेच व्हावान् गेले, नी बैल-ढॉराही तशीच व्हावलीं. व्हावलीं नाय ती फकस्त मान्सां. कारण त्या वर्साच्या घटनेतून ती शानी झाली हुती. पन नदीवर पूल काय झालो नाय.

पन त्या दरम्यान येक गोस्ट बरी झाल्लंली. ह्या धा-पंद्रा वर्सांत गांवचीं पॉरां शिकान शानी-सवरती झाली हुती. चार इंग्रजी बुकां शिकल्यामुळा आनी कदीमदी ह्या ना त्या कारनान् तालुक्या-जिल्ह्याच्या ठिकाणी जाना-येना वाढल्यामुळां त्यांच्या नजरेखालसून वर्तमानपत्रां जावक् लागली. त्याच्यातले बातमे वाचून त्यांकाही आता आपल्या गांवचे अडीअडचणी दूर व्होवक् होये, गांवचो विकास होवंक् होयो, असां वाटांक् लागलां. त्येतूरसून धडो घेवन् त्यांनी गांवांत यॅक 'तळेगाव विकास मंडळ' स्थापन केल्यानी. पन गांवची पूर्वीची उनाड पॉरां तीं. त्यांका ह्यो विकास करूचो म्हंजे नक्की त्यासाठी काय काय करूचा लागता, त्याका खर्च कसो येता, ह्या समाजल्याबरोबर ता मंडळ थंड व्होवक् लागलां. पन नॅमकॅ ह्याच वेळेक सावतांच्या बाबल्याचो चुलतो पांडुरंग सावंत मुंबैसून गांवांक् इलो. तो बरो-शिकलो सवरलंलो होतो, मुंबईत बरो नोकरेक होतो. पन अचानक त्याची कंपनी बंद पडली नी त्याना सरळ आपलो गांव धरल्यान्. धा गांवचा पानी चाखलंलो पांडू तसोच बेरकी सुदा होतो. ह्या अडाणी तळेगांवचो कारभार हाती घेवचा सपान बगूनंच तो गांवाक् इलो आनी त्यापरमान त्यॅना लवकरच गांवांत 'कोनाचाय मदतीक् धावणारो मुंबैकार' म्हणान् नांव कमवल्यान्. सरकारदरबारी खंयच्या गोस्टीसाठी कोनाक भेटाक् व्हया, अर्ज कसो करूक होयो ह्या त्यॅका म्हायत् असल्यामुळा हळुहळू गांवांत त्याचा वजन वाडलां. ह्योच संदीचो फायदो घेवन् विकास मंडळवाल्यांनी त्यॅका मंडळाचो 'अध्यक्ष' बनवून गांवांच्या विकासाचा घोंगडा त्याच्या गळ्यांत अडकवल्यानी.

पांडुरंगान् पयलो मुद्दो हातात घेतल्यान तो नदीवरच्या पुलाचो. त्यासाठी त्यॅना तहसीलदार, मामलेदार, कलेक्टर ह्यांच्या बरोबरच स्थानिक आमदार, खासदार आनी पालकमंत्र्याक् धडाधड अर्ज पाठवल्यान्. पन दोन वर्सां कोनी काय त्यॅका दाद दिल्यान नाय्. शेवटी त्याच्या डॉकॅत येक आयडीया इली. येक दिसा त्यॅना गांववाल्यांची पारावर सभाच बोलवल्यान्. गांवचो डांबीस सरपंच लक्षुमन गावड्याक् सभेचा अध्यक्षस्थान दिलॅन्. लक्षुमन गावड्याक् यदो मान कोनी आद्याप दिलंलो नाय हुतो. त्यामुळा तो सुदा पांडूवर यकदम खूश झालो. पन आपल्याक फुडे करून पांडू डाव साधीत आसा ह्यां त्या सरपंचाक् समाजलां नाय.

पांडुरंग बोलाक् उबो ऱ्हवलो, "आपल्या गांवाचे सन्माननीय सरपंच आनी जमलंल्या गांववाल्यानु, आपल्या गांवाची परस्थिती तुम्का म्हायत आसाच." सगळ्यांनी ह्यावर टाळकी हलवल्यानी. "त्या परस्थितीतली म्होटी धोंड म्हंजे नदीवरचा पूल. गेली पंद्रा वर्सां ह्या पूल व्हता व्हयंत् नाया. सगळ्यांका अर्ज-इनंते करून् झाले. पन काय उपयोग नाय. आता यॅक केला तर मातर ह्यो पूल व्होवची माका शक्यता वाटता पन त्यॅका तुम्ची सगळ्यांची साथ व्होयी!" सावंतांचो बाबलो नी गावड्यांचो म्हारूती म्हणाले, "तू काय ता करूक् लाग. काका आमी तुज्या पाटीशी आसाव, काळजी करू नुको." पांडू त्यावर म्हणालो, "नुस्ता तॉंडान् पाटीशी ऱ्हवान् उपयोगी नाय. पूल व्होवक् व्हया, तर थोडो खर्चसुदा गांवाक सोसूचो लागतलो. त्येची तयारी आसात तर मीया माजी योजना सांगतंय्!"

सगळी सभा गप झाली. कारण त्यांका म्हायत हुता. तॉंडान सगळी सॉंगा हानूक गावतीत, पन पैशाचा सॉंग कसा हानूक येतलां? शेवटी रामा शिंदो उबो ऱ्हवलो. म्हणालो, "कितोसो खर्च येयत् तां तरी सांग. मग फुडचां काय ता बगूंक् गावात." बाकीच्या सगळ्यांनी माने हलवल्यानी. पांडू म्हणालो, "तसो सध्या काय म्होटो खर्च नाया. परत्येक कुटुंबाक् काय पन्नास-शंबर रुपाये खर्च येयत्. पन तेतुरसूनय् पूल झाला नाय, तर मातर ह्यो खर्च चार-पाच हजाराच्या आसपास जायंत्." पांडूचा बॉलना पुरा होवक् होवक् सरपंच गुरगुरलो. "शंबर-शंबर रुपाये जमवून ह्यांका काय धाड भरली हां? मेल्यांकडे संद्याकाळी दारू पिवक् पैसे आस्तंत. तां काय जमाचा नाय. उद्या संद्याकाळपर्यांत गांवांतल्या परत्येक कुटुंबात्सून शंबर-शंबर रुपाये पांडूकडे जमा व्होवक् होये. जो देतंलो नाय तेची माज्याबरोबर गाट आसा. लक्षात ठॅवा. पांडू, हे घे माजे शंबर रुपाये." सभेचो अध्यक्ष केल्यामुळा सरपंच नुस्तो हवेतच तरंगत हुतो. पन पांडून त्येची बरोबर नस वळाकल्यान हुती. सरपंचाबरोबरच गांववाल्यांचे खिशे रिकामी करून आपलो संसार हुशारीन् चालवूचां पांडून अगोदरच ठरवलंल्यान्. म्हणानच पॉट भरूक् तो मुंबैसून उल्टो गावाक् इलो हुतो. शंबर रुपाये देवचे लागतले म्हणान् सगळे गांववाले मनांत पांडूक गाळी देवक् लागले, त्याप्रेक्षा मेल्यान् सरपंच लक्षुमन गावड्यासारक्या गावगुंडाक् फुडे घातलॅन् म्हणान् त्यांका पांडुचो लय राग इलो व्हतो. पन करतंले काय? कारण ते दॉगजान येक झाले. गप मार खावची येळ इली.

पांडुरंग फुडे म्हणालो, "तार



गाववाल्यांनु, तुमी खर्चाचो परस्न सोडवलास. आता माजी योजना आयका. गेली धा-पंद्रा वर्सा आपल्या गांवांतली किती ढॉरा-पॉरा व्होवरात व्हावान् मेलीं त्येचो हिशेब नाय. पन सरकाराक् काय जाग इली नाय. आता एकच मार्ग उरलो हां. तो म्हंजे सरकाराच्या कानावर घालून गांवांतल्या आपल्यापैकी कोणी तरी ह्या नदीत जलसमाधी घेवंक् व्होयी. तॅवाच सरकाराचे डोळे उगाडतले हंत. असा माका वाटता.''

सगळे डोळे म्होटे करून् पांडूकडे बगूंक् लागले. मेलो बोलता हां काय नी सांगता हां काय? पन गांववाल्यांची चुळबूळ बगून पांडूच म्हणालो, ''अरे, इतक्यात तशी कोनी जलसमाधी घेवंक् नुको हां. आपून फकस्त 'जलसमाधी घतंलंव' असा सरकारफुडे नाटक करूया. तसा मामलेदार, कलेक्टर, पालकमंत्री ह्यांका कळवूया, नी पॅपरातंय पयल्या पानावर बातमी देवया की, अमूक तारकेपर्यात तळेगांवच्या नदीवरच्या पुलाचा काम सुरू झाला नाय, तर गांवचो अमको-अमको माणूस सरकाराचो निशेध म्हणान् अमूक तारकेक त्या नदीत जलसमाधी घेतलो हां. त्यानंतर होणाऱ्या सगळ्या परिणामांची जबाबदारी सरकाराची ऱ्हवात. शिवाय येतल्या निवडणुकीवर बहिष्कार घालुचो गांवाचो निर्णयसुदा सरकाराक कळवूया. मग बगुया काय होता तां!''

''अरे पन जलसमाधी घेतलो कोन? कोनाचो जीव इतको वर इलो हां? आमच्या पॉरा-टॉरांनी गेली धा-पंद्रा वर्सा ह्ये नदीत जलसमाधी घेतली ती काय थोडी झाली?'' रामा शिंदो खवाळलो.

पन पांडूक् पैशाची नड होती. त्यामुळा काय बी करून् त्याका ही योजना गांववाल्यांच्या गळयांत मारूचीच होती. नायतर गांववाल्यांकडसून पैसे कसे गावतले? त्यासाठीच त्यॅना सरपंचाक हाताशी धरलंल्यान्. त्यामुळा पांडूचा डॉकेंही मुंबैच्या वेगात चलांक् लागला. तो म्हणालो, ''जलसमाधी कोनी घेवची तां नंतर ठरवुया. कदाचित तशी येळच् येवची नाय. म्हणान् आपणाक् ह्या नाटक करूक व्होया. उद्या संद्याकाळपर्यात तुमचे सगळ्यांचे शंबर-शंबर रुपाये माज्याकडे गोळा झाले की, मीया मामलेदाराक्, कलेक्टराक् नी पालकमंत्र्याक् तसो अर्ज लिवतंलय्. व्होयो तर मुख्यमंत्र्याकही लिवतंय. आनी मग आट दिसानी जिल्ल्यातल्या म्होटच्या-म्होटच्या पॅपरात आदी सांगल्यापरमान बातमी देतंय्. ह्यो सगळो खर्च मी तुमच्या माज्या सगळ्यांच्या वर्गणीत्सूनच करतंलय्. शिवाय अदीक-उणे पैसे लागले, तर माज्या खिशात्सून खर्च करतंलय्. तेची तुमी कोनी चिंता करू नुको. मी आता गांवचो सेवक म्हटल्यावर माका इतक्या करूकंच व्होया. काय वो सरपंच सायेब, बरोबर मां?'' पांडून सरपंचाक् फुडे घालून गांववाल्यांची तोंडा बंद केल्यान्. बाबलो म्हणालो, ''तसा आसात् तर बुवा तुया फुडे सर. मग आमी सगळे आसव तुज्या पाटीशी. पन कोनाक् जलसमाधी घेवक् लाव नुको, इतक्याच आम्का सांगाचा हां.''

त्यानंतर सभा सपली. सरपंच लक्ष्मन गावडचाच्या भयान् सगळया गांववाल्यांनी दुसरे दीस संद्याकाळपर्यांत पांडूकडे ३५ कुटुंबाचे साडे तीन हजार रुपाये गोळा केल्यानी. बेरकी पांडून त्याच्यातले शे-पाचशे रुपाये अर्ज-इनंत्या नी पेपरांतल्या बातमीक खर्च केल्यान आनी बाकिच्या पैश्यात्सून घरांत मीठ-मिरची हाडल्यान्, बायकोक येक साडी घेतल्यान् नी आपल्या दोन झिलांका तालुक्याक् न्हेवन् शनिमा दाखवल्यान्. सरपंचाच्या भयान् त्याका पैशाचो कोन हिशोब इचारूचो नाय ह्येची त्याका खातरी होती. नी तसांच घडलां आनी कोनी हिशोब इचारल्यानंच आस्तो, तर त्याका काय सांगाचा ह्येची पांडून तयारी करून ठेवलंल्यान्.

पन गांववाल्यांका पांडुचो आता लयसो भरवसो वाटंनासो झालो. येकतर तो सरपंचाच्या नादीक् लागलो आनी दुसरां म्हंजे गांववाल्यांच्या खिशांत हात घालून त्येंची

संद्याकाळची 'पिवची' पंचायत करूक् लागलो. शिवरामाक् नी म्हारूतीक् त्याचा वागणा काय बरा दिसंना. तेतूरसून मेल्यान् जलसमाधीचा नईनच प्रकरण भायर काढलंल्यान् उदया मायझंयान् सरपंचाच्या सांगण्यान् आपल्याकच् जलसमाधी घेवक् लावल्यान् तर सांगतंलास कोनाक्? ह्यो चिंतेच हे दॉगजानय् पडले. पन सदून त्येंचो ह्यो परस्न सोडवल्यान्. उद्या अगदी जलसमाधी घेवची येळ इलीच, तर पांडूकच् ती घेवक् कशी लावायची ह्येची योजना त्यॅना दॉगांचाय कानावर घातल्यान. त्यापरमान ते तयारीक् लागले.

पंद्रा दिवसान् तालुक्याच्या आनी जिल्ल्याच्या सगळ्या पॅपरात पांडून दिलंली बातमी झळाकली. तडे मंत्र्या-संत्र्यांच्याय कानावर ती गेली; पांडूचे अर्जही त्यांका गावले. पन गेंड्याच्या कातडीचे राजकारणी आनी त्यांची नोकरशाय काय हलाची चिन्हा दिसंनात. पांडूक् ताच होया हुता. नायतर गांववाल्यांकडसून पैसे कसे काडूक् गावतंले? पांडून् दुसरे दीस पारावर परत सभा बोलवल्यान्, सगळ्यांका परस्थिती सांगल्यान आनी म्हणालो, "गांववाल्यानु, आता काय इलाज नाय. सरकाराचे डोळे काय उगडंत नाय. तॅवा आता आपल्यापैकी जलसमाधी घेवक् कोन तयार आसा तां बगा." पांडून् सगळ्यांपुढे म्होटो गंभीर पेच उबो केल्यान. सरपंच गावडो सुदा गप न्हवलो. न जाणो, कोणीतरी गांवचो फुडारी म्हणान् त्याचाच नांव फुडे केल्यान तर? येकदॉगानी सभेंतल्या म्हाताऱ्यांची नांवां फुडें केल्यानी. पन त्येंचे झील आपल्या बापाशींचीं नांवां सांगणाऱ्यांचो गाळी देवन् उद्धार करूक् लागले. "आमचो बापूस आमका जड नाया" म्हणाक् लागले. सभेंत गोंधळ होवक् लागलो. शेवटी शिवरामान, सदून् आनी म्हारूतीन् आपली योजना फुडें रेटल्यानी, ह्या योजनेत त्येनी पंद्रा-वीस गांवकारांकय सामील करून घेतलंल्यानी. त्यांकाही पांडुचो काटोच काढूचो हुतो. मुंबैसून येवन् गांवचो फुडारी बनलंलो त्यांका पसंत नाय हुता. बाबल्यान् आनी सदून 'डेरींगवालो' अशी पदवी देवन् म्हारुतीक् उबो केल्यानी. म्हारूती 'कॉटर' लावनंच् इलंलो आसल्यामुळा तो आता बोलाक् कोणाच्या बापाशीक् भियाणारो नाय हुतो. सगळ्यांनी कान टवकारल्यानी. त्याना सुरू केल्यान्, "गांववाल्यानु, पांडून् सूचवलंल्या ह्या गंभीर पेचाचा कोनाकडे उत्तर नाया ह्या तुमी बगलासंच. कारण आमी सगळे घाबरट नी अडाणी. जलसमाधी की काय ती कसली आस्ता, नी काय व्होता ह्या सुदा आम्का म्हायत नाय्. तॅवा माजा असा सांगना आसा की, आमच्यात पांडुरंग हुशार आसा, शिकलंलो आसा, चार गाव फिरलंलो आसा; शिवाय आता गांवचो फुडारीसुदा झालंलो आसा. पन आमच्या गांवात 'आलरेडीच' फुडारी म्हणान् आमचे फुडारी लक्ष्मन गावडे आसंत, त्यामुळे येका गांवात दोन-दोन फुडारी म्हंजे गांवात भांडणा आनी मारामारी इलीच. म्हणून सगळ्यांका पसंत आसात असो जलसमाधी घेवक् योग्य माणूस म्हंजे आपलो पांडुरंग!"

शिवरामान् नी सदून आदीच शिकवून ठेवल्यापरमान् सगळ्या गांववाल्यांनी "बरोबर आसा, बरोबर आसा" म्हणान् सभा डोक्यावर घेतल्यानी आपल्यावरचा संकट गॅला म्हणान् बाकीचे गांववाले आनी सरपंचय् खूश झालो. सरपंचान् ताबडतोब पांडूचो पक्ष सोडून गांववाल्यांका मिळालो. पांडू "माका जमाचा नाय, ह्यो माज्यावर अन्याय आसा" म्हणान् म्होटम्होट्यान् बॉब मारूक् लागलो. पन त्याचा आयकाक् कोनच तयार नाय हुतो. पन पांडुही गांववाल्यांचो बारसो जेवलंलो हुतो. त्यामुळा 'सापय् मरता कामा न्हये, नी काटी बी तुटता काम न्हये' असो मनांतल्या मनांत येक डाव रचून पांडू म्हणालो, "थांबा, मीया जलसमाधी घेवक् तयार आसंय, पन माजा शेवटचा म्हणना तरी आयकान घेवा."

गांवकार आपल्यावरचा संकट टळल्यामुळा आता पांडूचा काय बी आयकाक् तयार हुते. त्यामुळा ते चटकन गप न्हवले.

पांडुरंग म्हणालो, "गांववाल्यानु, मी तुमच्या सूचनेचो आदर करतंय. त्यामुळा गांवासाठी मी जीव देवक् तयार आसंय. पण माज्या मागे माज्या संसाराचा काय? माजी बायको आसा, दोन झील आसंत, थोडी ढॉरा आसंत. मीया जलसमाधी घेवन् मेल्यानंतर त्यांच्या पॉटापानयाचो प्रश्न आसा. त्यामुळा त्यांची काय ती जलमभर सोय करा. मग माका जलसमाधी घेवक् कसली हरकत नाय!"

गांववाल्यांमदीं चर्चा-कुजबूज सुरू झाली. पन निर्णय काय व्होयना. पांडूक् ता म्हायत व्हता. त्याका गांववाल्यांका धडोच शिकवूचो हुतो. त्यामुळा मनांत ठरवलंल्या योजनेपरमान् तो म्हणालो, "माजी सूचना पटता काय बगा. आपल्या गांवांत आतां तसे काय कोन लयंच गरीब लॉक नायत्. सगळे खावन्-पिवन् सुखी आसंत्. तॅवा माज्या जिवाची किंमत आनी माज्या संसाराक् जलमभर खंयच्या गोस्टीची कमी पडता कामा नये म्हणान् गांवांतल्या परत्येक कुटूंबान् माका सरसकट पाच-पाच हजार रुपाये देवचे. त्याच्यात्सून मी माज्या बायका-पॉरांची पुढच्या आयुष्याची सोय करीन, नी मीया जलसमाधी घेयन्. बगा, कबूल आसलां तर परवा संद्याकाळी हंयसरंच सभा घेवया. त्याच्यात तुमी सगळयांनी माज्याकडे ठरल्यापरमान् पैसे गोळा करायचे. मगे मी त्याच सभेत जलसमाधीची तारीक 'डिक्लर' करतंय. काय हो सरपंच, बरोबर आसा मा?"

सरपंच लक्ष्मन गावडो सटपटलो. पांडून सगळ्या गांववाल्यांच्या खिशाक् कातरी लावण्याचा ठरवलॅन ह्या तो समजान चुकलो. पन जलसमाधी घेवक् दुसरो कोन तयार नसल्यामुळो त्येचो नी गांवकाऱ्यांचो

नाईलाज झालो. शेवटी होय-नाय करता सगळे पाच-पाच हजार रुपाये देवक् तयार झाले. मेलो तर पांडूच मरात, पन पूल तरी होयत्. पैशाच्या काय तरी करूक् गांवांत ह्यो त्यापाटीमागे इचार हुतो.

दुसऱ्या दिशी पांडून परत पारावर सभा घेतल्यान्. सगळे हजर हुते. पांडू आता पारावरच कुटूंबापरमान् परत्येकाचे पाच-पाच हजार रुपये गोळा करूक् लागलो. बगता-बगता त्याच्याकडे लाखाच्या वर रक्कम गॉळा झाली. पांडूच्या तॉंडाक् पानी सुटलां, तर गाववाल्यांचीं तॉंडां पैसे देवचे लागले म्हणान् सुकाक् लागलीं. इतक्यात पाटसून म्होटी रडारड आयकाक् इली. सगळे वळान् बगतंत तर पांडूची बायको, दोनव् झीलांका घेवन् म्होटम्होट्यान कपाळावर हात मारीत पारावर येता हां. ती सरळ इली तीच पारावर चडान् सगळ्यांसमक्ष पांडूच्या गळ्यांत पडली, नी धो-धो रडांक् लागली. म्हणाली, ''तुमी जलसमाधी घेवचा ठरवलास ता कॉनाच्या ईचारान्? माजा आनी पॉरा-टॉरांचा काय करूचा ठरवला? गांवाच्या पुलासाठी जीव देवक् तुमचो जीव इतको स्वस्त वाटलो ह्या ह्या भडव्या गांवकऱ्यांका? आपलो जीव देवचो. माज्या घोवाचो कित्याक्?'' रडत रडत बोलतंना ती गांववाल्यांका गाळीसुदा देवक् लागली. सगळी सभा गंभीर झाली. पन पांडू शांत हुतो. तो म्हणालो, ''अगो रडा नुको, तॉंड आवर. मीया घराक् इलंय काय सगळा तुका सांगतंय, पन हंय गांववाल्यांसंबूर तमाशा करू नुको.'' झीलांकाय त्यॅना जवळ घेतल्यान, त्येंचे डोळे फुसल्यान, नी बायकोच्या कानात हळूच म्हणालो, ''ह्ये पिशयेंत सवा लाख रुपाये आसंत. ते घे नी झीलांका घेवन् घराक जा. अजीबात रडा नुको. मीया तुका टाकून जलसमाधी घेवक् काय खुळो आसंय? नाय ना? तर मग घराक् जा. मीया आजून पैसे घेवन् येतंय!''



पांडूची बायको पांडूच्या सातसवाय हुती. तिना आपल्या घोवाचो डाव वळाकल्यान् नी निमूटपणान् झीलांका घेवन् घराक् वाटेक् लागली. पैशाची पिशी पदराखाली लपवल्यान्. ती गेल्याबरोबर पांडू म्हणालो, ''मीया बायकोची समजूत घातली आसा. तिना मनाची तयारी केल्यान हां. तॅवा बाकीच्यांचे पैसे येवंदेत.'' म्हणता म्हणता तासाभरात पांडूकडे पन्नास हजार रुपाये गॉळा झाले. पांडून बॉटां मोजून हिशेब लावल्यान् तर गांवांतल्या पस्तीस कुटुंबाचे एकूण येक लाख पंच्चात्तर हजार रुपाये त्याच्याकडे गॉळा झाले. पांडू खूश झालो हुतो. त्या खुशीतच त्यॅना आपूण मार्गशीर्ष शुद्ध दशमीक् म्हुरतावर गांवच्या नदीत जलसमाधी घेवचा सभेत 'डिक्लर' केल्यान्, नी जमा झालंले पन्नास हजार रुपाये घेवन् घराकडे चालतो झालो. तो गेल्याबरोबर सभाही संपली, गांववालेही आट दिवसान् आता पांडूक जलसमाधी घेवची लागतलीच म्हणान् त्या दिसाची वाट बगीत बसले.

घराक् इल्यावर पांडूची बायको परत रडाक् लागली. म्हणाली, ''माका तुमी व्हयास्. तुम्चो पैसो नुको.'' तेवर पांडू म्हणालो, ''अगो, ते गांववाले पागल झाले हंत. मार्गशीर्षात आपले नदीत ढॉपारभर तरी पानी आस्ता काय? त्याच्यात मी बुडतंलंय कसो? ह्या तुकासुदा समजंत नाय कसा? गांववाले माज्यावर जळतंत्. त्यामुळे मार्गशीर्षात नदीत पानी किती आस्ता ह्याकडे त्येंचो लक्ष नाया. म्हणान् तर मीया मेल्यांचे खिशे कापलंय्. आता हे पावने दोन लाख रुपाये मीया उदया तालुक्याच्या बँकेत ठेवतंय, नी फुडे काय करतंय ता बग''

दुसरे दिस पांडून तालुक्याक जावन सगळे पैसे बायकोच्या नावावर ठेवल्यान् आनी मागच्यासारकीच पेपरांत बातमी दिल्यान्. तिसरे दिस तालुक्या-जिल्ल्याच्या सगळ्या पॅपरांत पयल्या पानावर बातमी इली, ''तळेगावच्या नदीवर पूल बांधण्याच्या मागणीसाठी गांवचा समाजसेवक पांडुरंग सावंत मार्गशीर्ष शुध्द दशमी रोजी नदीत जलसमाधी घेणार! सरकारचा धिक्कार असो.''

अख्खया राज्यात ही बातमी पसारली. विरोधी पक्षान् सरकाराक् विधानसभेंत धारेवर धरल्यान्. त्यांच्या पक्षकार्यकरत्यानी सरकारचे पुतळे बनवून जाळल्यानी. तळेगांवच्या अडाणी गांवकाऱ्यांका ह्येची खबरच नाय होती. ते फक्स्त पांडुरंग सांवताच्या जलसमाधीची वाट बगीत हुते.

पन बाबल्याचो, म्हारुतीचो, सदुचो आनी रामा शिद्याचो झील गांवातच हुते. ते थोडेफार शिकलंले आसल्यामुळा त्यांका पेपरातली बातमी कळली हुती. शिवाय पांडुरंग सावंताक् ते वळकान् हुते. गांवकाऱ्यांका पाच-पाच हजाराक् पांडून लुटल्यान् ह्या त्यांका पसंत नाय हुता. त्यामुळा पांडूक् धडो शिकवूचो त्यानी ठरवलो हुतो. नदीक् मार्गशीर्षात माणूस बुडण्याइतक्या पानी नस्ता ह्या त्यांका म्हायत हुता. म्हणान् त्येनी नदीत येके ठिकाणी पुरूसभर उंचीचो खड्डो

मारून त्याच्यात पानी सोडल्यानी आनी त्याच्यातच पांडूक् जलसमाधी घेवक् लावचा ठरवल्यानी.

पांडूक् ह्येची काय खबरबात नाय हुती. त्यामुळा तो मजेत हुतो. शेवटी जलसमाधीचो दिवस उजाडलो. सकाळीच सगळे गांववाले पारावर जमले. पांडूक् बोलावना पाठवल्यानी. 'आपल्याक् मराचा नाया' ह्या पांडूक् म्हायंत आसल्यामुळा तो पटकन पारावर नये कपडे घालून हजर झालो. सगळ्यांनी पांडुचो जयजयकार केल्यानी. 'पांडुरंग सावंत अमर रहे' म्हणान् घोषणासुदा दिल्यानी. मग त्याच्या गळ्यांत फुलांचो भलोम्होटो हार घालून व्हाजतगाजत सगळे नदीवर गेले. थंय गेल्यावर नदीतला पानी बगून गावकऱ्यांचे डोळे उगाडले, पन बाबल्याचो नी सदुचो झील फुडे झाले नी म्हणाले, ''चिंता करू नुको. खालचे बाजूक नदीत पुरूसभर उंची इतक्या पानी आसा. थंय चला.'' सगळ्यांका वायच् बरां वाटलां.

इतक्यात पाटसून चार-पाच मोटारी रॉ-रॉ करीत गांवांत शिरले. ते तडक पाराजवळ येवन् थांबले. सगळे काय झालां म्हणान टाचे उंचावून पाटी बगूक लागले, तर जिल्ह्याचो पालकमंत्री नी विभागाचो आमदार धावत नदीवर येतहंत. त्यांच्यापाटीमागसून धा-बारा पोलीस पळत हुते. शेवटी येकदाचे त्येंनी गाववाल्यांका गाटल्यानी. पालकमंत्री हासूडच घालीत हुतो. तो म्हणालो,''थांबा गावकाऱ्यांनु, कोणीही जलसमाधी घेण्याची गरज नाही. सरकारने तुमच्या नदीवरील पूल मंजूर केला आहे. उद्यापासूनच कामाला सुरूवात होईल.''

'सरकारचो जयजयकार असो.' पांडुरंगान् गळ्यांतलो हार फेकून दिल्यान् नी म्होट्यान ओराडलो. बाकीचेही तशीच घोषणा देवक् लागले. त्या गडबडीत सगळे पांडुची 'जलसमाधी' इसरान गेले. पांडुच्या योजने परमान् 'सापही मेलो नी काठीसुदा तुटली नाय.'

दुसऱ्या दिवसापासून पुलाचा काम खरोखरंच सुरू झालां. ता बगतंना गांवकऱ्यांच्या येका डोळ्यांत गांवचा पूल बनता हां म्हणान् हसू हुता, तर दुसऱ्या डोळ्यांत पांडून् पांच-पांच हजारांक् फसवल्यान म्हणान् दुख हुता. पांडू मातर गावचो आता खरो 'लिडर' बनलो आनी जिल्ल्यात प्रसिध्दी मिळाल्यामुळा गांववाल्यांच्या पैशाच्या जोरावर त्यॅना आता आमदार व्होवचो निश्चय केल्यान्.




**– शामकांत मर्गज**



गॅझेटिअर विभाग, महाराष्ट्र शासन,
२७, बरजोरजी भरूचा मार्ग,
फोर्ट, मुंबई-४०० ०२३
मो.: ०९८६९९०२३६२


## कुडूऱ्यो

### सुसेग घेतलों

दीपाचें आनी दीपकाचें सदचेवरीं बाजलें. दोगांय एकमेकाक सकयल वयर करूंक लागलीं. शेवटाक दीपाच थकलें आनी गाल फुगोवन बसलें. निमणो उपाय म्हूण रडत रडत ताणें दीपकाक थोमणो माल्लो.

''तुका म्हजो म्हणटात तो मानूय मोग ना. हांव मेलें म्हणटकच तूं दुसरें लग्न करपाक मेकळो.''

दीपकान सगळें थंडपणान आयक आयक आयकलें आनी हळूच म्हळें, ''नागो सायबिणी, हांव थोडेदीस निवांत सुसेग घेतलों.''

### खरी बायल

बोट बंदराक लागल्या मात, सगळे खलाशी पटापट सकयल देंवले आनी बंदराचे वाटेक लागले.

पूण एकलो खलाशी, जो दर बंदराचेर अश्यो उडयो मारून बंदरांत पळपांत सगळ्यांत पयलो आसतालो तो मात ह्या बंदरार सामको गलीतगात्र जावन डेकाचेर उबो आशिल्लो.

ताका पळोवन बोटीवयल्या एका जाण्टेल्या खलाश्याक ताचीं फकाणां करपाची कूय आयली. ताणें ताचे लागीं येत ताका विचारलें, ''कितें रे रफीक, नेट काबार? आयज तूं गेलो ना सो! हरशीं तूं सदांच मुखार मरे!''

''कितें सांगो इरमांव, हिंगा म्हजी खरेली बायल रावता.'' दुखेस्त नुरा करून रफिकान जाप दिली.

### रेसींत पयलो

आंतोनीन आपले मोगीकेक ताच्या वाडदिसाक बरी एक लेडीज घडयाळ प्रेजेंट दिली.

घडयाळ बरी आशिल्ली. पूण ती घेवंक आपल्या बेकार मोग्याकडेन पयशे खंयच्यान आयले हो तिका प्रस्न पडलो. तिणें ताका तसो प्रस्न केलो. आंतोनीन लजत लजत सांगलें, ''कितें जालें जाणां, हांव धांवपा रेशींत पयलो येयलों म्हणोन हें घडयाल जिंकलों.''

आयकून मोगीकेक उमेद जाली. ''कितले लोकांनी वांटो घेतलो तर?'' ताणें अभिमानान आंतोनीक विचारलें.

''तिगांनी. तेतून हांव पयलो येयलों. पुलीस दुसरो आनी घडयाली दुकानदार तिसरो.''

आंतोनीन थंडपणान जाप दिली.

भोंवडी

# रायगड किल्ला



पाव्सु पडच्याक सुरू जाले की ट्रेकिंग करतल्यांक पंख फुटताती. वर्षा ऋतुच थंड वातावरणांतु, सह्याद्रीचे हरिद्वर्ण परिसरांतु, ट्रेकिंग करतना मेळचो आनंद शब्दांत सांगचें कष्ट. ताजें वर्णन कितलेंय केलें तिकी ते अपुर्ण.

महाराष्ट्र, गोवा, कर्नाटकांतु ट्रेकिंग करतल्यांक अनेक स्थानां आस्सती. कोंकण रेल्वे, स्टेट बस्-सेवा उत्तम उरच्यादिकून, अंतर दूर आस्सिलतिकी, एक-दोन दिसांतु अगदी आरामांत फिर्नु येवेत. महाराष्ट्रांतुल्या 'महाड' तालुक्यांतु आस्सिल 'रायगड किल्लो' त्या पैकी एक स्थान जाव्नु आस्सा.

मुंबई-गोवा महामार्गाचेर 'महाड' आयले की बस् स्थानकार वोचच्या उजव्यान घुंवका. 'रायगड' किल्यार वोचच्या दाव्यान घुंवका. थंई पाटी (sign-board) आस्सा. महाड पासून रायगड किल्लो २५ ते ३० की. मी. अंतराचेरी आस्सा. बस किल्याच्या पांयां मुळांतु, चीत दरवाज्यालागी राबता.

हांगच्यान 'रायगड' एकपंता नियाळून पळया. सुत्तु सह्याद्री पर्वत रांग. मद्यें शिवलिंगावरी रायगड उठोन दिसता. दावे दिकेन दिसचें 'टक-मक' टोंक, उजवे दिकेन दिसचें 'हिरकणी' टोंक, तुमकां 'वयर येया' म्होण, आपयताती.

पावसाडींतु एकेक पटे संपुर्ण रायगड मोडान धांपून गेलिल उर्ता. फकत पांयां मुळांतुली वाट मात्र दिसता. रेनकोट घाल्नु घेवका. रेनकोट घालेतिकी तिंबचे ते तिंबताती. छत्री व्होरच्या जाय ना. थंई ती फुलोवच्याक जाय ना.

रोप-वे (Rope-way) न बी वोचेत. पूण पांयांनी वोच्ची मजा वेगळी! अगदी वय जालिल्यांनी, शरिरान दुर्बल आसिल्यांनी रोप वे न वोचेत.

वयर चोणु वोच्याक हजारेक मेट्टां आस्सती. छत्रपती शिवाजी महाराजाली राजधानी जाव्नु आस्सिली दिकून, त्या काळांतु राजघराण्यांतुले प्रतिष्ठीत मनश्यांक, पालखिंतु बोसोन उक्कोळ्नु व्हरताशिले दिकून, मेट्टां रूंद आस्साती. सावकाश गेल्यारी वयर गडारी पावच्याक दोन तास लागताती. समुद्र सपाटिपासून ह्या गडाची ऊंची अदमास २८२९ फूट आसा.

चित दरवाज्यापासून महादरवाज्यापर्यंत वयर चोण्णु येवच्याक एक तास लागता. वाट्टेरी खूब लडा बुरूज, नाना दरवाजा लागताती. त्या काळांतु चित दरवाजा पर्यंत आयिल शत्रु सैनिकांक खूब लडा बुरूज जिंकले शिवाय गडारी प्रवेश कोरच्याक जायनाशिलें. महादरवाजा अजून ही मजबूत आस्सा. तो पळैल्यारी, तेन्नाचे म्हळ्यारि ३५० वर्षा मागशीचें, बांध कामाचो अंदाजो घेवेत.

महादरवाज्यांतुल्यान भित्तर गेल्यारी दावे दिकेन बाले-किल्यारी वोच्ची वाट आस्सा. गडबडी कोरच्या ना. पावसाडिंतु पांय-वाट घसरडी उरता. पांय जार्वताती जाग्रता! आमी किल्ले सावकाश वत्ताती तितले निसर्गाचें निरीक्षण बारकायेन कोरेत.

मुसळधार पावसांतु, मेघाच्छादित रायगडाचेरी तिंबत हजारों गिर्यारोहक प्रतिवर्ष येत्ताती. वाट्टेरी वर्षा ऋतुंत जन्मा येवचे, अनेक सान-होड धब-धबे (water-falls) मेळताती. ताजे मुळांतु बसून, वैयल्यान पोडची धार आंगारी घेत, भरपूर आनंद लुटत, गडारी येत्तना ते पूर्ण थकील उर्ताती.

गडारी राबची व्यवस्था, खाणे-पिण्याची व्यवस्था आस्सा. ना जाल्यारी, दोन-तीन तासा भित्तरी गड पोळोवनु सक्कल 'पाचाड' गांवा आयल्यारी, आनीक बरी व्यवस्था आस्सा.

'रायगड' इ. स. १६५६ तु शिवाजी महाराजाले ताब्यांतु आयलो. तेन्ना ताजें नांव 'रायरी' म्होणु आस्सिलें. महाराजान 'रायगड' म्होणु नांव दवरलें. सुरक्षतेचे दृष्टीन दुरूस्ती केल्ली. इ. स. १६७०तु राज परिवार गडारी राबच्याक आयले. आनी ६-६-१६७४तु रायगडाचेरी शिवाजी महाराजालो राज्याभिषेक जाल्लो. तो दिवसु रायगडाचे इतिहासांतुलो सर्वश्रेष्ठ दिवसु जावनास्सा. तसिंची ह्या स्वराज्याची राजधानी म्होणोवन घेवच्या रायगडाचेरी इ. स. १६८०तु शिवाजी महाराजालें निधन जात्ता. तो दिवस रायगडान पळयल्लो अंध:कारमय दिवसु जावनास्सा. त्या नंतर रायगडारी राजारामालो राज्याभिषेक जात्ता. आनी संभाजीलोय राज्याभिषेक रोखडोच जात्ता. संभाजी नंतर इ. स. १६८९तु रायगड मोगलांल्या हात्तांतु वत्ता. अखेरीक

इ. स. १८१८तु पेशव्यांल्या हात्तांतुल्यान ब्रिटिशांल्या ताब्यांतु वत्ता. रायगडाचेरी लुटमार जात्ता. किमती वस्तु ब्रिटिशर्स घेव्नु वत्ताती. व्होरच्याक जायनास्सिले सर्व नष्ट करताती. इमारतीचो नाश करताती.

आत्ता आम्का गडारी भग्न अवशेष दिसताती. महादरवाज्यांतुल्यान भित्तर येव्नु वयर चढताना, हत्ति-तलाव मेळता. महाराजा गडारी आसतना, सैन्यांतुल्या हत्ति, घोडे आनी इतर जनावरांक ह्या तलावांतुले उदाक वाफरतास्सिले. आनी मुकार गेल्ले की प्रवासी मंदिर मेळता. तस्सिं मुकार गेल्यारी गंगा सागर तलाव मेळता. शिवाजी महाराजाल्या राज्यभिषेका वेळरी हाडिलें गंगा, यमुना, सिंधु, गोदावरी, कावेरी...इत्यादी सप्त नदींतुल पवित्र जल ह्या तलावांतु घाल्लें दिकून, हाक्का गंगा सागर तलाव म्हणताती. ह्या तलावांतुले उदाक त्या वेळारी गडारी राबतले वाफरतस्सिले. गंगासागर कडच्यान 'हिरकणी टोक' वोच्ची वाट आस्सा. ह्या टोकाक हिरकणीलें नांव कश्शीं पडलें म्हळिल काणी रोमांचकारी जावनास्सा.

रायगडा पाय्या मुळांतु सान्न सान्न गांव आस्साती. त्या पैकी एका गांवांतु हिरकणी म्हळिल गवळण राबतस्सिली. सद्दां दूद विकच्याक ती रायगडारी वत्तास्सिली.

रायगडारी सुर्यास्त जाल्ले की वयर सक्कल वोच्चीं सर्व दारां बंद कर्ताशिले. एकपंता दार बंद केले नंतर, परत आनी तें उगडचें दुसरे दिवस सक्कणी सूर्योदया नंतर. ही राजाज्ञा कोणे उल्लंघन केल्यारी अग्दी कठीण शिक्षा भोगची पडतस्सिली.

एक दीस हिरकणीक दूद विक्कून परत वोच्याक वेळ जालो. गडावयल्यांन सक्कल गांव वोच्ची वाट बंद जाली. कारण गडावैले, वयर-सक्कल वोच्ची सर्व दारां बंद जाल्लीं, तिक्का एक आंगावयलें दूद पिवचें चेर्डुं आस्सिलें. त्या बाळाले उडगासान ती खूब अस्वस्थ जाल्ली. खंचे परिस्थितिंतु कश्शिंपुणी कोर्नु गड उतरचें तिणें निर्धार केल्लो. नित्य गडारी येत-वत उरच्या दिकून हिरकणीक गडावयले टोकान टोक (मुल्ले-मुल्ले) गोत्तास्सिले (खबर आसले). ती गंगासागराचे पश्चिम दिकान आस्सिल 'श्री गोंदे' टोकाकडच्यान जरा मुकार येव्नु, रातीच्या चान्यांतु जिवाची पर्वा कर्नासी, सक्कल देंवता. आनी तिगेल्या घरा वत्ता.

दुसरे दिवस परत दूद विकच्याक गडारी गेल्लिल तेन्नां ही बातमी सगळ्यांक कळील उरता. शिवाजी महाराजाक सुद्दां कळता. हिरकणील्या अप्रतीम साहसान, महाराज खुश-जात्ता. तिक्का आप्पोवन बहुमान दित्ता. नंतर तिणे देंव्नु गेलिल वाट तपासून, थंचो फात्तर तास्सून काडता आनी कोणे त्या वाट्टेन येवच्याक-वोच्याक जायनांसी करता. ह्या घटने नंतर त्या टोकाक 'हिरकणी' टोक म्हणताती.

ह्या हिरकणी टोकासान सक्कलचो, 'पाचाड' गांव पळयल्यारी, एक उत्तम चित्रकारान केनवासाचेरी सोढयिलें सुंदर चित्र पळयलवरी भास जात्ता. फक्त मोड आड येवच्याना. निसर्गाक प्रेम करतले कोणय हांगा येव्नु बसल्यारी, हालच्याक तयार जायस्सिनांती.

वर्षा ऋतुंत खंचान की आयीले मेघ, लखलखत, गडगडाट करत, रायगडाक अभ्यंग स्नान घालतना आमी तें न्हालिल उदाक, रायगडाच्या आंगा-खांद्यावयल्यांन सक्कल देंव्नु वत्तना, जन्मा आयिले सुंदर जलपात पळयतना, सक्कलचे सान-सान नदी-नाले भोर्न होळतना पोळोवचो आनंद घरांत बोस्सून कल्पना कोरच्याक जायना.

पावसाचो झोर (नेट) कम्मीं जालिल तेन्नांची राणीमहल, राजवाडा, सराफकट्टा, अंधार कोठडी, पालखी दरवाजा, होळीचा माळ, बाजार पेठ, जगदीश्वराले मंदीर, महाराजाली समाधी आनी भवानी टोक... इत्यादी पोळोवन येवका.

हें सर्व पोळोवनु परत येत्तना उजव्यान 'टक-मक' टोक दिसता. थंय गेलिल तेन्नां रेन-कोट घाल्नु अग्दी कडेरी याने टोकारी वोचनाकाती. सत्री फुलोवन हात्तांत धोर्नाक्काती. अपघाताक आमंत्रण दिवनाक्काती. अपघात सांगून घडनांती. राजद्रोही लोकांक ह्याच टक-मक टोका वयल्यांन, कोल्ल्यांत भोर्नु, कडेलोट कर्तशिले. हांगा राबल्यारी रायगडाचें रुद्र, भयानक स्वरूप दिसता.

थंच्यान प्रवासी मंदिरा दिकान परत येत्तना 'मदार शाही'ल कबर मेळता. ह्या स्वामीनिष्ठ मनशान, शिवाजी महाराज, आग्रांत औरंगाझेबाले कैदेंत आसतना, आपणाल्या जिवाची पर्वा कर्नाशी, महाराजाक वांचयलें.

हावें कित्लें वर्णन केल्लेतिकी, ह्या ट्रेक्किंगाचो आनंद तुमकां मेळना. तुम्मीं प्रत्यक्ष येवका. स्वराज्य आनी स्वधर्मा खातीर संपूर्ण आयुष्य कठीण परिस्थितींतु काडिल्ले छत्रपती शिवाजी महाराजाल्या, पदस्पर्शांनी पवित्र जालिल, ह्या राजगडारी अवश्य येया. अस्सल भोंवडी केल्यारी जिवाक त्रास जात्ता म्होण भिवनाक्काती. उलट तुमगेल आरोग्य सुदारता. हो ट्रेक्किंगाचो आनंद यांत्रीक जीवन जगतल्यांक संजिवनी जाव्नास्सा.



**हरिद्वर्ण** = पांचवो
**सुत्तू** = भोंवतणचो
**जार्वताती** = निसरतात
**होळतना** = व्हांवतना
**मोड** = कूप
**चेर्डु** = भुरगें
**तिंबत** = भिजत
**मेट्टां** = सोपणां


**– पद्मनाभ नायक**



बी/२०१,
मंजुनाथ सीएचएस लि.,
संत नामदेव पाथ,
तिलक नगर,
डोंबिवली (ई) ४२१ २०१
फोन :(०२५१)२४२१४०१

# इश्टांक चीट

**मो**गाळ इश्टांनो,

मायेमोगाचो नमस्कार.

हालीं तुमी इतले बीझी जाल्यात की पडवेर बसून चीट बरोवपाची पाळी म्हजेर आयल्या. एका तेंपार हांगा खबरांचो पावस झडटालो. आयज कोणाकूच वेळ ना. देखून मनांतलो पावस कागदार झडयतां. ऑगस्टाच्या ह्या म्हयन्यांत भायर पावस-वताचें जाळें विणीत सैम उमाणी घालता, तेन्नाच जगभर 'फ्रेंडशीप' नेटवर्क सामकें बीझी आसता. देखून नॅटवर्काक कुशीक दवरून पेन आनी पेपर लागीं करतां.

म्हजे मुखावयले वणटीच्या कोनशाक एक कोळी (spider) कितलोसोच वेळ जाळें विणटालो. ताका एकटक पळयतना ताची जीद्द, चिकाटी, तन्मयता आनी विणपाची कुशळटाय पळोवन अजाप दिसलें. पूण थोड्यावेळान तातुंतच घुस्पटून तो बाबडो मेलो. आमचीय हीच दशा जावंची ना मूं? आमी तरातरांचीं जाळां विणून तातूंतच घुस्पून उरल्यांत. ह्या कोशांभायर येवन आमी कित्याक जगपाक शकनांत? आयज आमचेकडेन इश्टांखातीर इश्टागतीचो योग्य अर्थ समजून घेवपाखातीर वेळ आसा व्हय? आयज ह्या सगल्या जाळांतल्यान, कोशांतल्यान भायर येवन इश्टागतींतल्या मोगाचो एक वेगळो आनी खरो अर्थ समजून घेवया.

'इश्ट' म्हळ्यार योग्य आसा ते. इश्टागत म्हळ्यार योग्य मनशाकडेन मैत्री. योग्य इश्ट मेळप हें भाग्य. जीणेप्रवासांत कितल्योश्योच इश्ट इश्टीणी मेळटात. इश्टागतीक जात, धर्म, भाशा, प्रांत कांयच लागना. फकत मनां आनी विचार जुळचे पडटात. इश्टागतींत मोग आसता, विश्वास



आसता; सुरक्षितताय आसता. सगल्यांत म्हत्वाचें म्हणचे इश्टांच्या भावनांचो आदर करप, ताका समजावप, समजून घेवप आनी स्विकारप जाका जमता तांचीच इश्टागत तिगता. घोव-बायलेच्या मोगांत इश्टागत आसत जाल्यार जीणेचेंय भांगर जाता. तेन्ना म्हणचेंच पडटा, प्रेमा काय देऊ मी तुला.... भाग्य दिले तू मला... मोगाचेर आनी इश्टागतीचेर जायतीं अर्थ पूर्ण गीतां घडलीं.

बने चाहे दुश्मन जमाना हमारा, सलामत रहे दोस्ताना हमारा... वा ये दोस्ती हम नहीं छोडेंगे....

पूण इश्टागतींत गैरसमज जायत जाल्यार मात गांवचें पडटा :-

दोस्त दोस्त ना रहा...

तेन्ना इश्टागत दुस्मानकायेंत बदलचे पयलीं प्रामाणिकपणान गैरसमज पयस करून चूक सुदारपाक जाय. कारण -

Guilt becomes an obsession if we fail to deal with it in an intelligent way.

एक इंग्लीश लेखक आपल्या इश्टाक समजायतना बरयता, "I can't change your past with all its heartache and pain, or the future with untold stories. But I can be there now when you need me to care. I can't keep your heart from breaking and hurting but I can cry with you and help you pick up the pieces and put them back in the place. I can't tell, who you are, I can only love you and be your friend."

कितलो अर्थ आसा ह्या उतरांनीं! पूण हो अर्थ कळटा फकत संवेदनशील मनाक. जीणेच्या प्रवासांत कांय इश्ट अशेय मेळटात की संवेदना शून्य जाल्लें तांचें मन

कोणाकडेनूच खरी इश्टागत करूंक शकना. अशा मनशांचेर मोगाचो कितलोय पावस झडलो तरी इश्टागत किल्लून येवप कठीण. पूण चूक तांची नासता. मनशाचो खरो इश्ट आनी शिक्षक आसता ताचो स्वताचो अणभव. जिणेंत जे तरेचीं मनशां येतात, अणभव येतात तेच तरेचो आमचो स्वभाव घडटा. जांचे जिणेंत बरीं मनशां, बरे अणभव आनी बरे इश्ट येतात तांचीं मनां सशक्त आनी निरोगी जातात. खरें म्हळ्यार मोग ही भावनाच कितली उदात्त, सुंदर आनी पवित्र! थंय सुवार्थाक जागोच नासता. कोणतरी आपलो मोग करता वा आपूण कोणाचेर तरी मोग करता ही भावनांच कितली सुंदर! हे कल्पनेंत जगप कितलें सुंदर आनी हे भावनेंतले प्रेरणेन घडयल्लें जिवीत कितलें सुंदर! एक अपेक्षा विरयत पवित्र प्रेम आनी इश्टागत. अश्या इश्टागतीची कल्पना करपी मन केन्नांच जाण्टें जायना देखून इश्टागतिंतलो मोग केन्नाच जीर्ण जायना, नश्ट जायना.

इश्टागत फकत स्वताच्या सुवार्थाखातीर केल्ली आसत जाल्यार मात ती अपराधी भावनेंतल्यान पश्चातापाचीं दुकां गळयल्याशिवाय रावना. भावनीक पावंड्यावयलो निसुवार्थ मोग आपल्या इश्टाक भोगतल्या दुख्खाचे जाणिवेनूच दुकां गळयता. हीं दुकां मनीसपणाचीं. तीं आडावचीं पडनांत. हीं दुकां जो समजूंक शकना ताका इश्ट म्हणून घेवपाचो अधिकार नासता. आयचे घटकेक निवळ आनी निसुवार्थ इश्टागत मेळप कठीण जाल्या. अधुनिकतेच्या नांवाखाला बुध्दिवादाच्या भोवऱ्यांत इश्टागतीचो आनी मनीसपणाचो बळी वचचो न्हय. इश्टाचें मन फकत इश्टूच समजूंक शकता. थंय इश्टागतीच्या प्रदर्शनाची गरज नासता. गरज आसता फकत विश्वासाची. इश्टाचेर विश्वास दवरून निश्चिंत रावपाची. Sincerity is that light of mind in which nothing remains unclear.

देखूनच बरी आनी खरी इश्टागत हेंच जिणेचें वैभव. मागीर तयार आसात मूं तुमी इश्टागत करपाक?

कोई जब राह न पाए मेरे संग आए
तो पग पग दीप जलाए. मेरी दोस्ती मेरा प्यार...

तुमचेंच...






– अपर्णा गारूडी
शिवोली, गोंय
फोन : २२७२७५१


## कोंकणी पॉप




ए मना SS, ए मना SS
सांग कित्याक उदास रे
मळब निळें मेकळें
चल उड तूं बिन्दास रे

वाऱ्या ल्हार सांगता पान
रुखारुखाचें...
येतलें आनी वतलें वारें
सुखा-दुखाचें...
येवंची जाली पुनव तुजी,
सोंपतली उमास रे

सुकणीं लेगीत दुखणीं सोडून
लागलीं उडूंक...
सपन फुलां पाकळ्यो तूं
दिवनाका झडूंक
सुन्दर ही जिन्दगी,
तूं दिलखुलास हांस रे

गायक : शान
गीतकार : राजय पवार
आल्बम 9



इंद्रधोणू

# याद! सुखा खिणाची...!



**आ**यतार. १ मार्च २००९. एके खास कार्यावळीक म्हजी धूव सिंडी आनी हांव वचपाचीं आसलीं. घरकाराक एक शिबीर आशिल्ल्यान आमचे बरोबर येवंक तो शकलोना. सावड्डेच्या 'द न्यू एज्यूकेशनल इन्स्टीटचूट' इस्कोलाचो पंच्च्यातरावो वाडदीस. १९३४ वर्सा सावड्डेच्या काकोडकार घराण्यान रोयिल्लो ल्हान रोंपो आज एक व्हड रूख जाल्लो. ही प्लॅटीनम जुबली मनोवपाक, इस्कोलान इकरा तरेकवार कार्यावळी आयोजीत करून, २७ फेब्रूवारीच्यान सुरवात केल्ली. एक मार्चाक हे जुबीली समारंभाची समाप्ती जाताली.

ह्या समारोप सुवाळ्यांत एक खास कार्यावळ माजी विद्यार्थ्यां खातीर आयोजीत केल्ली. १९५३ वरसा ह्या इश्कोलांतलो पयलो 'बॅच' एस्. एस्. सी.चे बोर्ड परिक्षेक बशिल्लो. त्या वर्साच्यान ते २००८ वर्सा मेरेन, इश्कोलांत, एस्. एस्. सी. परिक्षेंत पयलो आयिल्ल्या दर एका विद्यार्थ्याचो भोवमान जावचो आशिल्लो. आनी ह्या भोवमान सुवाळ्यांत म्हजे धुवेक वांटो आशिल्लो.

फेब्रुवारीच्या मदल्या सप्तकांत आमच्या घरचो फोन वाजलो. न्यू एज्यूकेशनल स्कुलाचो माजी विद्यार्थी, राजेन्द्र काकोडकार उलयतालो, "मार्च २००० वर्साचे एस्. एस्. सी. परिक्षेंत, इस्कोलांत पयलें आयिल्ल्यान, सिंड्रेलाचो सत्कार जावपाचो आसा. ताणें येवंकच जाय. १९५३ ते २००८ मेरेनच्या सगळ्या विद्यार्थ्यांक सोदून काडून आमंत्रीत केल्यात."

सुमार, पंचावन वर्साच्या काळामदल्या विद्यार्थ्यांकडेन संपर्क सादप सोंपें काम न्हय! माजी विद्यार्थी संघटनेच्या कांय वांगड्यांनीं, आनी शिक्षकांनीं तशेंच मेनेजमेंटान ह्या कठीण कामाक खांद मारलो. एक, दोग जाण हो संवसार सोडूनय गेल्ले. दुसरे कितलेच देश-विदेशांत, कॅरियरा खातीर, स्थायीक जाल्ले. सगल्यांक ताणीं आमंत्रणां धाडिल्लीं.

सांजेच्या पांचांक आमी सांवड्डेच्या रवीन्द्रभवनांत भितर सर जाल्यार, हॉल पुराय भरिल्लो. हांवें प्रेक्षकांमदीं बसका घेतली. भोवमान सुवाळो सुरू जालो. एक एक करून १९५३ वर्साच्यान पयले आयिल्ल्या माजी विद्यार्थ्यांक आपोवन मुखेल सोयऱ्यांच्या हस्तुकी, भेटवस्तू दिवन तांचो सत्कार केलो. चड जाण सन्मान स्विकारूंक आयिल्ले. जांकां येवंक फावूंक ना, ताणीं कुटुंबातल्या आपल्या लागशिल्ल्यांक धाडून सन्मान स्विकारिल्लो. अमेरिकेंत स्थायीक जाल्लो एकटो देवादीन जाल्लो. तांची घरकान्न मुजरत येवन, तिणें हो भोवमान स्विकारून सगल्यांच्या काळजाक हात घालो.

वर्स २००० मार्च 'सिंड्रेला मिनेझीस' सुत्रसंचालकान साद घालो. तें सोपणां चडून माचयेर वतना, म्हज्या मना कुडिंतल्या एका दाराची खिळी उगडली आनी हांव यादी पोरसांत पावलें. णव वर्सां फाटलो तो खीण याद जावन हांव खूब सुखावलें....

जुनाची ३/४ तारीक. मार्च २००० वर्सा घेतिल्ल्या एस्. एस्. सी. परिक्षेचो निकाल जाहीर जावपाचो आसलो. इंटरनेट तेन्ना तितलें फामाद जावंक नासलें. रिजल्ट इश्कोलांनी येतालो. रिजल्टाचे आदले राती म्हाका कसोच दोळो लागना.

"रिजल्ट तुजो काय सिंडीचो? न्हीद वग्गी." घरकारान घातिल्ल्या धेंगश्यान हांव अस्वस्थ न्हिदलें. सकाळीं उठून पयलीं मिसाक वचून हांव आयलें. धूव उठून तयार. च्या घेवन रिजल्ट पळोवंक इश्कोलांत वचपाक भायर सरलें. बापायन ताचे बरोबर वचपाचें थारयल्लें. पूण बरोबरचीं सगलीं एकठांय मेळून वचपाचो तांचो बेत आशिल्ल्यान, बापायक ताणें मना फ़लो. तो उठून ऑफीसांत गेलो. हांवें मात ऑफीसांत फोन करून रजा मागली. 'केल्ल्या कश्टांचें फळ, ताच्या मना प्रमाणे ताका मेळ्ळ्यार पुरो देवा.' हांवें परत एकदां देवाक हात जोडले. म्हजें मन कशेंच थारना. कितेंच करूंक हात लागनात. 'कसो लागला काय रिजल्ट?' भोंवून भोंवून म्हाका चिंता.

साडे धा - अकरांच्या सुमाराक आमचो फोन वाजलो. धडधडट्या काळजान हावें फोन उबारलो. न्यू एज्युकेशनल इस्कोलाच्या हेडमास्तरांचो तो फोन.

''तुगेलें सिंड्रेला बॉर्डाक णववें आयलां. हांव अवधूत सर उलयतां!'' म्हजी वाचाच बंद जाली. खोशेचो धक्को बसून कितें म्हणचें तें सुचना जालें.

''थँक्यू सर! थँक्यू!'' म्हणत, कडकडत हांवें रिसीव्हर दवरलो. रडचें काय हासचें? हांव काचाबूल. दोळ्यांक खोशेचो पाझर फुटलो. थरथरत्या हातांनीं देवाक वाती पेटयल्यो. आनी कृतज्ञ भावनेन भरून, तकली तेंकोवन देवाचे उपकार मानले.

रोखडोच, घरकाराक फोन करून, भरिल्ल्या कंठान, ताका रिजल्ट सांगलो. आमचें मूळ घर लागींच. वातीचें पॅकेट घेवन पोरसांत आशिल्ल्या खुरसाक वाती पेटोवन, धांवत थंय गेलें. भितर सरून, 'ऑरातोरी' म्हऱ्यांत वाती पेटयल्यो आनी जावेक उलो केलो, ''आपोलीन, सिंडी बोर्डाक नायन्त आयलां.'' वेंग मारून ताणें म्हाका परबीं दिलीं. आनी दोगांयचेय दोळे घसघशीत व्हांवले. व्हडल्या देराचे कुडींत वचून, ताच्या फोटवार नदर मारली. ताच्या आत्म्याक शांती मागली. 'आयज आसल्यार खूब खूश जावपाचे', म्हजें मन बडबडलें. हांवें पेढ्यांचो आनी आपोलिनान फोगेट्यांचो बंदोबस्त केलो.

परत आमच्या घरांत भितर सरून म्हज्या भयणांक-नणणांक फोन करून 'खूश खबर' दिली. फोन दवरता म्हणसर लागींच रावपी म्हजी भयण, लिनॅट दारांत उबें. बऱ्याच वेळान, रिजल्ट घेवन सिंडी घरांत पावल दवरतांच, आतुरतायेन वाट पळयत आशिल्ल्या लिनॅटान ताका सोमतेंच उखल्लें. तेन्ना मेरेन सगल्यांक खबर पाविल्ली. आमकां इश्ट मित्र खूब. ते भायर मायेस्त शेजारी. सगल्यांनी येवन परबीं दिलीं. मागीर घे. फोनार-फोन. एक दवरतां, दुसरो येता. त्या दिसा रांदपाकूच म्हाका मेळूंक ना.

''आयजूच आमकां पार्टी जाय.'' लिनॅटान नेट धरलो. ''नाका. फाल्यां बरें बशेन करया. सगल्या घरच्यांक तरी आपोवंक नाका? आज, कोणूय भितर येता वता. आनी हो फोन तर वाजत आसा. फुर्सत मेळची ना.'' ताका आडायत हांवें म्हळें. पूण म्हजें आयकून घेवंक तें तयारच नाशिल्लें.

''चड व्हडलें कांय नाका. तूं पयशे दी. हांव आनी आपोलीन सांबाळून घेतात. फोन करून सगल्यांक आपयतात.'' आनी खऱ्यानीच, तिळसांज जाता म्हळ्यार, पुलाव-चिकनाचो घमघम पुराय घरांत पसरलो. आनी भयणी-नणणांनीं, आनी तांच्या भुरग्यांनीं घर भरलें आनी ते रातीक अशी सादी, पूण हुनहुनीत पार्टी रंगली. ती रात सरून दुसरो दीस उजवाडलो. रिजल्ट पेपराचेर आयिल्लो. त्या दिसा फुलां तुरे घेवन, आनीकूय बरें मागपी आयले. तीं फुलां पळोवन हांव तर पिशेंच जावन गेल्लें. एकूय तुरो नदरे भायर जावंक दिलोना. सगळ्यांत सगळे सालांत, एका कोनशाक दवरून तांची रास उबारली. थोड्या दिसांनीं फुलां बावलीं. तरूय ते तुरे भायर उडोवंक म्हजें मन जालें ना.

दनपारचे दिलीप सर आनी नरहरी सर, फुलां घेवन परबीं दिवंक हजर.

''आमच्या सिंड्रॅलान, आयज सावड्ड्यांत आमकां ताठ मानेन, अभिमानान भोंवपाक दिलां.'' आमका परबीं दीत नरहरी सरान अपुर्बायेन आनी गर्वान म्हळें.

''ताका बरे कॉलेजींत घालूंक जाय.'' दिलीप सराक हुस्को.

''मडगांवचे, दामोदर सायन्स हायर सॅकंडरींत ऍडमीशन घेवया. बाळ्ळीकर सरांकडेन हांव उलयतां.'' नरहरी सरान जबाबदारी आपल्या भुजांर घेत म्हळें. ह्या इश्कोलांतल्या दर एके टिचराची तोखणाय करता तितली कमी.

खास करून, धावेच्या वर्गांतल्या भुरग्यांची कशे तरेन ते दखल घेतात, तें खरेंच देखदिणें. पुराय वर्सभर, भुरग्यांच्या अभ्यासाकडेन बारीकसाणेन लक्ष दवरून, उपरान्त, परिक्षेपयलीं, दर एकल्याच्या घरा वचून तांच्यो अडचणी सोडोवपाक तांका ते मदत करतात. आपलो वेळ आनी मोग दिवन तांका धीर दितात. शिक्षणाबरोबरच, तांचेर बरे संस्कार जावंचे म्हूण ते धडपडटात. तीं आपलींच भुरगीं मानून, इश्कोल सोडून गेलीं, तरूय तांची वासपूस करची सोडिनांत. माजी विद्यार्थ्यांचो तो भोवमान सुवाळो, हे तांचे तळमळीची खणखणीत गवाय. हायर सॅकंडरींतूय, बऱ्या नशिबान ताका बाळ्ळीकर सरांसारके आदर्श, पितृकाळजाचे प्रिन्सीपल आनी मायेस्त, dedicated शिक्षक मेळून, बारावेचे परिक्षेंत बोर्डाक, तें सव्वें आयलें. पूण अवधूत सरांचे ते गोड शब्द म्हज्या कानार सादून, णव वर्सां फाटीं जी खोस म्हाका भोगली ती परतून केन्नाच हांवें अणभवली ना....

नरहरी सरांच्या उपकाराच्या उलोवपांतल्यान सत्कार सुवाळो सोंपलो. हांव भानार आयलें. राष्ट्रगीताक सगलीं उबीं रावलीं. 'जनगण मन'चे सूर कानार पडटांच, सदांचे बशेन देशभक्तीन, अभिमानान मान वयर सरली. तसलेच अशे भावनेन, संसाराच्या काना कोनश्याक शिंपडलल्या माजी विद्यार्थ्यांक सोदून काडून मुजरत ७५व्या वाडदिसाक आपोवन तांचो भोवमान केल्ले खातीर, ह्या इश्कोलाबद्दल, पयलींच बाळगून आशिल्लो आदर आनी सन्मान आनीकूय उंचावलो आनी म्हज्या मनांतूच हांव पुटपुटलें, 'जय हिन्द!

जय न्यू एज्यूकेशनल!
सदा जय हो!'





- ब्रॅन्डा मिनेझीस
द मस्टर्ड सीड,
कुस्मण, केपें.
फोन : २६६२४९१

## खळांतली आंबली

# निळू फुले आनी भास्कर चंदावरकार काळजाक स्पर्शल्ले दोन कलाकार



**म्हा**का हो संवसार म्हळ्यार एक व्हडली ट्रेन कशी दिसता. हे ट्रेनींत कोण चडटा, कोण देंवता. ट्रेनीक ताचें कांयच पडिल्लें नासता. तिचें काम सैमीक रुळावेल्यान एकसारकें धांवत रावपाचें. खंयच्याच प्रवासाचीय ते ट्रेनीचेर मालकी नासता. प्रवास सोंपलो काय मोन्यानी स्टेशनार देंवपाचें. कोणाचो प्रवास लांब पल्ल्याचो आसता तर कोणाचो थोड्या अंतराचो. जो कोण ट्रेनींत चडटा ताच्या नशिबांत प्रवास हो आयलोच. तो सोंपल्या उप्रांतूच जणएकलो आपापल्या स्टेशनार देंवता. कोण पयलीं देंवता तर कोण फुडल्या स्टेशनार.

ह्या प्रवासांत कांय प्रवासी काळजाक स्पर्शून वतात. ताणीं स्टेशनार देंवचें न्हय तर आपले वांगडा फुडल्या प्रवासांत सांगाताक आसचें अशें दिसता. पूण सगळ्यांकूच खंयच्या ना खंयच्या स्टेशनार देंवपाचें आशिल्ल्यान, जो कोण आपल्या स्टेशनार देंवता ताका निरोप दिवपूच समा आसता. तोच सैमाचो नेम. फुडल्या प्रवासांत ताच्या खिणयाळ्या सांगाताच्यो यादी काडीत मागीर आपणें फुडलो प्रवास करपाचो आसता.

ह्या जिविताच्या प्रवासांत खुबशे प्रवाशी सांगाताक आसतात. पूण ते सगळेच काळजाक स्पर्श करतातूच अशें न्हय. तांतले एक-दोन अशे आसतात जे आपल्या स्टेशनार देंवतना चुरको लावन वतात. मागीर उरतात त्यो तांच्यो यादी. खळांतले आंबले वरी! रूच काडीत फुडलें आयुश्य जियेवपा खातीर.

निळू फुले आनी भास्कर चंदावरकर हे अशेच दोन म्हान कलाकार. मनस्वी मनीस जे जिवितांतले ट्रेनीत प्रवास करतना अशेच केन्ना तरी आपटल्ले आनी काळजाक स्पर्शून गेल्ले.

निळू फुले एक मनस्वी व्यक्तीमत्व. ताणें नाटक सिनेमांच्या मळार आपले खाशेले संवादशैलीन आनी अभिनयान स्वताचें अशें एक साम्राज्य उभारिल्लें. सहज अशें सादें उलोवप, कसलोच नाटकीपणा ना. सैमीक अभिनय आनी मनीस म्हणूनय तितलोच सादो.

नाटकां-सिनेमांतले बरेच शे नामनेचे कलाकार म्हजे व्यक्तीगत मित्र आसात. मित्र इतलेच खातीर म्हणपाचें की तांची उठ-बस म्हजे वांगडा जाता. गोंयांत आयल्यार मुद्दाम येवन मेळटात. पूण हें सगळें तांचे भोंवतणी आशिल्ल्या ग्लॅमराच्या वलया खातीर. एक रात व्हीस्की घेवन बसपा खातीर ते बरे आसतात. पूण संबंद दवरतलो म्हळ्यार नाका जाता.

तरी कांय लोक अशे आसतात जांचो सहवास जाय जाय असो दिसता. निळूभाऊ तांतलो एक. निळू फुले एक ताकतीचो कलाकार.

पूण कलाकार म्हूण तो आपल्याच कोशांत केन्ना रावलो ना. आपूण ह्या समाजाक कितें तरी देणें लागता म्हूण हे धर्तरेर पांय दवरून आपले परीन कसलें ना कसलें योगदान दिवपा खातीर सतत मुखार आसपी.

ताची वैचारीक बैठकूच समाजसेवकाची. कलाकार म्हूण नामनेक पावचे आदीं झोपडपट्टी संघाचो पूर्णवेळ कार्यकर्तो म्हूण तो वावुरतालो. असल्याच लोकांच्या प्रभावान आमचे सारके जायते जाण समाजाखातीर आपलेपरीन कितें ना कितें करीत आसतात.

म्हाका तो कित्याक आवडटालो? कित्याक तो डॉ. राममनोहर लोहियांचो भक्त. लोहियांचो मानसपुत्र म्हळ्यारूय जाता. रवीन्द्र केळेकारांचे लगाडीक लागून हांव जनता पार्टी खातीर वावुरतालों. तेन्ना निळू फुलेय जनता पार्टींत आशिल्लो. आपूण समाजवादी कार्यकर्तो म्हूण जगूंक शकना हाची ताका जितली खंत आशिल्ली तितली आनीक कोणाक आसत अशें दिसना.

निळू फुलेकडेन म्हजी वळख करून दिली ती रमेश सखाराम बर्वेन. रमेश बर्वे पणजे आकाशवाणीचेर काम करतालो. म्हजे आकाशवाणीचेर कार्यक्रम दिवंक वचप जातालें. विद्यार्थी चळवळ भारार आयिल्ली. आमच्या कर्तृत्वा विशीं लोकांमदीं आदर आशिल्लो काय कितें खबर ना, पूण धाक निश्चितच आशिल्लो. रमेश भाई म्हाका त्याच प्रेमान लागीं करतालो.

हांव तेन्ना पणजेच्या कस्तुरबा मातोश्री हायस्कुलांत शिकयतालों. कस्तुरबांत उमेश जोशी होय शिक्षक आशिल्लो. रमेश ताचो मित्र. तांचें सुटये दिसांनीं रातभर पत्ते कुटप चलतालें. म्हाका पत्त्यांतलें ओ काय ठो कळनाशिल्लें. पूण हांव तांकां पचतालों.

आमची कस्तुरबाची पिकनीक दोन दिसां खातीर कोल्हापुराक गेल्ली. ज्या हॉटेलांत म्हजी वेवस्ता केल्ली त्या हॉटेलांत पळयत जाल्यार रमेश बर्वे. तो थंय कितें करतालो देवाक खबर! गोंयकार गोंयाभायर गेल्यार आनी थंय तांका गोंयकार कोणूय मेळ्ळ्यार, मागीर दुस्मान लेगीत आसूं, ताका गोंयकार वेंग मारताच. रमेशभाईक पळोवन म्हाकाय उमेद जाली. 'दिलीप, तुका हांव एकल्याची वळख करून दितां, तुका आवडटलो तो!'

अशें म्हणत रमेश बर्वे म्हाका एका रूमांत घेवन गेलो. पळयल्यार निळू फुले. रमेश बर्वे आदींच लागोळो. ताणें म्हजी वळख सामकी मीठ मिरसांग लावन करून दिली. हांव केदो व्हडलो कवी, केदो व्हडलो विद्यार्थी फुडारी बी! निळू फुलेचो निळूभाऊ जालो तो थंयच. उमेश जोशी, रमेश बर्वे बी सगळे रातभर पत्ते खेळटाले. निळू फुले खेळटालो काय याद जायना. पूण आमी रात जागयली ती वेगवेगळ्या गजालींनीं.

सखाराम बाईंडर नाटकांतले ताचे भुमिकेविशीं हांवें तेन्ना आयकल्लें. पूण पळोवंक नाशिल्लें. जेन्ना अशी वळख जाली तेन्ना आत्मियतेन ताचे सगळे सिनेमा पळोवप जालें. ताच्यो भुमिका पळोवन एक अभिजात, अस्सल कलावंत जाका हांव वळखतां हाचो अभिमान म्हाका सतत भोगतालो.

पुण्याक जेन्ना जेन्ना हांव पावलां तेन्ना ताका मेळ्ळांच. चडसो तो नाटकां खातीर आनी सिनेमाच्या शुटींगा खातीर भायरूच आसतालो. घरा आसतालो तेन्ना बागकाम करतालो. मागीर मागीर हांवूय ताका विसरून गेलों. तोय विसरलो काय खबर ना. हांव ताका पळयतालों तो सिनेमानीच.

पूण परत एकदां ताची भेट कोल्हापुराकूच जाली.

कोल्हापूराक वाळवा म्हणटात त्या गांवांत क्रांतिवीर नागनाथ नाईकवाडी म्हूण एक व्हड प्रस्थ आसा. तांचें पुराय घराणें स्वातंत्र्य सैनिकांचें.

नागनाथ नाईकवाडीय सुटके झुंजारी. देखून तो क्रांतिवीर. तो थंयचो एक साखर सम्राट. दरवर्सा दोन ऑक्टोबराक गांधी जयंती दिसा तो साखर कारखान्याच्या हंगामाक पूजा करून आरंभ करता. ते दिसा देशभरांतले हजारभर लोक तरी ताचे सोयरे आसतात. निळू फुले हो ते दिसा हजर आसताच. गोंयच्यान हांव, रमेश वेळुस्कार, प्रकाश पाडगांवकार आनी दोतोर तानाजी हळर्णकार अशे चौग जाण गेल्ले. आमची खास उपस्थिती आसपाचें कारण म्हळ्यार नागनाथ नाईकवाडी ते दिसा नवें दिसाळें सुरू करपाचे आशिल्ले. ताची रूपरेशा थारावपाखातीर थंय खाशेली बसका आपयल्ली. नागनाथ नाईकवाडीन आमची वळख निळूभाऊकडेन केल्या मात, निळू भाऊन आनंदान 'हो हो, मी ओळखतो' म्हणत अक्षरशा वाकून, म्हज्या पायांक हात लायलो.' निळू फुले ते वेळार आपल्या अभिनयाक लागून प्रसिध्दीचे तेंगशेर आशिल्लो. तो वाकून म्हाका नमस्कार करता. म्हाकाच कितेंशें जालें.

त्या उप्रांत निळूभाऊ मेळुंकूच ना. जेन्ना जेन्ना पुण्याक पावलों तेन्ना भेट जाली ना. पूण हालींच कला अकादमीत तो कसले तरी कार्यावळीक आयिल्लो. रमेशाक म्हळें, आरे ताचें कांय खरें न्हय, मेळुया ताका. दोगूय गेले. पूण निळू भाऊ वळखलो ना. तीच ताची निमणी भेट आनी दिल्ल्या हाताचो निमणो स्पर्श.

निळू फुले गेलो. आनी त्याच म्हयन्याक भास्कर चंदावरकर गेलो. भास्कर चंदावरकर एक कोंकणी मनीस. तांचेकडेन म्हजो तसो घनिष्ठ संबंद नाशिल्ले. पूण मनीस वळखूंक, पारखूंक चड काळाची वळख नाका. एकेच भेटींत त्या मनशाची दाट वळख घडटा आनी भास्कर चंदावरकर तर एक पारदर्शी मनीस. नीतळ उदकावरी.

भास्कर चंदावरकर केवळ एक व्हड संगीततज्ज्ञ म्हणूनच आमी तांका वळखनाशिल्ले तर एक बरो मनीस म्हूण आमी वळखताले.

दुसऱ्या कोंकणी संगीत संमेलनाक भास्कर चंदावरकर आयिल्ले. ताणीं तें संमेलन व्हड केलेंच. ते भायर आपल्या गिन्यानान आमकांय व्हड केले. मागीर रातचे शिरदोनचे वेळेर आमी जायते जाण तांचे सांगाताक जेवणाक गेले. पुराय रात आमी तांच्या सांगाताक जागयली. ल्हान-व्हड हाचेमदली वणतूच ते राती मोडून गेली.

आमचें गोंय आतां चित्रपटाच्या मळार पावली मारता. गोंयचे बरेच लोक चित्रपट निर्मितींत भितर सरतात. हांतल्या कोणाकूय भास्कर चंदावरकरा सारख्या संगीततज्ज्ञाची मजत जावपाची. कोंकणी चित्रपट एके उंचायेर व्हरूंक तांची मोलाची मजत जावपाची. ते विशीं हांव तांचेकडेन उलयल्लोंय बी. आमी पुण्याक मेळपाचेंय आशिल्ले. पूण म्हज्या दुर्येसाक लागून म्हज्या चित्रपटाचो प्रकल्प उरलो आनी चंदावरकरांचीय भेट घेवप जमलेंना.

भास्कर नामनेचो संगीतकार आनी सतारवादक हें जालेंच. ते फिल्म इन्स्टिट्युटांत प्राध्यापकूय आशिल्ले. ताणीं संगीत दिल्ले पन्नासांवयर चित्रपट गाजल्यात. हाचेवेल्यान तांची मजत मेळ्ळ्यार कोंकणी चित्रपट कशे तरेन मुखार वचूंक पावतले आशिल्ले हाची कल्पना येता. पूण कोंकणीच्या नशिबांत तें नाशिल्लें वो आमी तांच्या गिन्यानाचो लाव उठोवंक पावलेना हीच एक खंत मनाक जाता.

खूब वर्सां पयलीं भास्कर चंदावरकर म्हाका मेळिल्ल्याची याद जाता. सिध्दार्थ बांदोडकाराचे अंत्ययात्रेक हांव गेल्लों! अंत्ययात्रा आल्तिनावेल्यान सकयल देंवन चर्चीकडेन पाविल्ली. आज कामत हॉटेल आसा थंय एका झाडाकडेन एक सिगरेटीचो गाडो आशिल्लो. त्या गाड्याकडेन भास्करचंदावरकरांची म्हजेकडेन कोणें तरी वळख करून दिल्ली. तेन्ना ताचो तो लांब रंगीत काळसर कुरतो, गोरे पीट्ट तेजस्वी रूप पळोवन हांव भारावन गेल्लों. पूण तो लिना चंदावरकराचो भाव अशें कोणेतरी म्हणिल्लें. पूण तशें उपरांत खंयच कोणाकडल्यान कळ्ळेंना वो दिसाळ्यांनीय वाचूंक मेळ्ळेंना. तरी म्हजे तकलेंत कशें तें उरलें कळना. जेन्ना संगीत संमेलनाक भास्कर आयिल्ले तेन्ना तांका हांवें विचारिल्लें, तेन्ना ताणीं आपूण फुनेरलाक आयिल्लों म्हणपाचें सांगलें. म्हणटकच तेन्ना हांव तांका मेळिल्लों. तांची पर्सनलीटीच अशी आशिल्ली की एकदां मेळ्ळ्यार विसरप कठीण, मागीर तो लिना चंदावरकराचो भाव? काय आनीक कितें नातें? काय फक्त आडनांव एक देखून तशें म्हाका दिसलें? हे प्रस्न म्हत्वाचे नासले तरी ते अनुत्तरीत उरले अशें म्हाका दिसता. तरी पूण भास्करांसारखो एक संगीत भास्कर अस्ताक गेलो आनी तांचेकडल्यान मेळपाचें सहकार्यूय तांचेच वांगडा गेलें. तरी जेन्ना म्हज्या चित्रपटाचो प्रकल्प पुर्णतायेक येतलो तेन्ना तांची याद आयले बगर रावची ना.



– दिलीप बोरकार
आगशी – गोंय.

# उतरकुवाडें



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

## आडवे

१. एक भारतीय टेनीस खेळगडी (चली)
३. सप्तकांतलो सुटयेचो दीस
५. खूब घरां मेळून जाल्ली वस्ती, ग्राम
६. नाटकाचें थिएटर
१०. वीस आनी धा.
१२. कायदो, थारावणी
१३. ल्हान रेडो
१४. महादेव
१५. एकेच वस्तुचो वा गजालीचो आग्रो
१६. चोरी वा चोरिल्ल्यो वस्तू
१७. चुलतो
१८. विष्णूचो एक अवतार, खुजो, गिड्डो
२१. कायद्याक धरून आशिल्लें
२४. गणपती
२७. बापायची आवय
२८. नमस्कार
२९. सरळ
३०. भारार व्हावतें रगत.

## उबे

१. एक भारतीय बॅडमिंटन खेळगडी (चली)
२. भीक मागपी, याचना करपी
३. आई
४. वावर बेगिबेगीन करपाची उमळशीक
७. एका घोड्याची गाडी
८. घरांत तयार जाल्लें, घरचें
९. रडकुरें, रडपी
११. दोन देशांमदली शीम
१४. दुबाव
१७. गोडाचो पंक
१९. मुसलमान भावांची प्रार्थना
२०. वाराणशी
२१. जंगल, रान (संस्कृत)
२२. आपल्या देशाचेर मोग करपी आनी ताच्या बऱ्या भल्याखातीर वावुरपी.
२३. रक्ताचो शिंवर, रक्ताचे पाट
२४. अमिर खानाचो हालीचो एक फामाद सिनेमा
२५. रान
२६. गोवा, ह्हह्ह आनी दीव – आदलो केंद्रशासीत प्रदेश

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ सा | नि | २ या | मि | र्झा | ■ | ३ आ | य | ४ ता | र |
| य | ■ | च | ■ | ■ | ५ गां | व | ■ | क | ■ |
| ६ ना | ७ ट | क | ८ घ | ९ र | ■ | य | ■ | १० ती | ११ स |
| १२ ने | म | ■ | १३ रे | ड | कूं | ■ | १४ शं | क | र |
| १५ हे | ट | ■ | १६ चू | ट | ■ | १७ का | का | ■ | द |
| १८ वा | म | १९ न | ■ | हें | ■ | क | ■ | २० का | ■ |
| ल | ■ | मा | ■ | ■ | २१ का | य | २२ दे | शी | २३ र |
| ■ | २४ ग | ज | २५ व | २६ द | न | ■ | श | ■ | क्त |
| २७ आ | जी | ■ | २८ न | म | न | ■ | भ | ■ | स्रा |
| ■ | २९ नी | ट | ■ | न | ■ | ३० र | क्त | स्रा | व |

## जुलाय उत्तर कुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| सो | नि | या | गां | धी | ■ | सा | व | धा | न |
| मा | ■ | त | ■ | र | ग | त | ■ | रा | ■ |
| र | च | ना | ■ | ■ | ■ | व | न | वा | स |
| ■ | म | ■ | ग | ड | ग | डो | ■ | ही | र |
| स | त्का | र | ■ | म | ■ | ■ | स | क | स |
| मा | र | ■ | मा | रु | ती | ■ | वा | ■ | क |
| वा | ■ | दो | न | ■ | ■ | पां | य | वा | ट |
| र | म | ■ | कु | रा | ण | ■ | ■ | ट | ■ |
| ■ | रा | त | रा | णी | ■ | सू | ■ | मा | ळी |
| म | ठी | ■ | द | ■ | वा | र | क | री | ■ |




स. चंद्रकांत केणी हांच्या समग्र साहित्याचेर हालींच पिलार हांगा वेगवेगळ्या सत्रांत खोलायेन चर्चा जाली. अशाच एका सत्रांत वांटेकार जाल्ले सुमेधा कामत देसाई, सुहासिनी प्रभुगांवकार, पुंडलीक नायक, गोकुळदास प्रभू, दत्ता दामोदर नायक आनी प्रमोद प्रभुगांवकार

डॉ. किरण बुडकुले हांच्या तीन पुस्तकांचें प्रकाशन ॲड. उदय भेंब्रे हांच्या हस्तुकीं जालें. त्या वेळार लेखिका किरण बुडकुले, साळगांवकार प्रतिश्ठानाचे प्रतिनिधी गणेश शेणॉय आनी दिलीप बोरकार



# स्तनपान

- आपल्या भुरग्याक आंगावेलें दूद दिवपाची तयारी प्रत्येक आवयन गुरवार आसतनाच करची.
- भुरगें जल्माक येतकच ताका अर्दवरा भितर आवयन दुदाक धरचें.
- पयले दोन-तीन दीस आवयच्या दुदांत 'चीक' (कॉलस्ट्रम) नांवाचो पदार्थ पाझरता. हो चीक जर भुरग्याक मेळत जाल्यार ताची रोगप्रतिकार शक्ती वाडटा.
- चीक ह्या पदार्थांत 'अ' जीवनसत्व (vitamin A) खूब प्रमाणांत आसता.
- भुरगें जेन्ना जेन्ना भुकेक रडटा तेन्ना तेन्ना ताका दुदाक धरचें.
- आवय जितलें भुरग्याक दुदाक धरता तितलें चड दूद तयार जाता.
- भुरग्याक दुदाक धरतकच जें पयलें दूद मेळटा तें पातळ आसता आनी हें भुरग्याची तान भागयता. मागीर हें दूद दाट जाता आनी हें भुरग्याची भूक भागयता. म्हुण भुरग्याक समादान जातासर एके वटेन थानाक धरचें आनी परतून भुकेक रडतकच दुसरे वटेन धरचें.
- आवयन दिसाचें तशेंच रातचें भुरग्याक दुदाक धरचें. सारकें दूद दिल्यार हो एक गर्भनिरोधक उपाय जाता.
- स्तनपान करपी बायलांक स्तनांचो तसोच गर्भपिश्वेचो कर्करोग जावपाचें प्रमाण कमी आसता.
- आवयचें दूद भुरग्याची शारिरीक तशीच मानसिक वाड बरी जावपाक मदद करता.
- आंगावेलें दूद दितकच आवय-भुरग्या मदलें माया-ममतेचे पास तयार जातात.
- आंगावेलें दूद घेवपी भुरग्यांक परत-परत बारीक-सारीक दुयेंसां (थंडी, हागवण) तशीच ॲलर्जी कमी प्रमाणांत जाता.
- आवयचें दूद निर्जंतूक आसता.
- आवयचें दूद एक परिपूर्ण अन्न आनी पेय आसता. तातूंत भुरग्याक जाय तसलीं सगळीं जीवनसत्वां आसतात.
- आवयचें दूद भुरग्याक जाय तेन्ना, जाय तितलें दिवपाक मेळटा.
- आंगावेलें दूद दिवपाक आवयक तशेंच कुटुंबाक कसलोच खर्च करचो लागना.
- भुरग्याक दूद मेळप स्तनांच्या आकाराचेर (व्हड/ल्हान) अवलंबून नासता. भुरग्याक जितलें चड वेळ आवय दुदाक धरता तितलें तिका चड दूद तयार जाता.
- आवयक थंडी, जोर अशीं बारीक-सारीक दुयेंसां जायत जाल्यार भुरग्याक दूद दिवपाचें बंद करची गरज ना.
- दूद दितना आवयन वेवस्तीत बसून वा न्हिदून दिवचें.
- स्तनपान दिवपी बायलेन आनंदीत रावचें. घरच्या लोकांनीं तिका मानसीक आदार दिवंचो.

प्रत्येक आवयन भुरगें जल्माक येतकच रोखडेंच अर्द वरा भितर दुदाक धरचें. तशेंच स म्हयने जातासर भुरग्यांक फक्त आवयचें दूद दिवचें. आनी उपरान्त अन्य आहारा बरोबर भुरग्यांक दोन वर्सां जातासर आपलें दूद दीत रावचें.





- डॉ. वंदना धुमे
९८२२५८५२८५

# हांव असो, शिरावण पिसो..!



दर वर्सा आषाढ सोंपून शिरावण लागलो काय हांव सैरभैर जातां. कितें पळोवं आनी कितें नाका अशें म्हाका जाता.

म्हाका आषाढ आवडटा. ना अशें न्हय. पूण आषाढ कडक सभावाचो. रौद्ररूप धारण करपी. पावस पडपड पडटलो. कोणाची दयामाया करिनासतना. आषाढ हो करारी, आषाढ हो गांभिर्याचो म्हा-मेरू. आषाढ हो बापूय तर शिरावण हो आवय. मायेस्त, प्रेममय, अपुर्बाय करपी माता.

सैम सुंदराय तोखेतलो जाल्यार मन करसलेंच विवंचनेंत आसूंक फावना. तें हुसक्या मेकळें आसूंक जाय अशें कोणें तरी म्हणिल्लें. आषाढ हुसके निर्माण करता. शिरावण हुसके, विवंचना पयस करता. म्हज्या सारख्या सैमपिशाक तर आपलें भितर आसपावन घेता.

कोणें लायलें म्हाका हें शिरावण पिशें?

आषाढ, शिरावण, भाद्रपद आनी आश्वीन ह्या चातुर्मासांतलो शिरावण हो राजा. शिरावण मासाचें वर्णन देशांतल्या सगळ्या भासांतल्या कवी-गीतकारांनी आपले परीन केलां. शिरावण तोखेवपाक ह्या गीतांनी, कवितांनीं हातभार लायलाच. आनी शिरावण हो म्हयनोय तसोच. पाशाणाक लेगीत शेळो चडोवपी. मागीर एखाद्र्या संवेदनशील मनशाक शिरावणांत गीतां स्फुरलीं नांत तर अजापूच म्हणपाचें!

शिरावण म्हळ्यार पांचव्या रंगाचो उत्सव रूखावळीचेरूच न्हय तर वर्सूयभर जांकां खडपां म्ह्ण आमी केरायतांत त्या पाशाणाक लेगीत ही पांचवी चडटा शेळ्याच्या रुपान. वता थंय पांचवेंच पांचवें. रुखां पांचवीं, दोंगर पांचवे, शेतां पांचवीं, मळां पांचवीं. पांचव्यांतूच कितले तरेचे पांचवे रंग. पोपटी पांचवो, काळसर पांचवो, हळदुवसार पांचवो, तांबूस पांचवो, धवसार पांचवो, इतलेंच न्हय पांचवो पांचवो अशें म्हणपाइतले हे पांचवे रंग. धर्तर खंयच्यान हाडटा काय हे इतल्या तरांचे पांचवे रंग!

आनी पांचवे रंग धारण करून मान वयर करून मिरोवपी ही सगळी सृश्ट तरी कितल्या जिनसांभारांची!

रूखांचें हांव समजूंक शकतां. ते आसाच तशे रूख! हड्डें फुडें काडून, पांय घट्ट मातयेंत रोवन दिग्ग उबे रावपी, शेकड्यांनी वर्सांची आपली पिराय आशिल्ल्यान तितलेच पावसाळे काडल्यात ह्या गर्वान मिरोवपी.

तांचेर चडपी वालींचेंय हांव समजूंक शकतां. अश्या ह्या रूखांचेर खंयचीय वेल फिदा जातली. असल्या रूखांचो आदार घेवन, तांच्या आंगाक वेटोळें घालून जर वेल धोलना, लगोळेंपण करिना जाल्यार मागीर वेल कसली तर ती! तातूंत आनी ती पांचवेचाराक आयिल्ली. ती पांचव्या रूखांचेर मरना जाल्यार आनी कोणाचेर मरतली?

तांच्या उंचायेच्या प्रभावान कितलीं तरी झोपांय आपणालें अस्तित्व दाखोवपा खातीर जळामळाक दाटायेन आसतातूच. तांचोय तो पांचवो रंग म्हा-रूखांच्या रंगाकडेन आपले नातेसंबंद जोडपी!

पूण खरी तोखणाय दिसता ती माणकुल्या तणांची. ह्रयाळी आपली आपल्या तांकीचेर मातयेक घास मारून विस्तारत आसता. पूण हेर बारीक तण, जें आतां आसा आत्तां ना म्हणपासारकें निकर्तेंच किल्लून वयर आयलां, तें लेगीत सामकें आपलो पांचवो रंग दाखोवपा खातीर तकली वयर काडटा. तींच कित्याक? हजारांनी आनी लाखांनी जातीची बारीक बारीक सुक्षीम पानांची सुक्षीम हिरवळ ही! तांचोय तो पांचवो रंग! ह्या सगळ्यांची कलाकुसर म्ह्ण वापर करून धर्तरमांय म्हाका दिसता पांचवोच शालू शिरावणांत न्हेसून मिरयता.

धर्तरेची ही गत तर मळबाची दुसरीच! आषाढांतले कुपां सावेस आतां थोडे मनशाळिल्ले आसतात. तांका गोरसाण आयिल्ली आसता. हीं कुपां कृश्णमय जाल्लीं आसतात. ह्या कुपांक पळयत जाल्यार तीं वेगवेगळे पदन्यास करून नर्तन करतात काय दिसता. जसो कितें कृष्णूच धर्तरेक पांचवो शालू न्हेसिल्ली राधा समजून तिका रिजोवपाचो आनी मर्दी मर्दी पावस शेनोवन भिजोवपाचोय खेळ खेळटा. केन्ना केन्नाय इंद्रधोणवाची फातीय माळटा.

हें सगळें चलतना मर्दीच खंयच्यान तरी कानार पडटात तीं शिरावणाचीं गीतां. शिरावण म्हयन्याक हिंदींत सावन म्हणटात हें म्हाका हिंदी गीतांतल्यानूच कळ्ळें आनी आया सावन झुमके म्हणत ह्या गीतांच्या तालाचेर आनी लयीचेर हांव धोल्लां. श्रावण मासी हर्ष मानसी हिरवळ दाटे चोहिकडे म्हणत ते कवितेचो आनंद घेतला आनी शिरावणचो आनंद घेतना कविताय विस्कटत गेल्या. शिरावणाचें कवित्व होलमपाखातीर ह्या कवी गीतकारांचो, तांच्या रचनेचो म्हाका खरेंच मोलाचो आदार जाला. शिरावणाचें सौंदर्य कशें तोखेवंचें हें म्हाका ताकाच लागून कळूंक पावलें. पूण ही गजाल हालींची! हांव शाळेंत वचून शिकूंक लागलों तेन्नाची! पूण ते पयलीं म्हाका शिरावणाची वळख नाशिल्ली?

नाशिल्ली कशी म्हणपाची? साहित्यिक, कलात्मक शिरावणाची नाशिल्ली जायत! वो शिरावण हो असो आसता हें पारखुपाची ती पिराय नाशिल्ली जायत! पूण म्हाका शिरावणाची वळख घडयल्या ती म्हजे आवयन! साहित्यिक, कलात्मक शिरावणाची वळख घडयल्या शिक्षणान हें सत. पूण भौतीक शिरावणाची वळख आवयकडल्यानूच घडली आनी म्हज्या साहित्यिक, कलात्मक शिरावणाची बुन्याद ती तीच!

म्हजें भुरगेंपण सरलें तें आगशी गांवांत. म्हजो जल्म आगशी जालो. आगशी गांवांत म्हाका दोन संस्कृतायो लागशिल्ल्यान पळोवंक गावल्यो. भुरगेपण हें जिवीत घडोवपी घडणुकांची बुन्याद आसता. भुरगेपणांतूच जिवितांतल्या चडश्या गिन्यानाची वळख जाता. ही पिरायूच अशी आसता की जें जें कितें नवें आसता तितलेंय भुरगो आपल्या मेंदवाच्या संगणकांत साठयत वता आनी मागीर व्हडलो जातकच एक एक गजाल भायर काडून, तातुंतली सत्यताय तर्जून, बारीकसाणेन तपासून तिचो वापर आपले जिणेखातीर करता. म्हजो आगशी गांव हो क्रिस्तावांचो गांव. हिंदूचीं घरां थोडीं. हाताच्या बोटार मेजूं येता तितलीं.

खंय खंय शिंपडिल्लीं. म्हज्या घरा शेजराकूच सांत लॉरेन्स इगर्ज. इगर्ज इतली लागीं की घरांत न्हिद्दून कानार पडटा तें पाद्रीचें शेरमांव स्पश्टपणान आयक! हांव उठ्टां तो इगर्जेच्या घांटीनी! म्हाका सकाळीं उठपाखातीर अलार्म लावचो पडना. पांचाचे घांटीर म्हाका जाग येता.

हांगा कणसांचें फेस्त, पुरूमेंतांचें फेस्त, रामा आयतार आनी हेर जायतें कितें कितें जाता. ही संस्कृताय लागशिल्ल्यान पळयल्ल्यान म्हाका ती परकी अशी केन्नाच दिसलीना.

ऑगस्ट म्हयन्यांत पातोळ्यांचें फेस्त जाता. म्हयनो ऑगस्ट आसलो तरी तो क्रिस्तावांचो शिरावणच. दर आयताराक सकाळफुडें घांटी वाजोवप, खोजने मारप ह्यो गजाली भुरगेपणासावन म्हज्या कानार पडत आयिल्ल्यान ह्या वातावरणावेल्यानूच शिरावण लागलो हाची सुलूस म्हाका लागता. पूण खरो शिरावण म्हाका आमच्या घरचो असो दिसतालो. कारण ह्या शिरावणांत विविधताय आसताली. विविधताय शिरावण पुजपांतली, विविधताय शिरावणांतल्या खाणां जेवणाची!

जिवितांत म्हत्वाचें कितें तर पोटाची आनी शरिराची भूक. एकवेळ शरिराची भूक मारूं येता. कामभावना चेपून दवरूं येता. पूण पोटाची भूक मारप कोणाकूच जमपाचें ना. पोटाचे भुकेचो वापर करूनच सगळी सृश्ट आपले निर्मितीचो वावर चलयता. धर्तरेवेलो प्रत्येक जीव, मागीर ती जिवावळ जावं वो रूखावळ जावं, आपल्या शरिराक अन्न मेळचें म्हूण दिसरात धडपडत आसता. अन्नप्राप्ती खातीर तांचेकडल्यान जें कितें कार्य घडटा तें सृश्टीचें नवनिर्मितीखातीर, सृश्टीच्या बदलाखातीर गरजेचें आसता.

पोटाची भूक आसता देखूनच प्राण्यांकडल्यान खुबशीं कामां घडटात. ना तर प्राणी फकत लोळत पडपाचो. मनीस आळशी जावपाचो. भूक लागता, भुकेचें शमन करूंक जाय देखुनूच प्राणी कितें ना कितें हालचाल करीत आसता जाका लागून हे सृश्टींत उलथापालथ जायत आसता.

सिंगापुरांत हांव एका पार्कांत गेल्लों. थंय दर सांजचे जनावरांचे खेळ आसतात. हत्ती कसरत करता, पक्षी नानातरांचे खेळ करून दाखयतात. खेळांतली ल्हान सायकल, जीप चलोवन दाखोवप बी. हे खेळ करून दाखयले बराबर तांचो प्रशिक्षक तांच्या तोंडांत कितें तरी चोंदता. प्रेक्षकांक तें कळना. पूण बारकायेन पळयल्यार कळटा की अमुकच काम केल्यार आपल्या तोंडांत कितें तरी खावड पडटली हें त्या प्राण्यांक खबर आसा. तेच पासत करपाचें काम केलें म्हणटकच आपल्या प्रशिक्षकांकडेन वचून तोंड उक्तें करप हेंय तांच्या वावराचोच एक वांटो आसता. जर ही खावडीची आस वो गोडी त्या प्राण्यांक लावंक नाशिल्ली जाल्यार ते प्राणी हे खेळ करपाचे? गांयडोळांक भूक नाशिल्ली जाल्यार ते एक सारके माती खातले आशिल्ले? धर्तर भुसभुशीत करतले आशिल्ले? शेवणीं फळांचीं बियां एके सुवातेवेल्यान दुसरे सुवातेर व्हरतलीं आशिल्लीं? मूस, पाखे फुलांतलें म्होंव खायना आसतना एका फुलावेल्यान दुसऱ्या फुलाचेर बसून परागकण स्थलांतरीत करतले आशिल्ले?

म्हजी आवय शिरावणांतले आयतार पुजताली! तिका आयतार पुजपाक पत्री, फुलां, हरयाळी बी जाय पडटाली. हें सगळें फेंदासून हाडप घरांतल्या ल्हान भुरग्यान. हांव घरांतलो सगळ्यांत धाकटो. हावें हुकूम सोडपाक म्हजे परस धाकटो घरांत कोणूच नाशिल्लो. व्हडले सगळे म्हाकाच हुकूम सोडटाले. आतां कायबरो हो आयतार! शाळा ना म्हणटकच उसरां मेरेन न्हिदपाक मेळपी. तातूंत पावसाचे दीस. पावस पडल्यार सकाळीं हांतुणार पडून रावपाचें सूख कितलें आसता तें हावें सांगपाची गरज ना. भुरग्यांक तर हें सूख सामकें स्वर्गीय. तातूंत पावसाच्या उदकान भिजिल्ले मातयेंत, तणांत पांय घालप म्हळ्यार जिवार येतालें. तरी लेगीत आवय उठयतालीच. व्हडले भाव धेंगशे घालताले. तांचे भंयान गोजडेंतल्यान भायर सरून फुलां काडूंक वचचेंच पडटालें. पूण तातूंत एक आस आसताली ती खाण मेळपाची. आई आयतार पुजताली तेन्ना दर आयताराक कितें ना कितें खाशेलें खाण करताली. हावें फुलां हाडल्यांत म्हूण म्हाका थोडी खाशेली ट्रीट मेळटाली.

जिवार उबगून तरी खाणाचे आशेन हावें फुलां हाडूंक भायर सरप. वेगीन उठचें पडटालें ताचें कारण म्हळ्यार फुलां दुसरे कोणूय व्हरत म्हूण! कोण चड फुलां काडटा ही एक सर्तूच लागताली. आमक्यालीं भुरगीं उठून ताणीं फुलां खुल्चे पयलीं तीं तोडून हाडूंक जाय हो हुस्को आसतालोच. देखून सक्काळीं उठून दर आयताराफुलांक वचप जातालें.

तेन्ना परडी बी घरांत नासताली. दारांतल्या गोठ्यार दुदयाची वाल आसताली. दुदयाचीं हळदुवींच फुलां गोठ्यार चुडटांच्या पांखयार ऐसपैस पसरिल्लीं आसतालीं. दुदयाक दोन प्रकारचीं फुलां येतात. एक फूल वांगडाच दुदयाचो तोरोच घेवन येता. एक फूल बेश्टेंच येता. तें कित्याक फुलता तें खबर ना. दुदी जावपाचो ना जाल्यार ताणें फुलप कित्याक? भोवतेक तें फूल शिरावण म्हयन्यांत भाजी करूंक फुलता आसूंये! आई त्या फुलांची भाजी करताली. फुलचे पयलीं कळे काडून चण्या पीठ, मिरसांग बी लावन बरी चरचरीत तळटाली. शिरावणांत नुस्त्याचो दुकळ. तेन्ना तळिल्ले हे दुदयाकळे म्हळ्यार तळिल्ल्यो वेल्ल्योच म्हणपाच्यो! नुस्त्याचो सुवाद नासत पूण भुरगेपणांत कसलो सुवाद आनी कसलें कितें!

ह्या दुदयावेलीचें एक व्हडलेंशें पान काडून ताचो दोणो करून हांव फुलां काडूंक वतालों. दोळ्यांर मातशी न्हीद आसतालीच. पूण पावलां थंड तणाचेर पडलीं काय ती न्हिद्दूय पळटाली. तातूंत आईन शादूर केल्लें आसतालेंच, तणांत पांय पळोवन घाल रे, तो बी आसता!

हांगा 'तो' म्हळ्यार सोरोप. सोरपाक कोण सोरोप म्हणचनांत. आमी म्हणल्यार आमकां तापयताली. 'मामा' म्हूण म्हूण सांगप. कान नाशिल्ल्या सरपाक मामा म्हूण ना तर आनी कितें म्हणा! तो आयकतलो थोडेंच. पूण आईन घाल्ल्या भयांक लागून फुलांचेर नदर भोंवडावचे पयलीं जमनीर तणांत भोंवडावची पडटाली. म्हाका अचूक एक तरी हेवाळें वो फुरशें दिसतालेंच.

फुलां काडपाचो हो सुवाळोय अप्रूप आसतालो. जितलीं चड फुलां काडटव तितलें म्हजें हडडें वयर येतालें. तरांतरांचीं फुलां! तेन्ना हांव जे गतीन फुलां खुट्टालों तें आतां येवजत जाल्यार म्हजी म्हाकाच लज दिसता. फुलां हीं फुलपाचीं आसतात. तीं झाडांचेरूच सोबतात. जो कोण तीं खुडटा तो निर्दय. क्रूर कर्मा. पूण हो आतांचो विचार. तेन्ना ती एक सर्त आसताली. शेजाऱ्यांनी व्हरचो पयलीं आपणें तोडून हाडप. तांचे परस चड फुलां हावें जमोवप.

जमता जाल्यार तांका एक्कूय फूल मेळचेनां अशी वेवस्ता करप. पुजात म्हणचे मागीर खंयच्या फुलांनीं पुजतात तो आयतार! असो कितें तो तेन्नाचो विचार!

म्हाका तरातरांच्या फुलांची, झाडांची, पानांची वळख जाली ती तेन्नाच शिरावणांतले आयतार पुजपा खातीर आईक फुलां हाडूंक भायर सरतालों तेन्ना. फुलांचीं वगवेगळीं नांवां, तांचे वेगवेगळे रंग, खंयचीं फुलां खंयच्या देवाक आवडटात, गणपतीचें आवडीचें फूल खंयचें? खंयच्या फुलांचो रंग गणपतीच्या रंगाक सोबता अशें कितलें तरी तरांचें तें संशोधन.

आईची ती आयतार पुजपाची तयारी! न्हावन धुवन ती पाटा भोंवतणी रांगोळी घालून, पाटार केळीची शिरती दवरून, हांवें हाडिल्ल्या फुलांची, पत्र्यांची, पानांची आरास करून ती आयतार पुजताली. आयतार पुजप आनी मागीर तो पावोवप. ह्या दोनूय कार्यक्रमांत म्हजो वांटो म्हत्वाचो. वांगडा म्हजी धाकटी भयण मंगलूय आसताली. आमीं दोगांनीय तिका मजत करप. म्हणटकच नैवेद्य वाटपाचें, उरता तो खावपाचें मोठें काम आमच्या वाट्याक.

शिरावणाच्या दर आयताराक कितें ना कितें नवें खाण आई करताली. हो आयतार कसलो ना कसलो आसतालो. तो कसलो आयतार हें आयतार येवचे पयलींच हांव विचारून तिका बेजार करतालों. कित्याक तें प्रमाण जिबेक धार काडची पडटाली.

पयलो आयतार मुठल्यांचो आसतालो. उकडिल्ल्या पिठाचीं, भितर नाल्लाचें चुन्न घालून केल्लीं हीं मुठलीं. दुसऱ्या आयताराक पातोळ्यो. पातोळ्यां आयताराक पापा आईक पातोळ्यांचीं पानां काडून दितालो. ताणें घरा शेजराकूच हळदीचे रोपे रोयिल्ले. ताची तोच मशागत करतालो. म्हणटकच खंयचीं पानां पातोळ्यां खातीर काडपासारकीं जाल्यांत आनी तीं कशीं कातरून काडप हें तो जाणां आशिल्लो. हांवूय ताका तीं काडूंक मजत करतालों. म्हणचे ताणें तीं व्हिळयान कातरून म्हज्या हातांत दवरप. हांवें तीं मेजप. एक पानाक एक पातोळी. जितलीं पानां काडल्यांत तितल्यो पातोळ्यो. ताचेवेल्यान कोणाक कितल्यो पातोळ्यो पडटल्यो हाचो हिशेब म्हज्या मनांत तयार जातालो.

हो हळदीच्या पानांचो वासूय धुंद करपी आसतालो.

तिसरो आयतार खिचडीचो. चवथ्या आयताराक पोळे आसताले. चुकून केन्नाय पांचवो आयतार येतालो. दर शिरावणाक पांच आयतार येवंचे अशें म्हाका दिसतालें आनी आयतार चड येवचे न्हय अशेंय दिसतालें. कित्याक निमणो आयतार पुजून जालो म्हणटकच चवथ येता हो हिशेब अणभवान म्हजे तकलेंत घट्ट बशिल्लो. चवथीची ती परब! भुरगेपणावेली ती चवथ ही खरी चवथ आसताली. पुराय शिरावणाचें संगीत, उत्सव, परबो आनी ह्या सगळ्यांची तेंगशी म्हळ्यार हीं गणपतीची चवथ. शिरावणाची सगळी खुशालकाय गणपती आपले वांगडा घेवन वतालो. काळजांत रितेंपण हाडटालो.

शिरावण म्हयन्यांत आनीकय जायत्यो परबो येताल्यो. नागपंचम, सुतांपुनव, गोकुळाश्टम, रक्षा बंधन आनी हय स्वातंत्र्यदिनूय शिरावणांतूच येता. तीय एक परबूच कशी आमकां.

तर ह्या सगळ्या सणां परबांक लागून शिरावण म्हळ्यार भुरगेपणार म्हजे खातीर खोशयेच्यो दोडीर दोडी घेवन येतालो. म्हाका शिरावणाचें विशीं साहित्यांतल्यान लागलें तें हालीं, शिकप घेतकच. पूण साहित्यिक जावपा खातीर बुन्याद घाली ती शिरावणांतल्या ह्या परबांनी, जांका लागून म्हाका सृश्टींतल्या अजापांची वळख जावंक पावली. ती वळख म्हाका घडयल्ली म्हजे आवयन.

शिरावण म्हयन्यांत आनीक एक परब गोंयांत आयली ती रक्षा बंधनाची. पयलीं आमचे खातीर ती सुतां पुनवूच आशिल्ली. पूण आमकां शिकोवंक येवपी मास्तरांनी ही रक्षाबंधनाची रीत गोंयांत हाडली. आमचे शाळेंत ह्या दिसा रक्षाबंधनाची कार्यावळ दवरताले. शाळेंतल्यो चलयो येतना राखी घेवन येताल्यो. तेन्ना आतां सारके राखीचे परारे नासताले. चलयो इस्किनीच्यासुतांच्यो राखी करताल्यो. तरांतरांच्या आकाराच्यो. तीं मागीर त्यो राखी आपल्याक आवडटा ताका बांदून आपलो भाव करतालीं. एकल्या एकल्या चल्याक तर कितल्योच चलयो राखी बांदून आपलो भाव करतालीं. मागीर चडांत चड चल्यांचे हे भाव त्यो हातभर राखी घेवन शाळेंत मिरयताले. फुडले तीन चार दीस ते त्यो काडिनाशिल्ले. आतां हात मोडटकच तो प्लास्टरांत घालून जशे कांय लोक भोंवतात तशे हे भुरगे तेन्ना तो राखी बांदिल्लो हात आखडून सो घेवन भोंवताले.

तांचो म्हाका मत्सर दिसतालो. म्हाकाय कोणें अश्योच राखी बांदच्यो अशें दिसतालें. पूण कोणेंच म्हाका तेन्ना भुरगेपणारूय बांदल्यो नांत आनी त्या उपरांतूय!

राखीची ही संस्कृताय वाडीक लागून तिचो बाजार जावंचे पयलींच म्हजी भयण मंगल लग्न जावन गेली. मागीर ती रक्षाबंधनाच्या दिसा राखी घेवन येताली. पूण हांव गांवार. ती राखी दवरून वताली. मागीर मागीर पोस्टान धाडूंक लागली. आतां तेंय बंद जालां. म्हज्या नशिबांत केन्ना राखी अशी आयलीच ना. आनी न येवपांतूच एक सुखूय म्हाका जाता. असलीं अडेचीं, नाटकी बंदना म्हाका मुळांत सावन आवडनांत. तरी फाटलीं कांय वर्सां ह्या बंदनांत म्हाका हांवें बांदून घेतलाच.

व्हितोरिया फेर्नांडिसाची एक चली आसा. तिका चलयो खूब. सगळीं म्हाका मानतात. थोडच्यांक हांवें शिकयल्यांतूय. पूण तिची 'पॅकी' म्हण जी चली आसा ती मातशी 'मंद मतीची'. ती म्हाका दर वर्सा राखी बांदता. दर राखी पुनवेक हांव राखी विकती घेतां. ती व्हरून पॅकीक दितां. पॅकी मागीर ती राखी म्हाका बांदता. राखी पुनवेक फकत पॅकी म्हजी वाट पळयता. हांव ताचेकडल्यान राखी बांदून घेतां. म्हज्या खर्चान राखी विकती घेवन वचून राखी बांदून घेवपाचो हो म्हाका दिसता संवसारांतलो आगळोच प्रकार. आनी म्हाका राखी बांदतना पॅकीच्या मुखामळावेलो तो आनंद, ती खोशूय आगळीच. तातुंतल्यान शिरावण घरावश्यानी रकतना म्हाका भावता. देखून हांव असो... शिरावण पिसो..!



❀❀❀

– दिलीप बोरकार

आगशी – गोंय

# Promoting higher education



11 Scholars from Goa pursued higher studies under Goa Scholar Scheme

- 13 colleges extended finance under the Interest Free Loan scheme for infra structure development
- Special B. Ed programme for teachers of special children commissioned
- Scheme for free education to Girl Child proposed.
- 3384 computers distributed under cyberage scheme.
- Work of Quepem College library building in progress





Working towards a Secular & Prosperous Goa

Published & Printed & Edited by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Sahyadri Offset Systems, Khorlim, Goa. Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.com.in